# दोन मुळांचे झाड

महाबळेश्वर सैल

श्रीशैल प्रकाशन

दोन मुळांचे झाड

(कथासंग्रह)

महाबळेश्वर सैल

**Don Mullanche Zaad**

(Short Stories)

**Mahabaleshwar Sail**

---

प्रकाशन क्र. 2

पयली आवृत्ती : 2011






छापपी :
सह्याद्री ऑफसेट सिस्टम्स्
खोर्ली-गोंय

मुखचित्र :
य. बा. सुतार (चित्रसेन शबाब)

अक्षरजुळवणी :
ज्योती गांवकार

प्रकाशक :
श्रीशैल प्रकाशन
आर्ले राया, गोंय, ४०३ ७२०

मोल : रू. 140/-

अर्पण

सुरेशबाब अमोणकार हांका
मायेमोगान

- महाबळेश्वर सैल

## महाबळेश्वर सैल हांची बरपावळ

| | |
|---|---|
| पलतडचे तारू | (कथा) |
| तरंगा | (कथा) |
| कळिगंगा | (कादंबरी) |
| अदृश्ट आनी अरण्यकांड | (दोन नवलिका) |
| युगसांवार | (कादंबरी) |
| खोल खोल मुळां | (कादंबरी) |
| बॉयनेट फायटिंग | (कथा) |
| हावठण | (कादंबरी) |
| निमाणो अश्वत्थामा | (कथा) |

# अनुक्रम


| | | |
|---|---|---|
| 1. | निशःब्द | 1 |
| 2. | दसणीची खांदी | 5 |
| 3. | सैमचक्र | 9 |
| 4. | नागसर्प | 13 |
| 5. | सुण्यापेटो | 17 |
| 6. | हरिहर | 20 |
| 7. | हेडकूक | 24 |
| 8. | दुदा-दांत | 28 |
| 9. | एका चोराचो जल्म | 32 |
| 10. | विपरीत | 36 |
| 11. | आयुश्य चोर | 39 |
| 12. | पिसाय | 42 |
| 13. | राखिल्लें धन | 46 |
| 14. | निर्दय खेळ | 49 |
| 15. | उबगण | 53 |
| 16. | शेणागुळो | 57 |
| 17. | भोगणारे | 61 |
| 18. | एक झाड बापडेशे | 64 |
| 19. | कचरो | 67 |
| 20. | दोन मुळांचें झाड | 70 |
| 21. | प्रमोशन | 74 |
| 22. | दोगांली तोंडां दोनवटेन | 78 |
| 23. | चांडाळकर्म | 81 |
| 24. | कॅप्टन सतीश श्रीनागेश | 86 |
| 25. | म्हाका परते घेवन वचात | 90 |
| 26. | पोल्युशन | 94 |
| 27. | वाग आई आनी हांव | 98 |
| 28. | सखारामाली भयण | 101 |
| 29. | सुरूप कुरूप | 105 |
| 30. | मनसंभ्रम | 108 |
| 31. | भूंयदेश नाशिल्लो | 112 |
| 32. | भिजिल्ल्यो फुगोट्यो | 116 |
| 33. | इस्कोट | 119 |

# नि:शब्द

शिल्पालो घोव सिआर्पीत आसलो. ताका येवन परतो वचून स म्हैने जाल्ले. पयरच चीट आयल्ली, हे वटेन ड्युटेरबीन पडल्यार घरा येवन वता म्हण. सद्याक तो आपले कंपनी वांगडा गडचिरोली वटेन नक्सलवाद्याआड उबो आसलो. तांच्या लग्नाक देडेक वर्सच जाल्लें.

...... शिल्पा रातचे आपले कुडींत एकलेच न्हिदिल्ले. म्हऱ्यानचे एके कुडींत मांव आनी मांय न्हिदिल्ली. कुडीचे दार बेठेच आड केल्ले, खिळी घालूक नासली. शिल्पालो सगळ्या संवसाराचेर एक आगळोच निरागस भावार्त. तातून घरात दादलो म्हण्टा तो मांव एकलोच. तो तर बापाय सारखो!

मांव म्हण्टा तो बापायसारखो अशेंच ताणें धरिल्लें आनी ताचेर दुबाव घेवक नासलो. दुबाव घेयसारखे काय खीण आयल्लेय, पूण निवळ, निरागस मनाच्या शिल्पाक खंय कांयच वाकडे दिसलें ना. हांव ल्हान आनी तो कितलो जाण्टो!

ते रातीक तो शिल्पाले कुडींत आयलो. तागेल्या आंगावेले चादर कुशीक काडून आंग सासपूंक लागलो. शिल्पा झेमेंतशें आशिल्ले. कळटकीर उज्यात पडिल्लें माजर कशें तें तडफडत उठलें. उठलें आनी हड्ड्यासरी हात घट्ट धरून एका कोनशात वचून उबे रावलें, आकांतयाळी शक्त एकठावन सोताक राखत. आता काळखातय ताका तो सारखो दिसलो. हय मांवच म्हगेलो तो! मोटवो, घटमूट आडव्या आंगाचो. तकलेवेले केंस खरखरीत उबे जाल्लें.....

मांव कांय वेळ वोग्गी पळयत रावलो आनी मागीर काडून भायर गेलो. तें तर कोनशांत अशें उबें आशिल्लें म्हऱ्यान गेल्यार आपणार पाशाण कोसळटलें अशें ताका दिसलें जावये.

इतलें जालें तरी शिल्पान तोंडांतल्यान येदो आवाज काडलो ना. दुसरे कुडीन आशिल्ले मांयकय जागयले ना.....

आवाज केल्यार शेजारचे जागतले, कान लावन बसतले, फाल्या किर्ते जालें काय म्हण विचारतले. लज जातली, म्हजी आनी घराब्याचीय. खबर भटकळा आशिल्ल्या धाकल्या देरामेरेन पावल्यार तो धांवन येतलो. झगडीं जातलीं. लग्न जाल्ले नंडेक बापायन अशें केलें म्हण कळल्यार ती जीवच सोडटली. कितल्या मोंव मनाचें गुणेस्त तें चेडूं!

...... मांय तर सामकी सादी बाबडी. वर्सभर देव देव करीत आसता. दर वंडापुनवे दिसा मुखाल्ले सात जल्म होच घोव दी म्हण देवाकडेन मागता. हें अशें म्हण कळल्यार ती भितरले भीतर सुकून मरून वयतली. वा घोवाक कोंचोवक लागतली. घरांत झगडीं जातलीं.

वा फाल्यां सगळे लोक म्हाकाच फटकिरे म्हण गुन्यांवकारी धरीत!

दुसरे दीस दिसभर ताच्या मनात मोटो घुसमट आनी संभ्रम. बापायवरीच बापायसारको मनीस तो! असो कसो दुश्टपणान वागलो! मदींच ताका हड्डें फुटून रडूक येतालें. खंयूय अडसराक बसून तें रडून येतालें. रात जावच्याक काळोख पडूक आयल्यार ताचें काळीज, हड्डें भिरांतेन खपखपूक लागलें. मांव दिश्टीक पडल्यार आंग चिरिल्लेवरी जातालें. कोणाक काय सांगूक जायना आनी ह्या घरात रावकय जायना!

राती न्हिदूक वयतकीर ताणें सतरा फावटी दाराची खिळी पळयली. परत परत ती दाम्मून घातली. तरीय न्हिदल्यार न्हीद पडना. धापिल्ल्या दोळ्या मुखारय काळखान राकेसाले आकृत्यो नाचताल्यो. काळोख गोठेतालो आनी ताची वाकडी तिकडी हाडांबोडां जातालीं. तातूंन मांवूय खंयतरी उबो. एक फावट दिसले, मांयक व्हडान उलो मारून आफोवचें.

दुसरे दिसा सकाळी ताणें बॅगांत दोनच साडयो पोल्क भरले आनी कोणाक काय सांगिनासताना कुळरा वचूंक सुटले, पिसावल्ले वरी वाकडी तिकडी पावला उडयत वताले. मांय आकाड्यामेरेन आयली. 'आगो खंय वयता' म्हण

विचारल्यार ताणें फाटी लेगीत वळोन पळयलें ना. मांयक भारी राग आयलो. ती फणफणत ताका कितें कितें उलयत रावली. सकाळपासून तें घरांत एक उतर उलोवक नासलें. मांव वोगीच भायर भितर लिपलोसो दोपलोसो करतालो. साध्या सरळ मनाच्या मांयक कसलोच दुबाव येवंक ना. मनांत मात चुटपुटत रावली, कांयच उलयनासतना गेलें तें! अशें केन्ना करूक नासलें. म्हजें कितेंय चुकलें काय देवा! हांव तांदूळगोटो मेजून मापून दिता तें ताका मानवना काय? तेगेल्या घोवाली नोकरी तर अशी, लग्न जायतसान चड भायरच आसा. ते तळमळेय आसतले! तरीय मांयक ताचो राग आयल्लोच. कुळरा वचूंक गांवालागसल्ल्यानच बशी वयताल्यो. पूण ताणें तें कांयच चिंतलें ना. बशीच्या वेळेचो उगडासच केलो ना. ती चार मैलांची वाट चलतच तें कुळरा पावलें.

कुळरा आयल्यारय तें कांय उलयलें ना. आवयन मदींच कशें येयलें गो म्हटल्यार तेणें तोंडांतच उतरां घोळयत कितें तरी म्हटलें. आवय चडच खटासून विचारूक लागतकीच तें तापलें, 'हांवें कुळरा येवंचें न्ही कितें? याद येयली, येयलें हांव. घोव तर गांवाभायर.'

बापूय कांयच विचारीनासलो. धूव दोळ्यामुखार आसा हातूनच तो भुल्लुसून गेल्लो. ताची दिश्ट काडिल्लेवरी ताचेसरी कितें कितें उलयतालो.

शिल्पा कांयच सांगिनासलें. सांगल्यार उत्पात जातलो, घडये आवय आनी बापूय दोगय मांवाचे मडें घालूंक धांवन वयतली. दोनय घराब्यां मदीं सासणाचें दुस्मानपण येतलें. घोव दुखावतलो. आवय बापायक दिसतलें, इतलें थाटामाटांत लग्न करून आपणे चलयेक असल्या पाड घरांत व्हरून दिली! तें दुःखी जातलें, रडटलें. म्हजी भयण शीलाचें लग्न करूंक तांची उमेदच मरतली. शीलाच्या कवळ्या मनारय घाये पडटले......

ताणें घोवाकय कांय कळयलें ना. घोवाक पत्र बरोवकच ताका भिरांत दिसताली. कितें बरयतलें, कुळरा कित्याक येयला म्हण सांगतलें? वर्सा परमाणें ह्याय वर्साक घरासकल निरवल्यो रोयल्ल्यो. ताका बांयतल्यान उदक काडून घालूक जाय आसलें. मांयची धोपरां रू दुखिल्लेवरी दुखतात. आता निरवल्यो सुकून वयतल्यो.

म्हैनो, दोन म्हैने गेले. पूण शिल्पा घोवाघरा परतलें ना. घोवाघरची याद आयल्यार ते कच् करून आंग काडटालें. मांवाचो मोटवो आडवो बांधो

दोळ्यामुखार येतालो आनी जीव खप्प करून बसतालो.

पूण मांयन पुताक पत्र बरयल्ले. मांव पत्र बरय म्हटल्यार कांयच आयकनासलो. म्हण तिणें हेराकडच्यानच बरोवन घेतिल्ले, 'कांय म्हटले ना केलें ना. माल्लें ना धल्लें ना. उठाउठी उठलें आनी गेलें कुळरा. वयतना एक उतरान सांगलें ना. लायल्ले निरवले रोपे मरून गेले. म्हजी धोपरां दुखतात, रांदून जेवक जीवार येता. दारांतल्या कवाथ्यांनी म्हैनोभर उदक पळयलें ना.'

वाचून घोव रागार फुगार जालो. काय दीस चडफडत रावलो. तिचे पत्र आयलें ना. ताणेंय तिका पत्र बरयलें ना.

मदी ताच्या सिआर्पी कंपनीक गडचिरोलीसान फाटी घेवन हैदराबादाक धाडले. तेन्ना वाटेर ताणें आठ दिसांची रजा घेवन तो घरा आयलो. घर भणंग विसकटून उडयल्लेवरी जाल्लें. आवय धोपरां धरून परवताली. बापूयय टि.बी. जाल्लेवरी खोंकलोसो, भेकलोसो करतालो. देवाक उले घालतालो.

घोव आयल्लोच तडक शिल्पाल्या कुळरा गेलो. घर कित्याक सोडून आयला काय म्हण ताणें तेका खूब तापयले. गाळी सोवल्यो. तेन्नाय ते कांयच उलयलेंना. तो परतो येवक सुट्टकीर आवयन शिल्पाक ताचे फाटल्यान धुकलून घालूनच धाडलें. तो सडसडीत पावलां घालीत वयतालो. शिल्पा ताच्या फाटल्यान धांवतालें, चलतालें. तो मदींच मातसो थाल्लो. ताणें फाटी वळोन रागानच पळयलें आनी विचारलें. 'सांगिनासतना कित्याक अशें येयल्लें तूं?'

काय बरी संद आशिल्ली, दोगांच आसताना सगळे सांगून मेकळे जावचेली. पूण तें आताय काय उलयलें ना. ताका ओगच दिसतालें, उलयल्यार आत्तां मळब मोडून पडटलें. सगळें फासपून वयतलें.

'यो तूं, घरासरी यो, दांड्यान झोडून काडटा तुका.'

ती घरात पावलीं आनी खरोच तो भायर वचून एक कोंड्याबडी घेवन आयलो आनी ताका झ्यां झ्यां मारूंक लागलो.

तरी ते उलयलें ना. मार सोंसूंक नज जातकीर ताणें इतलेंच म्हटलें. 'चूक जाली म्हजी, आनीक आनी वचचे ना'. तेन्ना मांयन येवन ताका अख्खे वेंगेत घेतिल्लें. मांव घरामुखावेल्या दसणी अडसराक उबो आसलो, लिपूनसो.

○○○

# दसणीची खांदी

तेन्ना हांव यल्लापूर ह्या गांवांत एका फॉरेस्ट कंन्ट्रक्टराकडेन कामाक आसलों. यल्लापूर हो चोयवटेन घनदाट रानांनी वेडिल्लो गांव. म्हाका सद्दा पंधरावीस मैल त्या घनदाट रानांतल्यान सायकलीन वचचे पडटालें.

त्या दिसा सांजेचो रानांतल्यान परत येताना तान लागली म्हण उदक मागूक रस्त्याकुशीच्या एका घरासरी हांव रावलों. ते ल्हानशेच नळ्याचें घर रानाकडेक एकसुरेच उबे आसलें. लागीं आनीक एकय घर नासलें. सामकी सामसूम आसली. उलो दितकीर घराफाटल्याच्यान एक बायल मुखार आयली. बायल कसली, एक अठराएकुणीस वर्साचे चलीच आसलें तें. काळे सावळे आकर्शक बांद्याचें सोबीत चेहऱ्याचें चली. पूण निकतेच रडून आयल्लेवरी ताचो चेहरो, दोळे तांबशे दिसताले.

तिणें मातयेची कळशी आनी पितळेचो तांबयो हाडून म्हाका उदक दिलें. पूण ती म्हाका सारक्की नदर लावन पळयताली. हांव परतो वचूक सुटलो तर तिणें सट्करून म्हटलें, 'तूं माजाळिचो शिवानंद न्हू भाऊ?'

म्हाका अजाप दिसलें, कोण ही बिनओळखीची बायल म्हाका ह्या रानांत वळखली? हांवें तकली हालयली. तिणेंच मुखार म्हटलें 'हांव धामुबागची सोयरू धामुली धूव विमल. तुमच्या थंयसान लागीच. वळखलो ना?'

हांवें तिका बारीक पळयलें आनी वळखलो. मदी हांव शिक्षण, नोकरी निमतान भायरच आसलो आनी स-सात वर्सांन तिका पळयतालो. तिगेले

आवय बापूय आमचेकडेन शेताच्याबीन वावराक येताले. केन्ना हे विमलय आवय वांगडा येतालें. केन्ना रस्त्यार, दुकानांत पळयल्लें. हांवें म्हटलें, 'तुका हांगा लग्न करून दिलां? इतलें पयस रानांत कोणें सोदून हाडली तुका सोयरीक?'

तेणें दुःखाचो उमाळो आयल्लेवरी म्हटलें, 'नशीब आनी भोगणारे आनीक कितें! बाबा कांय दीस हेवटेन रानखात्याची सागवानी झाडां लावक आशिल्लो. वयताना ही सोयरीक घेवन गेलो.....' ते रडूंक लागलें.

'रडटा कित्याक बाय, नशीबाक आयल्लें तेंच बरें म्हण घेवंचें. रानात एके कुशीन थंडशीतळ सुवातेर आसा घर. आशिकुशीन शेतांय आसात.'

तेणें बेठेच हूं म्हटलें, 'आज एक वर्सान हांवें कुळरचो मनीस पळयलो.'

'आनीक कोण आसात बाय घरांत?'

'घोव आनी तेगेलो बापूय. आता वावराक गेलांत. मांय आसल्यार तरी बरें जातासलें.'

ताच्या उलोवपात कसली उमेद, उत्साह नासलो. कसले तरी दुःख तें लिपयता अशें दिसतालें. मागीर कुळरच्या गावाविशी उलयताना मात ते बरेच खुशींत आयलें. खूब उलयले, हांसले. हांव वचूक सुट्टकीर तेणें म्हऱ्यान येवन म्हटलें, 'भाऊ, गांवात गेल्यार म्हज्या घरच्यांची खबर घेवन यो. आमच्या दारात बरे व्हड एक दसणीचें झाड आसा. जाल्यार ताची एक खांदी घेवन यो.'

उपरांत दोनतीन वेळा हांव ताच्या घरासरी राविल्लो. दर खेपेक ते कसलें तरी दुःख काळजांत घेवन बसला अशें दिसतालें. एक दीस ताच्या घरामुखार गेल्यार तिगेलो घोव आनी मांव भायल्या वासरेर बशिल्ले. मुखार एक पेट्टी कोलती आसली. ताचेर विडी पेटोवन ते ओडटाले. काळशे मोटवे, एकाच कुडी बांद्याचे ते दोगय बापूय पूत न्ही तर भाव भाव कशे दिसताले. दोगांनय एकाच तरेचे काळपट चड्ड्यो घातिल्ल्यो. त्यो दुमडून कमरेर एकठाय जाल्ल्यो. हेर सगळें आंग उत्तेंच आसलें. तांबड्या दोळ्याचे ते दोगय तशे बशिल्ले पळोवन निकतेच रानांत दुकरांची भोवंडी करून आयलात कशे दिसताले. म्हाका आंगणात पळोवन घुरघुरतशे कांय वेळ पळयत रावले. पूण विमलान बेगीनबेगीन म्हाका उदक दिवन धांवडायले.

एक दीस तांच्या घरालागीच्यान वताना तांच्या घरांत व्हडव्हडान झगडिल्ल्याचो आवाज आयकोंक येयलो. सायकल लावन हांव ताच्या घरासरी

गेलों. तिगेलो घोव आनी मांव दोगय ताका बुरश्यो बुरश्यो गाळी सवताले. तेंवय आपल्यापरीन व्हडान उलयतालें. मर्दींच ताच्या मांवान ताका केंसाक धरून ओडत आंगणात हाडलें आनी ताच्या फाटीर दोनतीन थापटां घातलीं. तेन्ना विमलाची नदर म्हजेर पडली. मांवाकडच्यान सोडोवन घेवन ते म्हजेसरी धांवत आयलें. व्हडव्हडान रडत म्हणूंक लागलें. 'म्हाका ह्या नरकांतल्यान सोडयरे म्हज्या भावा. ह्या दोगय राकेसांनी म्हाका आपली बायल करून दवरला. हांवें ना म्हटल्यार म्हाका मारतात बडयतात!'

ते दोगय बापूय आनी पूत आंगणांत उबे रावन मारक्या बैलांवरी म्हाका पळयताले. हांव कांय वेळ थंय सुन्न उबो रावलो आनी मागीर वोग्गी परतलो.

दोनच दिसांनी हांव गांवांत आयलो आनी नीट विमलाच्या बापायसरी गेलो. चोयवटेन भूंयक तेकूक आयल्ले तणा चुडटान शिंविल्लें खोंप कशें घर. घरांत दरिद्रतायेन जसो सांवार माणिल्लो. भागिल्ली अशक्त आवय घरांत भायर भितर करताली. बापूय सोरो पिवन कोणाकतरी चरांटून गाळी सवतालो. हांव मुखार वतकीर मात तो गप्प करून थाल्लो.

हांवें विमलाच्या आवयक म्हटलें. 'हांव यल्लापूरात आसता. तुमची धूव विमल मेळिल्ले बेटगेरींत.'

चेडवालें नांव आयकतकीर तिचे दोळे चकचकले. चेहरो फुल्लो. आकूळपिकूळ जायत तिणें विचारलें, 'कशी आसा म्हजी धूव? कितें म्हण्टाली? बरे करून आसा न्ही तें?'

'बरें आसा.' हांवें थंड आवाजान म्हटलें.

आवय तगमगत उलयताली, 'ह्या मसण्यान हांचे नाका नाका म्हण्टाना धुवेक व्हरून पयस रानात दिली. आतां स स म्हैने तेगेली खबर-खुशाली मेळना. म्हजी नखेत्रावरी धूव रे देवा....!' ती रडूंक लागली.

हांवें म्हटलें. 'ताका कितें सांगूकबीन जाय? फाल्या-परा परतो वयतलों हांव.' तांच्या त्या दुर्गतेमुखार म्हाका कितें उलोवचें अशें दिसनासलें. बापूय घुम्म मोनो बसून आसलो. आवयनच म्हटलें, 'आमी मरचेपयली एक दीस येवन वच म्हण सांग. पोराक दिवंक घरात कांयच ना. हेगेलो सोरो, तेतून हांव बरें ना जीवान, वावर उद्योग काय जायना.'

हांव उठलो आनी भायर आयलो. तागेल्यो पाठच्यो दोगी भयणी कुशीन

रावन म्हाका बापड्या नदरेन पळयताल्यो.

परत येताना तांच्या दारातल्या दसणीची खांदी हांवें मोडून घेतली.

तिसऱ्या दिसा हांव यल्लापुरात परत आयलों. बसस्टेंडावेल्यान म्हजे कुडीर येताना वाटेंत हरिश्चंद्र फॉरेस्टर मेळ्ळो. तो म्हजे वांगडा केन्ना रानांनी येतालो. ताणें म्हटलें. 'ती बेटगेरी दिल्ली तुमच्या गांवची धूव, तिणें काल घराफाटच्या एका रूखार गोळ घेवन जीव दिलो. पोलीसांन प्रेत काडून हाडिल्लें. आत्ताच घेवन ते परते गेल्यात.'

हाडिल्ली दसणीची खांदी हातात धरून हांव सुन्न उबो रावलों.

OOO

# सैमचक्र

सैरोबान शेतांत जोत बांदिल्लें. शेतांत बीं रोवचे दीस आसले. वैशाखाचें वत रणरणटालें. तरी त्या वतांत शेतकारांचो चोंयवटांनी कामाचो घडघड चलिल्लो. तेन्ना सैरोबान दोळ्यां वयर हात दवरून गांवा वटेन पळयलें. तेगेली बायल विश्रांती तकलेर चोबो घेवन वतांतल्यान येताली. तकलेर चोबो, येदें व्हडलें णव म्हयन्यांचें पोट, सैरोबाक चुरचुरे दिसले. ताणें मनांत म्हणलें, हें रोवचे आनी लुंवचे दीस अशेच, बरें वायट पळयनासतना कामाक बांदून घेवप. हें विश्रांती म्हण पिसायूच. णव म्हयने लागल्यात काय सोंपल्यात तेंवूय नीट सांगूंक येयना तेका. ताणें जोत रावयलें. मुखार वचून बायलेचे तकले वयलो चोबो देंवोवन घेतलो. तातूंत बिंयांचें भात आशिल्लें. आनी ताचे वयर बारीक चाये किटली आनी भाकऱ्यो. विश्रांती हुमेन बुडिल्लें. तोंड तांबडेंच जाल्लें आनी तेका धांप लागिल्ली. तिणें म्हणलें, ‘तूं चाव पिवन घे. हांव वचून मातशें सावळेंत बसतां. पोटांत कसकसिल्लेवरी जाता.’ तें गेलें आनी थंय कुशीक बांदार आशिल्ल्या जांबळी रुखामुळांत वचून बसलें. सैरोबान हुसक्यान व्हडान म्हटलें, ‘आगो, बरें आसा मुगो तूं?’

विश्रांतीन बेठेंच हय म्हटलें आनी तें पोटा वयल्यान हात भोंवडायत अदमास घेत रावलें. पूण कांय वेळान अचकीत ताका एक खर वेण येयली आनी ती पोटांतल्यान कमरेर आनी मागीर मांडये मेरेन देंवली. मागीर वेणो येतूच रावल्यो. ताणें हात हेळोवन घोवाक आपयलें. घोवान पळयलें, तेका दिसलें तें

तळमळिल्ले वरी करता. तो जोत रावोवन ताचे सरी धांवलो. 'कितें जाता गो विश्रांती?'

'म्हाका पोटांत जावंक लागलां.'

'चल आमी घरा या बेगीन'

'म्हज्यान एक पावल घालूंक जावचें ना आतां. उखलूंय नाका तूं आतां म्हाका. बेगीन जातलें अशें दिसता.'

सैरोबाचेर सगळोच आकांत. ताणें मेरेर आशिल्ली कांबळ बेगिबेगीन सावळेंत सोडयली आनी ताचेर विश्रांतीक न्हिदयलें.

पयस थंय एका शेतांत पांडुरंगान शेतात जोत बांदिल्लें. तेगेली बायल गुणवंती थंय शेतांत सारें वारयताली. ताणें जिवाच्या आकांतान व्हडव्हडान उले दिवन तिका आपोवन घेतली. शेता लागींच वयलेवटेसान देवराईचें रान सुरू जातालें. थंय कडेर एक बांय आसली. ते बांयचेर एक मातयेचें बिंदूल आनी राजू सदांच आसतालो. थंय वचून ताणें बिंदूलभर उदक भरून हाडलें.

कांय वेळानूच उकत्या मळबा सकयल जांबळीचे सावळेंत विश्रांती बाळंत जालें आनी ताका चलो भुरगो जालो. कामशी केल्ल्या उकत्या शेतांत चडटे वत झगमगतालें. शेता पेल्यानच्या देवराईच्या रानांतल्यान शेवण्यां-सुकण्यांचे कसले कसले आवाज घुंवताले. थंय एक निकतेंच जल्मल्लें बाळक रडून जातकच बेठेंच वळवळटालें. गुणवंतीन सैरोबाले माकडेंतली कोयती घेवनूच तेगेली नाळ कापली आनी वार शेतांतूच पुरली.

विश्रांतीक उखलून सैरोबान हड्ड्या सरीं घेतलें. तसोच तो ताका घेवन मैलभर तरी चलत घरा येयलो. फाटल्यान भुरग्याक घेवन गुणवंती. सगळी वतांत घामाघूम जाल्लीं.

भुरगो देवरायेकडच्या शेतांत जाल्लो म्हण ताका देवराय म्हण नांव घातलें. योगायोगान तागेल्या आज्यालें नांवूय देवाप्पा आसलें.

कित्याक, कितें जाल्लें नकळो, देवराय भुरगेपणा सावन आवयबापूय वा कोणूय शेता वटेन वचूंक लागले म्हणटकच तांचे फाटल्यान शेतांत धांवतालो. थंय शेतांत नाचतालो. त्या जांबळीमुळांत बांदार खेळटालो. नवें वारें येयल्लें, गांवचीं सगळीं भुरगीं शाळेंत वचून बरीं शिकतालीं. पूण देवरायालें शाळेंत मनूच लागनासलें. तेका सदांच ओड शेताची, शेतांतले जांबळीचे सावळेची, गोठ्यांतल्या

गोरवांची आनी देवरायेंतल्या झाडांपेडांची, थंयच्या कवडुल्यांच्या गावपाची. जोताच्या बैलांचेर तर इतलो मोग, ते सदां तांचे भोंवतणींच आसताले.

देवराय पंदरा वर्सांचो जालो तेन्ना बापूय सैरोबा मेलो आनी तो सोमतोच शेतकार जालो. गांवचे भुरगे बरे बरे शिकून नोकरेक बी वचूंक लागिल्ले. शेतधंद्याक पोट भरना जाल्लो उणाक धंदो म्हण लेखूक लागिल्ले. पूण देवराय शेताधंद्यातूच पडून रावलो. शेतकाराक चली दिवंक लोक फाटींफडें करताले. तो एका गरिबाले सादेशेच चलये कडेन लग्न जालो. बायलेक केन्ना जांबळीचे सावळे वटेन बोट दाखोवन अभिमानान म्हणटालो, हांगा हांव जल्मल्लों! दिसभर गांवांत, घरांत म्हण रावनासलो. सकाळ सांजचो उठ्ठालो आनी शेता वटेन चलूंक लागतालो. केन्ना दनपारचो तो जांबळीचे सावळेंतूच बसतालो, न्हिदतालो. मागीर बायल थंयच जेवण घेवन येताली. बायल शेतांत येयली म्हणटकच केन्नाय हाणें तिका देवरायेच्या रानांतल्या गच्च झाडांझोंपांच्या आडसरांक घेवन वचप. तागेले बायलेक खात्रीआसा, तांगेल्या पयल्या चल्याचो गर्भ ते देवरायेंतूच रचला म्हण.

चारपांच एकरांचें तें शेत. तेचें तेणें रामराज्य केलें. सोताचे हिंमतिरूच थंय एक व्हड बांय खणून बांदलीं. तिचेर राट घडयली. थंय ऊस, केळी लायल्यो. जिवितांत व्हडली सूखचैन नासली तरी जेवनखावन तुश्ट आसतालो. गांवचे नोकरेक गेल्ले केन्ना गांवांत येयल्यार झेतान पॅण्ट शर्ट घालून मिरयताले देवराय मात तकलेक रुमाल बांदून, कमरेक वालो लावन उकत्या आंगान शेतावटेन वयतालो.

तेका बांदावयले जांबळेचे सावळेचो इतलो मोग, इतली ओड आसली, वतांतल्यान ते सावळेंत वचून बसलो म्हणटकच सगळी थकावट नाच जावन वयताली.

..........आतां ताचें बरेंच वय जाल्लें. भुरग्यांक शेता विशीं व्हडलें आपलेपण नासलें. तरीय तेका पर्वा नासली. हांव आस मेरेन म्हजीं हाडां हांगाच झरयतलों हो हावेस!

एक दीस शेतांत वावर करतना तेका घुंवळ येयल्ले वरी जाली. तो वचून जांबळीचे सावळेंत आड पडलो. वयर रूखार सवणीं किटक़िट्टाली. मदींच एक पिकिल्लें जांबळ आंगार पडटालें. तो जल्मल्लो तेन्ना पातळिल्लो तसोच वताचो

झगझग चोंयवशीन पातळिल्लो. तसोच कामशी केल्ल्या शेतांत बीं रोवचो तेंप सुरू जाल्लो. आवय वरीच तेगेली बायल बियांचो चोबो घेवन घरसान शेता वटेन येवंक सुटिल्ली.

बायल शेतांत पावल्यार देवराय सावळेंत न्हिदिल्लो तिका दिसलो. तिणें बिंयां चोबो मेरेर दवरून तेका उले दिले. पूण तेचो आवाज नासलो. मुखार वचून हालोवन पळयल्यार ताचे कुडींत जिवूच नासलो. कुडीचें लाकूड जाल्लें.

तो त्या शेतांत जल्मलो. जल्मभर त्या शेतांतूच वावर करून तेणें पोट भरलें आनी शेवटाक तो थंयच जल्मल्ले सुवातेर जांबळीरूखाच्या पोंदाकच मेलो! कसलें अजापाचें हें सैमच्रक म्हणचेलें!

OOO

# नागसर्प

आवय पयलींच मेल्ली. शिवबाबू तेन्ना स सात वर्सांचो आसतलो. एका गांवांत ते नागसर्पाची दाली, मुंगूस आनी पुंगी घेवन देंविल्ले. रातभर खूब पावस पडटालो. ते खंय तरी आडसराक न्हिदिल्ले. वाऱ्यान पावसा उदक भितर मारतालें. आंग वयली गोजडी, सकयल हांथुळिल्लें सगळें वलें जावन गेल्लें. असोच आठ दीस पावस पडटालो. बापायक बाजारांत सर्पाचो खेळूय करूंक मेळनासलो. पावस, थंडी, भूक आनी कुडकुड्यान आयिल्लो जोर हातुंतूच आवय मेली. तेन्ना बापायन आवयक साकांत गुठलायली. शिवबाबुल्या हातांत सर्पाची दाली आनी मुंगुसाल्या गळ्यांतली दोरी दिवन तेका थंयच बसयलो. तो आवयचो साक घेवन खंय तरी गेलो. सकाळीं गेल्लो तो दनपारांच परतलो. शिवबाबूक बापायन बसयिल्लो थंयच तो सर्प आनी मुंगुसाक घेवन बशिल्लो. खूब भूक लागिल्ली. बापायन येवन पुंगी वाजयत सर्पाचो एक खेळ केलो. मागीर तांणी एका होटॅलांत वचून पावभाजी खायली.

अशे ते तीन चार वर्सां सर्प आनी मुंगूस घेवन पुंगी वाजयत गांवांनी भोंवताले, खेळ करताले. बापूय नागाक आनी मुंगुसाक वांगडाच सोडटालो आनी तांचें आत्तां झगडें जातलें, आत्तां जातलें म्हण जमिल्ल्यांक भासयतालो आनी पयलीं पयशे काडटालो. पूण तांचें झगडें केन्ना जालेंच ना. केन्ना बापूय हातांत नागसर्प घेतालो आनी फुकट खेळ पळयतल्यांक वायट उतरां दितालो. मागीर ते लोक एकतर पयशे उडयताले नाजाल्यार ओगी चलूंक लागताले. बापूय

पुंगी मात खूब बरी वाजयतालो. नागाक बेस धोलयतालो. नागूय बरो वांवभर, चकचकीत आंगाचो शिटूक आसलो. विखाचो दांत पाडिल्लो आसलो.

एका पेण्यार एका गांवांत आसतना मुंगूस मेलो. भर दनपरां एके कडेन बशिल्ले आसतना एक सुणें धांवन येयलें आनी ताणें मुंगुसाचे गोमटे कडेनूच घांस मारलो.

मुंगूस मरत सावन बेठो नाग दाखोवन भीक मागचेंच येयलें. तेन्ना बापायन एक युक्ती काडली, तो कोणाल्याय बागांत घरा फाटल्यान सर्प व्हरून झाडांत दवरतालो आनी मागीर मुखार वचून घरच्या मनशांक सांगतालो, तुमच्या बागांत भोव विखारी नागसर्प आसा, तो धरून हांव रानांत व्हरून सोडटां. देव ती मारूक फावना. हांव वासानूच सर्प सोदून काडूंक जाणां. तुमी कितेंय उडयात मागीर.

लोक भियेवन तयार जाताले. मागीर बापूय बेठो भोंवलोसो करून दवरिल्लो सर्प धरून हाडटालो. पयशे काडटालो. पूण एके कडेन एकल्याक दुबाव आयलो, धरून हाडिल्ल्या सर्पाक हांगाच उडय, हांव ताका तोण्यान मारतां म्हणूंक लागलो. तेन्ना बापायन थंयच्यान फुज्यो काडली. सर्पाक घेवन तो कुल्यांक पांय लावन धावंक लागलो. शिवबाबूच्या हातांत रिती दाली आसली. तोवय तसोच धांवतालो.

मागीर तसोच दोन तीन वर्सांनी बापुयूय मेलो. ह्या दिसांनी रातभर खोंकतालो तो. बापूय बसस्टँडा वयल्या एका कोनशात मरून पडिल्लो, भागिल्लो, बरगेल्लो हाडांचो एक सांपळो. शिवबाबू थंयच एका बांकड्यार सर्पाची दाली घेवन बशिल्लो. पुराय दीस आनी एक रात प्रेत थंय पडिल्लें आसलें. दुसरे दीस सकाळीं म्युनिसिपालिटीचे लोक येयले आनी तांणी शिवबाबूच्या दोळ्यां हुजिरूच बापायचें प्रेत उखलून व्हेलें. तो भियेवन इतलो सुन्न बशिल्लो, प्रेत उखलतना तो उठलो लेगीत ना.

मागीर तो उठलो आनी ताणें मुखार उबो आशिल्ल्या एकल्याक दालयेंतलो सर्प उकतो करून दाखयलो आनी म्हणलें, हाका दुदाक कितें तरी दी. ताणें दोन रुपया दिले. शिवबाबून बेगिनबेगीन वचून एक पाव घेवन खायलो. सर्पूय काल पसून उपाशीं आसलो. भितरले भितर तो खुडखूड करतालो. ताणें उरिल्ल्या पयशांचें एक तांतीं घेतलें. तें ताचे मुखार दवरतकच ताणें तें सोमतेंच गिळून घेतलें. भितर वयतना गळ्यांत तें फुटिल्ल्याचो आवाज येयलो.

ताका बारा सोंपून तेरावें लागिल्लें. तो आतां खेळ करिनासलो. पुंगी वाजयनासलो. खंयूय कोणा मुखार सर्पाची दाली उकती करतालो आनी म्हणटालो, 'हाका दुदाक कितें तरी उडयात. देव तो आमचो तुमचो.' लोक पयसुल्ल्यानच ताच्या पांयांसरीं पयशे उडयताले. दीस चड वायट वचनासले. दोगांल्याय पोटाचें भागतालें. सर्पाक एक तांतीं दिल्यार पुरतालें. शिवबाबू जाणा आसलो, सर्प दूद केन्नाच पियेना. पूण सर्पाक दुदाक कितें तरी उडयात हें म्हणप चलून येयिल्ले आसले. ताची आवय, ताचो बापूय तेंच म्हणटाले.

एक दीस सर्पा दाली घेवन एका गांवांत बाजारांत भोंवतना मोटारसायकलीर दोन राना खात्याचे लोक आयले. म्हणलें, 'सर्पाक असे दालयेंत घालून घेवन भोंवप कायद्या भायलें. तूं जेलात वचूंक सोदता?' खाकी भेसांतल्या त्या आडदांड मनशांक पळोवन तो भियेवन गेलो.

तांतल्या एकल्यान दालये सयत शिवबाबूक मोटारसायकलीर बसयलो. तो ताका घेवन दोनेक मैलांचेर आशिल्ल्या दोंगरा कडेन गेलो. थंय त्या मनशान ताका धांपणें काडून दाली झाडांत उपडी करूंक सांगलें. दालयेंतल्यान सर्प सकयल पडटकच तो थंयच्या झाडांझोंपांनी रिगलो. तेन्ना शिवबाबू हांबेऱ्यांनी रडलो. सर्पाक सोदूंक झाडांत घुसूक लागलो. पूण त्या मनशान ताका ओडून हाडून मोटारसायकलीर बसयलो.

मुखाल्ले दोन दीस तो दोंगरा कडेन वयतालो. तागेल्या नागसर्पाक सोदतालो. चूं चूं चूं करून आफयतालो. पूण सर्पाचो मागमूस नासलो. सर्प दिसना जातकीर दोंगराकडेर बसून एकलोच रडटालो.

हेवटेन मनशाच्या वासाची, आवाजाची संवय जाल्लो नागसर्प एकलो एकसुरो थतरवितर जातालो. ताका मनशाच्या आवाजाची ओड लागिल्ले वरी जाल्ली. तो मेकळो मुक्त आसलो. पूण ताका त्या मेकळेपणाचीच भिरांत दिसताली. परत एक फावट दालयेंत कंवडाळें करून सुरक्षीत पडचें अशें दिसतालें. तो मनशाच्या आवाजाचे वेध घेत गांवावटेन देंवतालो.

तिसऱ्या दिसा शिवबाबू दोंगरावटेन वयतना ताका गांवांत एकेकडेन कांय लोक जमल्यात आनी कितें तरी पळयतात तें दिसलें. तातूंतल्या दोगांल्या हातांत दांडे आसले. शिवबाबून थंय वचून पळयल्यार त्या लोकांनी तागेलो दांत काडिल्लो नागसर्प मारून घातिल्लो. तो सर्प आपलोच म्हण तो ज्युस्त वळखलो.

हातांत दांडो घेतिल्लो एकलो व्हडाव्हडान सांगतालो, मोटो विखारी नाग तो, कोब्रा, चाबल्यार आक्ताक मरण. ती पळय तकलेर तुळस आनी गळ्याचेर विखाचे पाट. आज रातचो कोणाल्याय घरांत घुसतासलो घांस मारूंक.'

शिवबाबू रडप विसरून नागासरीं मख्ख पळयतालो. तो ताचो इश्ट आसलो, पोट आसलें. बापूय सोडून गेल्लो एकूच म्हालवज आसलो...

ooo

# सुण्यापेटो

रामेश्वराच्या घराण्याची थंय धायेक एकर जमीन आसली. ताका एक बरें गिरायक आयिल्लें. कोणतरी कारखानो घालता म्हण ती विकत घेवंक सोदतालो. जमीन रस्त्याक लागुनूच सकयलमेरेन आसली. थंयच कुशीक एक म्हारवाडो आसलो. थंय तांचीं पांच घरां आसलीं. केन्ना खंयचे येवजणेखाला बांदून दिल्ली मातयेचीं, नळ्यांचीं घरां आतां कोसळूंक लागिल्लीं. वणटीक खांवटें पडिल्लें आनी लाकूड कुसून नळे देंवूंक लागिल्ले. ते गांवांत वचून कसलोय वावर करून, मागून हाडून खाताले.

एक दीस रामेश्वर रस्त्यार गाडी थांबोवन ती जमीन नीट पळोवन येवची म्हूण देंवलो. पुराय जमनींत भोंवन म्हारवाड्याच्या कुशीच्यानूच येतना थंय उबो आशिल्लो दुगा दिसलो. रामेश्वराक पळोवन ताणें 'खंय गेल्ले तुमी देवमनशा?' म्हूण हटकिले. रामेश्वर म्हऱ्यांत गेलो. काळ्या, तुकतुकीत आंगाचो दुगा उकत्या आंगानूच उबो आसलो. भेंडाक फकत काश्टी आसली. ताचे म्हऱ्यांतूच निकतीच व्हियेल्ली, आंचळां देंविल्ली, पोटान भागिल्ली सुण्या कोली उबी आसली. ती दुगालो पांय ल्हेंवताली.

तेन्ना कोलयेचे चार-पांच पेटे दुगाल्या घरावटेच्यान धांवन आयले. म्हयन्याचेच आसतले ते. बरे नितळ शिटूक दिसताले. तातूंतलो एकलो तरतरीत शिटूक पेटो सामको रामेश्वरा म्हऱ्यांत येवन उबो रावलो. सामको रामेश्वराक पळयत, दोळ्याक दोळो दीत. तो भारीच सुंदर आसलो. कुळकुळीत काळ्या

आनी धव्याफुल्ल खांपांचो पेटो. लांब आंगलोट आनी सोंडीय तशीच लांब सुळो कशी. तो रामेश्वराक भोवच मानवलो. म्हज्या नव्या बंगल्याच्या दारात सोबतलो हो. 'दुगा हे पेटे तुगेले?'

हय गा. हे कोलयेचेच ते. दर वर्सा दिता ती पेटे. पूण ते थारनात हिंगा. भुकेन मरतात नाजाल्यार व्हड जातकच वयतात गांवार. ही कोली मात फाटलीं णव वर्सां आसा म्हजे वांगडा. हांव जेवंक ताट भायर घेवन येतां, एक उंडी तेका उडयतां, एक हांव गिळटां.

'हो पेटो हांव व्हरूं?'

'व्हरात तुमी. तुमच्या व्हड घरा बरो खावन उरतलो.' रामेश्वरान त्या पेट्याक उखलून खांकोळांत घेतलो आनी ताका घेवन तो गाडयेंत घालून घरा आयलो. तो घरा पावलो तेन्ना बायल न्हावन देवांचीं नांवां घेत देवघरांत पुजा करताली. बारीक घांट वाजयिल्ल्याचो किणकीण आवाज येतालो. रामेश्वरान बंगल्याचे गॅलरींतल्यानूच उलो दिलो, 'शुभांगी कितें हाडलां पळय.'

बायल पुजा अर्द्यारूच सोडून भायर आयली. रामेश्वराच्या खांकोळांतलो तो पेटो पळोवन भुल्लुसलीच! 'काय बरो दिसता न्ही' म्हणीत तिणें पेट्याचे फाटी वयल्यान ल्हव हात भोंवडायलो. खंय सावन हाडलो काय म्हूण बायलेन विचारतकच ताणें आपल्या एका बऱ्या 'सवर्ण' इश्टाचें नांव सांगलें. 'दवरात, मागीर हांव ताका दूद दितां' म्हणीत ती भितर गेली आनी परत देवाचे पुजेक लागली.

बायलेन पेट्याचें भोव बरें करून पालनपोशण केलें. ताका ती दूद-भात खावयताली. दिसा आड न्हाणयताली. केन्ना आपल्या हांथरूणांत न्हिदयताली. आपले गोरे गुबगुबीत पोले पेट्याचे सोंडयेक घांसताली. आपल्या भुरग्याक कुशीक लोटून ताका म्हऱ्यान घेताली. खूब अर्थ अपुरबाय करताली.

दोनेक म्हयन्यांनी पेटो आंगान बरोच मातलो. लांबरूंद जालो. आंगाक चडूच लिकलीकसाण आयली. व्हड व्हड दोळे नितळ काळे जाले. आतां तो खरोच व्हड घरांतलो झेताचो कुत्रो दिसतालो.

एक दीस दुगा म्हार कसल्या तरी वावराक लागून गांवांत आयिल्लो. उकतें आंग, तकलेक तुवालो आनी कमरेक काश्टी. गांवांत आयिल्ले कडेन ताका रामेश्वराक आपणें दिल्ल्या पेट्याची याद आयली. तो ताच्या घरा सरीं गेल्यार

पेटो गॅलरींत सोंपणां सरींच बशिल्लो आसलो. म्हऱ्यांत वतकच ताणें आंग फुलोवन भोंऽव केलें. मागीर मात वळख पटिल्लेवरी तो थंड रावलो आनी शेंपडी हालोवंक लागलो. दुगा मुखार गेलो आनी ताच्या फाटीवेल्यान हात भोंवडावंक लागलो.

इतल्यान रामेश्वराची बायल भायर आयली. ती दुगाक पळोवन एकदम आड्डुली, 'आरे, आरे, कितें करता तूं? आफुडलो ताका, भश्टायलो तुवें ताका. कसलो पाड भश्ट मनीस मरे तू.'

दुगा दाडी खाजयतसो बावडो जावन कांय वेळ उबो रावलो. मागीर आपले वटेन चलूंक लागलो. थोडे मुखार वचून ताणें फाटीं वळून पळयल्यार रामेश्वराली बायल भितरल्यान उदक हाडून पेट्याच्या आंगार रकयताली आनी ताका न्हाणोवन शुद्ध करताली.

ooo

# हरीहर

त्या तेपाक सैन्यात भरती करून घेताना फक्कत कुडीची तांकच पळयताले. बुद्दिची तांक कोण पारखी नासलो. म्हणच हरीहर सैन्यांत नदरचुकीन भरती जाल्लो.

हरीहर कुडीन गडगंज आसलो. हो मोटो, उंच पूण कुडीक आकार नासलो. आंगाचे स्नायू अळंग लबलब हालताले. तोंड पसरट सपाट. दोळे धंवशे, तातूंत कसलेंच तेज नासलें. अठरा वर्सांची पिराय पूण भुरग्यावरी वागतालो.

तो भरती जावन आमचे वांगडा बेळगांवच्या छावणेत प्रशिक्षणाक आयल्लो. रोखडेच तेचे अबरगतपण दिसून येवंक लागलें. मेसान जेवंक मेजा कदेला आसली. पूण पयली आठ दीस तरी हो मेजार कसोच बसनासलो. ताट घेवन एक कोनशान वयतालो आनी भूंयेर बसतालो. ताट दवरून उदक सोडटालो. मुखार गिरास दवरतालो. एक दीस मेस इनचार्ज सुभेदार बिराजदारान हातांत बडी घेवन धपकायले आनी वयर बसूंक लायले. गांवांत तो कास्टी मारतालो. आतां कोमन नळार तो कास्टी लावन न्हांवक लागलो. रातीन न्हीदताना तो कमरेवेले मोटवे कालसांव काडून दवरतालो आनी कास्टेरच न्हिदतालो. एक दीस रातचे 'लायनबंद' केले तर हो कास्टेरच येवन लायनींत उबो रावलो.

मैदानाचेर प्रशिक्षणाच्यो कवायती सुरू जाल्यो आनी तेची पिशेपण चडच कळूंक लागलीं. 'तेज चल' म्हटले की दोनय हात एकच फावट काडटालो. चलताना मुखावेल्या रिक्रूटांवांगडा पावल जुळोवंक कळनासले. सावधान जाताना

हेगेलो पांय सगळ्या उपरात धब्ब करून भूंयर पडटालो. धांवतासताना हेगेले कुडीचे धड फाटि गेल्ले आनी पावलां मात मुखार. तेन्ना तो धब्ब धब्ब धांवताना विचित्र दिसतालो. पि.टी. चो खंयचोच हात तेचेकडेन जायनासलो. म्हण तेका सगळ्यांत फाटी उबो करताले. खरें तर तो सर्वतांकीन सोताक सुधरचे यत्न करतालो. पूण तेचेकडेन कांयच धड जायनासलें.

शेवटा तो अबरगत अर्दकुटो म्हण रिपोर्ट कंपनी कमांडराकडच्यान रेजिमेंट कमांडरांक पावलो.

तसो हरीहर मनान, चलणुकेन एकदम बरो आसलो. कसलेच अडांगीपणा, हटीपणा नासलीं. उलयताना बापडो कसो जाले न्हू भाऊ, कळले न्हू भाऊ, करून उलयतालो. एक दीस तेणे म्हाका एक खबर सांगली, 'पावसांत एक दीस हांव भयणीक घोवाघरा पावोवंक गेल्लो. त्या वर्साकच लग्न जाल्लें न्हू तेगेलें. पावस पड्टालो. एकच सत्री, भयण म्हजेर सत्री धरता, हांव भयणीचेर सत्री धरता, दोगांय भिजली न्हू. भावोजी बरो मनीस, तेणी म्हाका गोठ्यांत व्हरून नवों घेतिल्लो बैल दायखलो. तेगेल्या मांयन रातचे पातोळ्यो केल्ल्यो. हळदी पानार पातोळ्या न्हू. पांच पातोळ्यो तिणें वाडल्यो. कुसुमान आनीक एक हाडून घातली न्हू........'

हरीहराक प्रशिक्षकान उलयल्ले मराठी, हिन्दी कळनासले. एक दीस प्रशिक्षकान तेका विचारले, 'तुजी मांयभास खंयची?' हरिहरान मात्से चितलेसे केले आनी म्हटलें, 'बाप्पाक पत्र लिखून विचारता.'

तेचो एक कान वयर तोपिल्लो आनी समतेच दोन मुद्यो घातिल्ल्यो. हांवें विचारलें, ह्यो दोन मुद्यो कशो? तेणे सांगलें, 'म्हज्या पयली आईक दोग पूत जावन मेले न्हू. हांव मरचो न्ही म्हण म्हाका कोयर म्हण नांव घातिल्ले बाप्पान. मागीर शाळेंत घालताना हरीहर केलें. गांवांत कोयरच म्हण्टात.'

रेजिमेंट कमांडराकडेन रिपोर्ट पावतकीर ते एक दीस सोता कवायती मैदानार येयले. तेणे तेची ड्रील, पि.टी. बीन पळयली आनी तेका पारखिले. मागीर ऑफीसांत वचून तेका परतो गांवांत धाडची आज्ञा काडली.

सांजचे प्लाटून कमांडर सदाशिव मोरेन येवन तेका सांगले, 'तूं परतो गांवांत वयची तयारी कर. एकदोन दीसान वयचे पडटलें.'

हाचेर हरीहर खूब रडलो. पुराय सांज रडतच आसलो.

दुसऱ्या दीसा क्वार्टर मास्टरालो मनीस तेका दिल्ली फौजी मुस्तायकी परत काडून व्हरूंक येतकीर तो एकदम हिंसक जालो. तेका मारूंक वचूंक लागलो. 'ना दिना, हांव वयचो ना!' म्हण तेणे तेका बोचके काडले. मागीर आनीक कांय जण येवन तेका धरूनच तेची पेटयेतली सगळी मुस्तायकी काडून व्हयली.

हावें म्हऱ्यान बसून हरीहराक समजायलें, 'कमांडिंग ऑफीसराची ऑर्डर म्हण्टकीर कोण कांय करूंक शकनात. तूं गांवांत वच.'

'म्हाका लज दिसता. बाप्पा सवतलो. आई तुजेकडेन जालें ना म्हण्टली न्हूं. हांव वयचो ना. गाडयेपोंदाक जीव दितलो.' ताचें तोंड इतलें बाविल्लें सामकें सुकून गेल्लेवरी दिसतालें.

म्हाका तेचें तें उलोवप लागलें. मनान म्हटलें हाका एकलो सोडूंक फावना. हांव प्लाटून हवालदार मोरेसरी गेलो आनी सांगलें, 'तुमी आतां तेका पिसो थारायला. कारवारसान भरती जावन येताना तो हेरावांगडा ग्रूफांत येयल्लो. तो पिसो तर आता एकलो बेळगावसान कारवार मेरेन कसो वयतलो. चुकूनबीन पडलार?'

हवालदार मेरेन ही खबर कंपनी कमांडराक सांगली. तेका तें खरें दिसलें. शेवटाक हरीहराक पावोवंक हांवय कारवारचो म्हण म्हजीच नेमणूक जाली. तीन दीस रजा आनी वयचो येवचो तिकिटां खर्च.

दुसऱ्या दिसा सकाळीच प्लाटूनातले सगळे रिक्रूटस परेडी मैदानार वयतकीर हांवें हरीहराक म्हटलें, 'यां', तो कुल्यांक चरमां फुटिल्लेवरी पेटयेर बशिल्लो. तोंड इतले बापडे जाल्ले पळयल्यार कोणाकय रडूंक येवंचे. तेणें परते तेच म्हटले, 'म्हाका लज दिसता गांवांत वचूंक. बाप्पा सवतलो. बाप्पा म्हस घेवंक जाय म्हण्टालो न्हूं.'

वाटभर बशीच्या प्रवासात तो मदींच भियेल्लेवरी जातालो, रडूक पाविल्लेवरी करतालो.

आमी ताच्या घरा पावले तेन्ना सांज जाल्ली. सगळी घराच आसली. पळोवन तेगेली धाकली भयण धांवत येयली आनी 'भाऊ' म्हण तिणें तेगेलो हात धरलो. हांवें बेगीबेगीन मुखार वचून तेगेल्या आवय बापायक सांगलें, 'तेच्यान सारखी जायनांत ती मिलिटरीचीं कामां. परतो धाडलो तेका.'

आवय वासरेंतल्यान उठून भायर येत तिणें म्हटलें, 'हांवें जाणाच आसलें

देवागुणाच्या पोराक म्हज्या त्या जड चाकरेंत त्रास जातलेच म्हण. बरे केले तेका हाडिल्ले.'

मागीर बापायन भायर येत म्हटलें, 'सोड कित्याक जाय तेका ती कठीण नोकरी. घरा पूर्वजांली आसा पांच स खंडयेची पिकाळ जमीन. उपाशी पडचो ना. जाल्यार एक म्हस घेवन दितलो हांव तेका.'

OOO

# हेडकूक

सदाशीव पवार एक दलीत रांदपी आसलो. फौजेची ती पुराय चार्ली कंपनी जातून सगळ्या जातीचे लोक आसले ते सेगीत पंदरा वर्सां एका दलीतान रांदिल्ले जेवताले. हे विशीं कोण्णाचो आक्षेप नासलो, कोण्णे केन्ना हरकत घेवक नासली. उल्टे सदाशीव कामाक इतलो तत्पर आसलो, हेरासरी इतलो मायेमोगान वागताले तो सगळ्याकच आपलोसो दिसतालो. तो आपलें ताट वाडून घेवन जेवंक बसल्यार कितलें वाडून घेतल्या रे पापया म्हणत कोणय तेगेल्या ताटांतले उखलून आपल्या ताटांत घेतालो.

प्रत्यक्ष रांदचे कुडींत रांदूक हाडून घातिल्ल्या सामानाची जबाबदारी 'हेड कूक' म्हण सदाशिवाची आसताली. पूण कोणय जवान भीतर सरून केन्ना कच्चे खांवक म्हूण गाजर, फ्लॉवर, कांदो असल्यो वस्तू उखलून व्हरतालो. तेन्ना सदाशीव हातांतली दाय, लाटणें कितेंय आसा तें घेवन ताच्या फाटीक लागतालो. कंपनी कमांडराक सांगतलो म्हण्टालो. मागीर आकुळपिकूळ जावनसो म्हण्टालो, 'जेवण बरे जाले ना जाल्यार सगळे म्हाका सवतले. म्हजो हात बरो न्ही म्हण्टाले.' तेन्ना जशी म्हालआवयची सया ताच्या तोंडार आसताली.

सदाशीव रांदतालो बेस, सामकें वेळाभितर. जेन्ना जवान परेडी मैदानावयल्यान परत येताले तेन्ना तेगेले जेवण बाकार मांडून दवरिल्ले आसताले. पूण तो वाडूंक केन्नाच बसनासलो. तेचो असो समज आसलो आपणे वाडूंक लागिल्ले जिन्नस

बेगीच सोंपतात. निमाणेमरेन पावनांत. खरेच आसतले ते, तेणें मारिल्ली दाय, दोवलो पुराय भरूनच वयर येतालो आनी ताटात पड्टालो. मेसांतले मसाल्या सामान बेगीनच सोपता म्हण मेस कमांडर जाय ते फावट तेका तापयतालो. बारीकसाण म्हण तेच्या हाताक खबरच नासली.

देविल्ल्या आंगाचोसो सदाशीव चलताना पुराय भार भूंयेर घालून घुप्प घुप्प पावलानसो चलतालो. तेचो जड लांब हात, व्हडव्हड चपके हतिले सोंड कसे हालताले. तेका जेवंक इल्ले चडच लागताले. म्हण तोच पुराय मेसांतले खावन उडयता म्हण कोणय लुच्चो कागाळ लेगीत करतालो.

केन्ना सदाशीव एकदम म्हऱ्यान येवन उबो रावतालो. मुखाल्ल्या मनशाल्या शर्टावेले म्हेळे झाडलेलो करून मोगान, मनान उलयल्लेवरी उलयतालो. घरच्यो खबरीबीन विचारतालो. एक दीस तेणें म्हाका आपली घरची खबर सांगली, तेका घरसान वांगडाच दोन चिटयो येयल्ल्यो, एक बायलेली दुसरी आवयची. बायलेन तेगेले आवय बापूय आपणाक खूब त्रास दितात म्हण बरयल्ले तर आवयन बायलेविशी खूब कागाळ्यो केल्ल्यो. बायलेच्या नांवार मनिऑर्डर कित्याक धाडटा काय म्हण राग काडिल्लो.

हांवें म्हटलें, 'कोणाचे चुकता अशे दिसता तुका?'

'बायलेलें तोंड धड न्ही रे. दांत लायल्ल्यावरी उतरां. कोणाक लागतले, कोण दुखतले हेचे भानच ना. आवय पयलीनसून सगळ्यासरी झगडूंक मुखारच. आत्ता झगडटली आत्ता उलयतली. हे फावट हांव रजेर घरा वचचोच ना पळय.'

त्या दिसा ताणें केन्टीनान वचून रम् हाडलो आनी बरोच घेतलो. पूण बोवाळ केलो ना.

मेसा भितरलो आनी मेसा भायर वाटेर, बराकीत सदाशीव सामको वेगळो आसतालो. मेसांत तो सगळ्यार शेक चलोवपी, कामाक वाग आनी भायर तितलोच मेंगो, मोनो, मान बोगवल्लोसो.

एक दीस कितें जालें, ठेकेदारान ओली लाकडां हाडून मेसामुखार उडयली. सकाळी उठून ती चुलीक सारूंक गेल्यार कशीच पेटना जाली. सगळो धुंवर जातालो आनी लाकडां तोंडासरी काळीं लोखणेल्ली जावन पडटालीं. कशीच उजो घेयनासलीं. फुंकून फुंकून सदाशिवाले, तेगलो पालवी रांदपी सखाराम

देवण्णाचे दोळे सुजून तांबडे जाल्ले. तेणी कसोतरी कंपनीक चाव आनी सकाळचो ब्रेकफास्ट करून दिल्लो. आतां दनपारचें जेवण ते करूंक लागिल्ले. तेणी कुराडेन फोडून फोडून तेच्यो कापट्यो केल्यो आनी चुलीक लायल्यो, पूण त्या लांकडांची जातच कसली बाबत कोण जाणा, पेटून पेटनासले. सदाशीव रडूंक पाविल्लो. दनपारां कंपनीची प्लाटूनां मैदानावेल्यान जेवक म्हण येयल्यार फक्कत दाळ आनी भाजी जाल्ली. शीत, चपात्यो जावच्योच आसल्यो. कंपनीक परत रोखडेच फायरिंग रेंजार वचूंक जाय आसले. थंय कमांडिंग आफीसर येवंचे आसले.

परेडी मैदानार पांय धाडावन जवान भुकेल्ले आसले. तातूंत बेगीन परतून वचूंक जाय आसलें. मेसांत कसलो त्रास जाला हाचो विचार करीनासताना जवान बोवाळूंक लागले. ही खबर आदी कंपनी सुभेदाराक मागीर थंयसान कंपनी कमांडर मेजार धिल्लनाक पावली.

कंपनीक जेवन फायरींग रेंजार पावंक सामको देड वर कळाव जाल्लो. कमांडींग ऑफीसरान हेविशी मेजर धिल्लनाक धारेर धरिल्लो.

सांजचो धिल्लनान सुभेदाराक सांगून हेड कूक सदाशिवाक ऑफीसांत आफोवन घेतलो. चार्जसीट तयार करूंक सांगलें.

सदाशिवान ओल्या लांकडांची खबर ताका दोळ्यांत उदक हाडून सांगली, ‘लांकडां पेटनासली. ओल्या लांकडांचे फकत कोळसो जातालो. फोडून घातली. फुंकून फुंकून हड्डे दुखले.’

‘तुवें खबर क्वार्टर मास्टराक सांगिल्ली? कंपनी सुभेदाराक सांगिल्ली?’

सदाशीव वोगच रावलो.

ताका मेजर धिल्लनान सात दिसांची पिट्टू परेडची ख्यास्त फर्मायली. तेणे आता सात दीस सद्दां दनपरा एक ते दोन वोतांत फाटीर पिट्टू घेवन धांवचे. पिट्टूत वीस किंलाचे वजन.

तेन्नासावन सदाशिवाल्या तोंडावेले हासेच मांवळिल्लेवरी जाले. तेचे बोवाळप तेचे मस्कऱ्यो उणे जाल्यो. आतां सदा इल्लो चडच रम घेवंक लागलो.

उपरांत कांय दिसांतच बटालीयन जोशीमठ म्हणिल्लेकडेन हिमालयांत पावले. थंय आठवड्यांतल्यान दोन फावट रातचो फुकट रम् वाट्टाले. जे घेनासले,

वा नव्यानच कंपनीत आयल्ले कांय जवान आपलो रम् जाय ते फावट सदाशिवाक दिताले. तेचो सोताचो आनी तो दिल्लो मेळून तेका तो चडच जातालो. घेतकिर इल्लो चड बोवाळकूय लागिल्लो.

ल्हव ल्हव सदाशीव सोऱ्याच्या नादाक लागलो. तो सोळा वर्सां आपली नोकरी सोपोवन निवृत्त जालो तेन्ना पुराय सोऱ्या स्वाधीन जाल्लो.

○○○

## दुदा-दांत

शकुंतल काचाबूल जावन धांवत येवन रूक्मिणीच्या घरांत घुसून सोमतेंच तिचें चुलीसरी वचून बसलें. रुक्मिणी ताका बारीक पळयताली, कितें जालां हाचें.........

विशेक घरांचो तो वाडो, बिनवंयचो उत्तो. वाड्यार एकाच सारकी बेठी गांवठी नळ्यांचीं, मंगळूर नळ्यांचीं घरां. मदींमदीं आंब्याचे, पणसाचे रूख, तांच्यो सावळ्यो पातळिल्ल्यो. गांव घरापरस ह्या सावळ्यांनीच चड रमतालो. पावसाळो सोडल्यार गीमभर लोक सावळ्यांनीच पडिल्ले आसताले.

घरा आशिल्ली पूण घरांत न्हाणी, मोरी नाशिल्ली. दर एका घरा फाटल्यान उक्त्यार पोल्ली करून भाणांत उदक तापयताले. थंयच चुट्टाचें कडवें करून तातूंत बायलो न्हांवताल्यो. केन्ना पावसांत चुट्टां कुसून गळून पडटालीं, विसकळ जातालीं. भायल्यान सगळें झळकतालें. तरीय बायलो बिनधास्त तातूंत न्हाताल्यो. झाडांच्यो सावळ्यो न्हाणये कडव्यार पडटाल्यो आनी बायलो घडये तातूंतच स्वताक सुगूर मानताल्यो.

लुंवणेचे दीस आसले, सगळे शेतकार, तांगेल्यो बायलो विळे घेवन शेतांनी लुंवंक गेल्ल्यो. वाड्यार चड जाण्टे, जाण्टेल्यो आनी भुरगींच आसलीं. आनीक एक वाड्यार आसलें सदाले चेडूं शकुंतल. आयज सदाल्या शेतांत चड कामदार आसले म्हूण रांदूक ताका घरा दवरिल्लें.

शकुंतलाक निकतीच सतरा सरून अठरा लागिल्लीं. सदा आपल्या

चेडवाच्या लग्नाचे खटपटींतच आसलो. मर्दींच खंय खंय वचून येतालो. पूण शकुंतल गोरें आनी बरेंच सोबीत आसलें. तिका फावसारको न्हवरो मेळनासलो. आनी सदा कोणाय अनाड्याक आपलें चेडूं दिवंक तयार नासलो. ताका बरे, म्हौंवाळ मनाचें चेडूं म्हणून लोक वळखताले.

शकुंतल घरा फाटल्या चुडटाचे कडणेंत न्हातालें. पावसाळो सोंपूंक हेराले कडणेवरीच तिवूय बरींच विसकळ जाल्ली. तरीय ते कमरेर घागरो दवरून वयलें आंग उक्तें सोडूनच न्हातालें.

तें हड्ड्यान घसघशीत, बरेंच थानाळ आसलें. पोल्काचीं बटणां परतीं परतीं उसवतालीं. केन्ना बेसावध बागवल्लें आसताना हड्डें एकेवटेनसावन लखून पडटालें.

आज तें अशें कमरेवयलें आंग उक्तें सोडून न्हातना सोनुलो चेडो गजू ताका आकुळपिकूळ जावन पळयतालो. धा वर्साचो तो भुरगो लागींच पेरी रुखासरी उबो आसलो, तेवटेन कडणी इल्ली चडूच विसकळ आसली.

तो पळयता ते घडये शकुंतल जाणा आसलें. आपलें सोबीत कुडोच हो न्हाणा सुवाळो कोणें तरी पळोवचो म्हणुनूय तें वगी राविल्लें जावंये. हो तर सानुलो भुरगो!

शकुंतल न्हावन जातकच हड्ड्यार एक बारीक तुवालो घेवन भितोडेंतल्यान घरांत आयलें. तें घरांत येवन न्हेंसूंक म्हूण तुवालो कुशीन काडटा थंयच आसा गजू फाटल्यान धांवन आयलो आनी ताच्या हड्ड्याक लागलो. दोनय हातांनी मोमे धरून ताणें आपलें तोडं थंय घांसलें, बारीक येदोसो पोर. शकुंतलाक खीणभर कांयच कळ्ळें ना. भानार येतकीर ताणें ताका एकदम फोर्सान धुकलून दिलो. तो भुंयेर शेंवटून पडलो. ताका इतलो राग आयिल्लो पडिल्लेकडेन एक थापट दिलें.

मागीर ताणें बेगीबेगीन आंगार पोल्क घालें. तें तशेंच ओडून घेत तें धांवत रुक्मिण आवयसरी आयलें. काचाबूल कशें भायल्यान धांवन आयलें आनी सोमतेंच रांदचेकुडींत पोल्लेवरी येवन बसलें. पोल्काक अर्दीच बटणां लायिल्लें तागेलें हड्डें सामकें वयर सकयल जातालें. हड्ड्याची फूग एकेवटेन चडूच वयर सरिल्ली.

रुक्मिणीन विचारलें, 'आगो कितें जालां, वाग फाटीक लागिल्लेवरी धांवन

येयलेंशें?'

बेठेंच कडकडलेशें करून ताणें म्हटले, 'शीं खाता गे म्हाका. तुगेले रांदचे कुडींत कितली उब गे!'

'कसलें शीं खाता? आंगाक उजो पडचे दीस मगो तुगेले.'

शकुंतल हांसलें आनी हड्डें आवरून घेवंक लागलें. मागीर ताणें सट करून म्हटले, 'रुक्मीण आवो, गजूले दुदा दांत झडले गे?'

रुक्मिण गोंदळांत पडिल्लेवरी जाली. 'कित्याक म्हणटा, कितें जालें तर?'

'येदोसो पाड पडिल्लो, आमगेल्या आळ्यातले तवश्यां वालीक धरून तंवशे ओडटलो तवनास.'

रुक्मिणीक दिसलें आयज हें आंकवार चेडूं आगळोच वारो वेळिल्लेवरी उलयता. तिणें म्हटले, 'गजूल्या दुदा दातांविशीं विचारता तूं, ताणें आवयलें दूद सारकें पिल्यार मगो. चवथीक लोक घरांघरांनी गणपती व्हरतात त्या वेळार तो जाल्लो. आपल्या घरांत एक देव आयलो म्हूण बापायन सोनून ताका गजानन म्हून नांव घाल्लें. पूण चवथ जाल्ल्या पंधरा दिसांनच आवय शांती गेली. दुदाचो आंवडो पोरालो तसोच उरलो आनी दुदादांत खंयचे? शांती मेल्ल्या दोन म्हयन्यांनच लुच्चो सोनू शालीकडेन परत लग्न जालो.

ते सोनचेडयेन पोराक म्हूण त्रास दिला, ताका भायर वासरेर साकाफट्यार उडयताली आनी ही दोगांय दार बंद करून भितर मजा मारतालीं. ल्हान बाळशे आसतना पेजेनीसा बगर कांय पळयलें ना पोरान. व्हड जातकरय तोंडांत उंडी आसतना शाली तागेल्या फाटीर धुमके घालतालें. घोवाक हो तुगेलोच काय म्हूण विचारतालें. काकुळट दिसता तेका चयल्यार.

'आवयलें दूद पिलें ना म्हणटा तूं तेणे?'

'ना गो, आवयच्या दुदाची आस तशीच उरली. पळयलो ना शेणिल्लो कसो वाड्यार भोंवता. सदांच दोळ्यांत दुकांशी.'

'म्हणून बायलांच्या मोम्यासरी वसवशा नदरेन पळयता दिसता.'

रुक्मिणीन विचित्र नदरेन ताचेसरी पळयलें, अशें कशें मर्याद सोडून उलयलें हें आड पिरायेचें चेडूं..... 'मेल्ल्याची वा जाल्ल्याची आस बाकी उरल्यार वायटच गो.'

शकुंतल चिंततालें, येदोळ एकलो म्हज्या हड्ड्याक लागिल्लो. तो हांव

एक अस्तुरी न्हय तर एक आवय म्हूण धांवन म्हऱ्यांत आयिल्लो जावंये, ताचे मन मोग, माया आनी ममतेन पानेल्लेवरी जालें. 'येता गे रुक्मिण आवों' म्हणत तें उठलें आनी भायर आयलें.

आतां तें वाडोभर गजूक सोदत भोंवतालें, ताका तो शेवटाक वाड्या फाटलेवटेनच्या रिठ्या रुखापोंदा बशिल्लो दिसलो. ते म्हऱ्यांत गेलें. तो भिरांतेन भांबावल्लेवरी उठून लबो रावलो.

ताणें ताच्या खांदार हात दवरलो आनी म्हटले, 'चड लागलेरे बाळा, तशे करचें न्ही हा शाण्या!'

○○○

# एका चोराचो जल्म

त्या सोडा आनी सॉफ्ट ड्रिंक्साच्या फॅक्टरींत तिशेक कामदार आसले. तातूंत धा तरी चवदा वर्सां सकल्लीं भुरगीं आसलीं. फॅक्टरीचो मालक ल्हान भुरग्यांक कायद्यान असल्या कामाक लावन जायना हें नकळ आसलो अशें काय न्हीं. तो भुरग्यांकडसान दाम्मून वावर करून घेतालो आनी व्हडा परस तांकां साप्प उणो पागार दितालो. तीं भुरगीं चड करून बाटल्यो धुवंचे आनी बाटल्यांच्यो पेटयो व्हांवचे काम करतालीं. फॅक्टरींत सगळीकडेन बाटल्यांच्यो, पेटयांच्यो राशी पडिल्ल्यो. उदकाची कोंडा जाल्लीं. तातूंत आसलो एकलो वासू. ताची पिराय फक्त तेरा वर्सां असली. बापूय बेबदो सोरो पिवन पिवन मेलो. आवयल्या पांयांक कसलो तरी रोग जाल्लो. तिगेली पावलां फुटून भेगो पडिल्ले. तातूंतल्यान केन्ना रगत निशेंताले. आतां आतां हातय फुटूंक लागिल्ले. ती घरांतच लोळतशी इल्लो रांदचोबीन वावर करताली.

वासू बाटल्यो धुंवचो वावर करतालो. बाटलेंत इल्लें साबणाचें उदक सोडप ती हालोवन मागीर यंत्रावयल्या ब्रशाक, उदकाच्या चिळकांडेंत धरप. तें काम इतलें फास करचें पडटालें, कमरेचो काटो, फाट मोडून येताली. त्यो बाटल्यो धुवूंक कसलें रसायण घालतालें कोण जाणा, दोनय हात धुंवन वचून धवें पडिल्ले, सोलिल्ले बेबे कशे दिसताले.

एक दीस ते फॅक्टरीचेर धाड पडली. तीग सरकारी अधिकारी भितर सरले आनी तांणीं आपली वोळखिची कार्डां मालकाक दाखयलीं. मालक गडबडलो.

तांणीं जीं भुरगींच दिसताली तांकां सगळ्यांक कुशीक काडून एके कुडींत व्हरून एकठांय बसयले. तीं सगळीं बारा जणां आसलीं. भागिल्ली. भुकेल्ली, थकिल्लीं कशीं तीं भुरगीं उमळूक उडयल्ल्या म्हेळ वस्त्रांवरी दिसताली. दोगतीग भुरगीं तर उक्त्या आंगानच आसलीं. कमरेर फक्कत पिनकऱ्यो चड्ड्यो.

अधिकाऱ्यान मालकाकडेन त्या भुरग्यांले जल्माचे दाखले मागल्यार तो सांगूक लागलो, तीं भुरगीं आपणासरी वावराक नात तर कितेंय पिवंक मेळटलें म्हण हांगाच गणमणत असतात दिसभर. वोगीच हें उखल्लें, तें दवरलें अशें करतात. भुरग्यांक विचारल्यार तीं कांय वेळ वोगच रावलीं. मागीर एकेक करून तांणीं सांगलें, आमी हांगाच काम करतात आनी आमकां आठवड्याक इतलो इतलो पागार मेळटा. कोणाकय आठवड्याक दोनशे रुपयापरस चड मेळनासले.

अधिकाऱ्यांनी सान भुरग्यांक बेकायदेशीर कामाक लायल्ले खातीर खटलो घालूक पंचनामो केलो. दोगा पंचाक भायल्यान खंयसानतरी आफोवन हाडले. तांचेमुखार दरएक भुरग्यालें नांव, तांणीं सांगिल्ली पिराय बरोवन घेतली. फोटो काडले. सगळीं भुरगीं अकरा ते चवदा वर्सां पिराये भितरलीच आसली. वासूनय आपलें नांव पिराय सांगली, पूण तो आपलें काम वयतले म्हण खूब भियल्लो.

पंचनामो केलो. मालकाले सांगणें बरोवन घेतलें, थंय काम करतल्या हेर कामदारांक खटल्याचे साक्षिदार म्हण घातले.

परत एक फावट दरएक भुरग्याक मुखार बसोवन घेवन तांगेलें नांव, बापायचें नांव, नामो वेगळो बरोवन घेतलो, तांकां सांगलें, तुमच्या 'पुनर्वसनाखातीर' कितें करूं येता हाचो सरकार विचार करतलो. जाल्यरा तुमच्यांनी आतां सरकारी अनाथाश्रमात राव येता.

भुरग्यांक पुनर्वसन म्हण्टा तें कितें कळ्ळें ना. अनाथाश्रम म्हणिल्लें तें इल्लें कळ्ळें आनी तें भियेल्लेवरी जालें.

दनपारचीच सगळीं भुरगीं घरां परतलीं. त्या दिसा शुक्रार आसलो. पांच दिसांचो पगार मालकाकडेनच उल्लो. त्या अधिकाऱ्यांनी ते पयशे फारीक करूकय मालकाक सांगलें ना.

वासू दनपारा घरा आयल्यार आवय पांयांची, हातांची दूख सोंसूं नज जावन सोंशेताली आनी वळवळटाली. तो आडवेळार वोग्गी येवन बशिल्लो पळोवन आवयन म्हटलें, 'कितें जालें रे, बेगीनच येयलो?'

‘ल्हान भुरग्यांक कामाक दवरलो म्हण सरकारी मनशान पात्रावांक धल्लो. आमकां घरा वचात म्हण सांगलें. सरकारी लोकान कितें तरी करतां म्हटलां आमचे पासत.’

आवयली परवंणी चडच वाडली. पायें चडच सणसणूंक लागले, ‘कसले कायदे ते तेंगेले गरीबांल्या पोटार मारचे. करता म्हण दोळ्यांक उदक लावच्यो खबरी. आतां कितें करतलो रे पुता!’ ती रडूक लागली.

दुसऱ्या दिसासान वासू आनीक कसलें तरी काम मेळचें म्हण भोंवतालो. रस्त्यार दुकानार कोणय चड सामान घेवन उबो आशिल्लो दिसल्यार पावोवंक जाय काय म्हण विचारतालो. पूण ते मवाल्याक पळयल्लेवरी ताका पळयताले. फाटीं तो एका धाब्यार प्लेटी, ग्लास धुंवन दिवंचें काम करतालो. सेगीत दोन दीस तागेल्या हातान ग्लास फुटिल्ल्यान धाब्याच्या मालकान ताकां मारिल्ले. तरीय तो आतां ताचेसरी गेलो आनी आपणाक काम दी म्हण मागलें. ताणें काम ना म्हण सांगलें.

तो दीसभर भोंवत आसतालो. घरा गेल्यार आवयली पिरंगणी वळवळ पळोवं नज जाताली. आवय कुंटतकुंटत घरांतल्यान सरून शेजाऱ्याकडच्यान, कोणाय वळखीच्या कडच्यान कितेंय उरिल्लें, बेळशेल्लें जेवणखाण मागून हाडटाली. गरम करून चेड्याक दवरताली.

म्हयनो जावंक येयल्लो. एक दीस त्या सोडा फॅक्टरींत ताच्या वांगडा काम करपी दिना ताका मेळ्ळो. ताणें सांगलें तूं जाणा वासू, मालकान त्या आफीसरांक पयशे खावोवन ते प्रकरण मिटयलें खंय. आतां ते आमचे पासत कांय करचें नांव......’

‘आतां तूं कितें करता दिना?’

‘आतां हांव बापायबराबर कामाक वयता. खंयूय गटार साफ करून व्हावोवन दिवंचे आसल्यार बापूय कमरेक दोरी बांदून म्हाका मुशींत, बुराकांत सोडटा. हांव फांवडो घेवन बरगीता......’

‘तुगेलो बापूय सोरो पिता दिना?’

‘हय पिता, घाणींत वावर करतकीर जायच खंय तो.’

‘मगेलो अप्पा सोरो पिवनच मेलो खंय.’ तो थंयसान कडसलो. मुखाल्ले चार दीस तो भोव अस्वस्थ आसलो. कोणाकडेनय झगडूंक उठटालो. एक फावट रस्त्याकुशीक ताच्याच चुकीन एका तरनाट्याली मोटर सायकल मात्शी लागली

तर ताणें त्या तरनाट्याक आवयवेल्यन सणसणीत गाळ सवली. तो हाका धाडावंक म्हण मोटर सायकलीवेल्यान सकल देंवता तें पळोवन ताणें फास धांव माल्ली. एक दीस प्लेस्टीकाच्यो पोतयो आनी बाटल्यो एकठांय करतल्या भुरग्यांल्या हातांतलो साक मात्सो आपटलो म्हण वासून त्या भुरग्यांक बरोच माल्लो. इतल्यान त्या भुरग्यांली आवय खंयसानतरी येयली. तिणें वासुले फाटीर थापटां घातलीं.

एक फावट ताका सोडा फॅक्टरीर धाड घालूक आयल्लो तो एकलो आफीसर दिसलो. बायले वांगडा येवन गाडयेन बसतालो. वासू बेगीबेगीन वचून येद्दे तोंड करून गाडयेसरी उबो रावलो. बायलेन तो भिकारी समजून पर्सांतल्यान रुपयो काडलो. त्या आफीसरान बायलेक म्हटलें, 'दीव नाका एक पयसो. संवय जाता तांका भीक मागची मागीर.' आनी गाडी सूं करून गेली. वासूक ताका कितें विचारचें आसलें तें तशेंच उल्लें. तो आफीसर वासूक वळखूंक नासलो. वळखल्यारय घडये असोच धांवन वयतासलो.

तो आतां कोणाचे कितें पडला, उल्ला, शेणून गेला ते पळयत भोंवतालो. एक दीस ताणें कोणेंतरी स्कुटरीक लायल्ली एक पोती काडून हाडली. तातूंन कांय खाणां, किराणी सामान आसलें. पोती हाडली आनी वोग घरांत दवरली. आवयन खंयसान हाडली काय म्हण विचारल्यार ताणें कांयच सांगलें ना.

एक दीस एक बायल बेकरींत बिस्किटां घेताली. तिगेल्या कावंटरार दवरिल्ल्या पर्सांतल्यान पयशांचे पाकीट भायर सरिल्लें. थंय्च गणमणटाल्या वासून ल्हवच पाकीट काडून घेतले आनी तो चलूंक लागलो. बांयलेच्या लक्षांत येतकीर तिणें 'चोर चोर' म्हण व्हडान आवाज केलो. पूण वासू धांवन वचून रस्ते, गल्ली पार करीत खंयच्या खंय पाविल्लो.

OOO

# विपरीत

हर्षद पंचमीकर कंप्युटराचो हार्डवेअर इंजिनीअर आसलो. नोकरीय बरी आसली. पूण रावंक घर मेळूंक नाशिल्ल्यान नोकरेक चार वर्सां जाल्ली तरीय तो लग्न जावंक नासलो. ह्या शारांत तर रावंक घरांचो प्रस्न बरोच खर आसलो. चार वर्सां इस्टावांगडाच मेळून रावन काडिल्ली. शेवटाक हालींच ताणें एक सिंगल बेडरूम फ्लॅट बेंकेतल्यान रूण काडून घेतिल्लो आनी आतां लग्न जावंचें थारायल्लें.

गांवांत आवय बापूय सोयरीक पळयताले, फोटो ताका धाडून दिताले आनी चली पळोवंक यो म्हण पाराथताले. पूण गांवांत वचून चेडूं पळोवंची ताची इत्सा नासली. शारांतच खंयच्याय परजातीच्या चलयेकडेन तो लग्न जायत म्हण आवय बापूय भियेताले. फाटी ते शारांत आयल्ले तेन्ना सांगून गेल्ले, 'ह्या शारांत आमच्या गांवाकडचे, आमच्या जातीचे लोक उणे नांत, तूं जातीतलेच चेडूं पळय. पत्रिका जुळटा जाल्यारच मुखार सर, आमकां सांग. हर्षदान आपूण जातीच्याच चलयेकडेन लग्न जातलो म्हण उतरय तांकां दिल्लें

तो आतां ताच्या गांवच्यांक, पयसुल्ल्या सोयऱ्यांकबीन एक बरी चली आसल्यार पळयात म्हण फोन करूनबी सांगतालो. शारांत मोठी धांवपळूच आसली. सगळे चकचकाक भुल्लुशिल्ले, आयचोच दीस भोगूंक राविल्लेशे, हापापिल्लेशे दिसताले. कोण खंय वयता, खंय पावला कोणाक खबर आसनासली, पडून वचूंक नासले. शार बांदून आनी कोट कशी घरां उबी करून राविल्ले खरें पूण ते एकदुसऱ्यापासून फासपल्लेच आसले. पूण हर्षदान हें जिवीत मानून

घेतिल्ले. तातूंत तो भरसल्लो. तातूंत खोशी आसलो. तो शारांतली 'सुखां' बेसबरी भोगतालो. थंय सुरक्षीत दिसतालें.

एक दीस तागेल्या मावशेच्या एका देरालो फोन आयलो. ताणें सांगलें, 'एक बरी चली आास, बऱ्या घराब्यांतली. कॉनवेन्टांत शिकिल्ली, बि.अे. जाला. नोकरी सोदता. फाटी कसली तरी नोकरी करताली खंय. चड गोरी ना पूण बरी सुंदर आसा. बापूय एका बऱ्या कंपनींत नोकरी करता, बरो पागार आास. ते तुमच्या गांवालागीच होन्नळी गांवचे.'

'फोटो आनी पत्रिका पावयात म्हण सांग. आफीसांत हाडून दिल्यारय जाता.'

दोनच दिसांनी फोटो पत्रिका पावली. फोटोंत चली सोबीत दिसताली. पत्रिका दोनकडेन पळयली. दोनयकडेन बत्तीस गुणांनी जुळ्ळी. चलयेचो फोटो तो परत परत पळयतालो आनी ताका दिसतालें, हे चलयेक खंयतरी पळयल्या. पूण याद येनासली, पुसटपुसट काळखान व्हांवन गेल्लीशी याद. ते यादीक खंयचो गांवय नासलो आनी नांवय नासलें. मेंदवान कितेंतरी फक्कत हुकमळटाले.

ताणें चली पळोवचो दीस थारोवन आवय बापायक फोन केलो. त्या दिसा सकाळीच आवय बापूय आनी धाकली भयण येवन पावली. सगळी सामकी उमेदीन आसली. पळोवंक वयताना आंगार हे घालू काय तें घालूं करताली. व्यवसायान शिक्षक बापूय आवयक म्हण्टालो, 'म्हजे तकलेंत शारदा आसा, तुजे तकलेंत लक्ष्मी आसा, तरीय दोगाकय पसंद पडूंक जाय चली.' भयणीन मदींच म्हटलें, 'पूण अण्णाचे तकलेंत ऐश्वर्या आसा ताचें कितें पपा?'

'आसतली, आसतली, ऐश्वर्याबीन आसतली.'

एक हॉटेलाच्या रूमांतच पळोवंचो कार्यक्रम दवरिल्लो. मावशेच्या देरामार्फत सगलें जाल्लें. थंय चलयेक पळयतकीर तकलेंत तेंच, हे चलयेक हांवें खंयतरी पळयल्या, खंय सामकी लागीसान काय खूब पयसुल्ल्यन उजवाड काळखाच्या पड्ड्या आडसान? थळकाळाची जाण नाशिल्ली धुंवरांत सरकवपी याद. तें तर आज व्हंकल रुपान जशे चकचयाळ सजिल्लें. साडी, फुलां, सिरंगार हातुंतल्यान तें पळयल्लें मुखामळ पारखून वेगळे काडप कठीण जाल्लें. तरीय उक्ते काळशें रूप दोळ्यासामकार झळकत रावतालें. पूण तिच्या तोंडार वळखिचो मागमूसच नाशिल्लो. म्हण तो वोगच रावलो. घरच्यांक चली आवडिल्ल्याचें तांच्या

चेहऱ्यावेल्या हाशांतल्यान, खोशयेंतल्यान कळटालें. भयण तर बेठीच ताका लागीलागी करूक पळयताली. बापूय उमेदीन ते चलयेच्या बापायसरी, मावशेच्या देरासरी उलयतालो.

मागीर तांणीं तांकां, न्हवऱ्या -व्हकलेक तुमीच कितेंतरी उलयात, विचारात म्हण सांगून सगळे कुशीन सल्ले, पयस वचून बसले.

ती उलोवंक लागल्यार आवाजय वळखीचो कसो, केन्नातरी कानाक आफडून गेल्लो, यादींत खंयतरी रिगिल्लो. हो मोंव मधूर आवाज हांवें खंयतरी आयकला! मोंव तरी लाळघोटयो कसो शिनाळ आवाज. तो आतां वळखीच्या लागीं पाविल्लेवरी जालो. तरीय पोंत मेळनासलें.

ताणें विचारलें 'लग्न जातकीर तुज्यो प्राईआरिटीज कितें?'

तिणें सांगलें 'पयलीं म्हजें घर, घरची मनशां, तांचे सुखसमाधान. मागीर घरच्यांक जाय जाल्यार नोकरी, कॅरीअर.'

वांगडा आयल्ल्या मनशांक पासेंस नाशिल्ले. ते लागीलागी येवन बसूंक लागिल्ले. तरीय ताणें दुसरो प्रस्न विचारलो, 'पयली खंय नोकरी करताले न्ही?'

'हय केल्ली, पूण शेलरी उणी आशिल्ली, फक्त चार हजार.....'

चार हजार!! ताचे तकलेर पारय मारिल्लेवरी जाले. ताच्या तकलेंत झग्ग करून सगळे आठवले... एक चली उजवाडाचे, काळखाचे पड्डे मांडयत जशी होटेलाच्या कुडीर येता. कुडीचे दार बंद करून जीन पेन्ट आनी टॉप एकेक करून देंवयता आनी हांसत खाटीर ताच्या म्हऱ्यान बसता... हीच, हीच ती चली, होटेलार रातभर म्हज्या वांगडा राविल्ली. म्हजो इस्ट दयान म्हजेखातीर होटेलार एक कॉलगर्ल अरेंज केल्ली. तिका हांवें चार हजार फारीक केल्ले एके रातीचे. त्या चार हजाराखातीर हांव कितले दीस चुटपुटत राविल्लो. हीच ती चली अर्दकुट्या काऴखांत रातभर म्हजे खाटीर नागडी आशिल्ली. सकाळी बेगीनच म्हाका 'बाय बाय' करून कुडिच्या भायर गेल्ली, हांव खाटीर बशिल्लो आसताना. होच तिचो तो ते रातीचो आवाज! हेंच तिचें तें रूप! आता व्हकलेच्या रूपान सजला इतलोच फरक!

○○○

# आयुश्य चोर

ती अठरा वर्सांची आसतनाच तिगेलो घोव मेल्लो. तेन्नासान गेल्लीं सत्तर वर्सां सावित्री आजी आपलें आयुश्य म्हटल्यार एक वोजें कशें जियेताली. मरण मागून पाराथूनय मरण येनासलें. म्हणटाली, 'केन्ना तकलेन सण्ण जाता. देव मगेलें आयुश्य मापून मापून बेजारून हातांतली तागडी धाडायता दिसता.'

तिगेलो घोव मेल्लो त्याच दिसा तिगेले जिणेंतलो अर्थ सोंपिल्लो आनी धर्तरेक भार जाल्ली. खरें म्हटल्यार सोता जावनच ती हेरांचेर एक भार जाल्ली. पयलीं घोव मेलो म्हण दुख्ख करीत बसली आनी मागीर आपल्या हातापांयांक त्राण ना, आपूण जिवान बरी ना म्हूण कसलोच वावर आंगार घेयना जाली. तिगेलो शेताभाटाचो वांटो आसलो. तें तिगेले दोगय देर पळयताले. तिका कांय लागनासलें. ती सामकी हुस्क्यामेकळी. तिका वावर उद्योग कर म्हटलें, ना तर वेगळी राव म्हटलें आनी तिणें वांटो मागलो तर पंचायत म्हण देरय कांय उलयनासले. तरीय ती भितरल्यान कोणाकच नाका जाल्ली. आतां आतां तर चडच. एक तरी भुरगें आसल्यार ना तर पयलीं पसून शेताभाट आसा इल्लो वावर करीत रावंया म्हटल्यार तिगेले जिणेंत इल्लो अर्थ येतासलो. सगळें अलिप्तपणान पळयत रावन एकेक दीस आळसायेन धुकलप. तातूंत आनी सदांच बरी ना म्हण धोपरां धरून बसप आनी कमरेंर मुठ्यो घालून घेवप. बागातबीन वयताली आनी पुसकेपालो, रानतुळशी पालो हाडटाली आनी बेठीच धोपराक पुसून घेत रावतालो. वयल्यान आनी पिरंगण, बेगीनच मेल्यार पुरो म्हण.

तरीय खंयूय कोणय मेलो म्हण कळ्ळ्यार सामकी थतरवितर जाताली. शेजारची मथू मावशी मेली तेन्ना पुतण्या बायलेन 'आगे वचून नदर तरी घालून यो मुगे' म्हटल्यार ती हालली ना. मथूल्या मरणाचो कांच सोताचेर घेवन वोगी बसून रावली. वयल्यान म्हणूंक लागली, व्हडान धाकल्याचें मरण पळोवंचे न्ही. कोणाल्या बाराव्याक जेवंक आफयल्यार हिणें सदांच म्हणप, व्हडान धाकल्याच्या बाराव्याक जेवचें न्ही.

गांवांतले तिचेपरस व्हड सगळे मेल्ले. तिका सावित्री म्हण नांवान उलो मारतालो एकलोय जिवंत नासलो. आतां तर मरताले ते तिचेपरस सगळे धाकलेच. एक दीस शेजारचो अनंत मेलो तेन्ना सावित्री आज्जेन कांचवेवनशें धाकल्या देरा बायलेक विचारलें, 'आगो, अनंत मेलो खंय गो? केन्नाचो पोर मुगो तो.'

देरा बायलेन इंदिरान सट्ट करून म्हटलें, 'हय. जाय जाय जाल्ले नेण्टे मरतात आनी नाका जाल्ल्या म्हातऱ्यांक शंबर वर्सां आयुश्य. नेण्ट्यांचें आयुश्य चोरतात म्हातरे.'

तिणें सहज फकाणानशें म्हणिल्लें, पूण तिणें मनाक लावन घेतलें. 'आतां आमी मरना जाल्यार खंय वचून जीव दिवंचो?'

देरा बायल हांसली आनी वोग्गी रावली. पूण सावित्री आज्जे भितर एक गुन्यांवपणाची भावना ल्हव ल्हव बळावंक लागली. ती मनांत म्हणूंक लागली, म्हजेपरस धाकले मरतात आनी हांव आसां मरना जावन. खरेंच, हांव कोणालें आयुश्यबीन चोरून घेना मूं?

मागीर तिगेलो फाटलो देर मेलो. देरा बायल मेली. आनीक एक फागूर देर मेलो. सावित्री आज्जी केन्नाच ऐंशीं बळांटून गेल्ली आनी हे मरताले ते सत्तरीक पाविल्ले, तिचेफुड्यान ल्हानाचे व्हड जाल्ले. तिचो गुन्यांव इतलोच आसलो, तिका देवान चड आयुश्य दिल्लें. आनी तिच्या दोळ्यां मुखार धाकले मरताले. तातूंत आनी तिचें निरुपयोगी आयुश्य.

दर एक मरणार तिचे तळमळे. दर मरणार ती मनांतल्यान हालताली. खरें म्हटल्यार कोणाल्याच मरणार तिका भोव दुख्ख भोगतालें आनी ती दुकां गळयत रडटाली अशें नासलें. कोणालेंय मरण आयकतकीर सामकी काळी पडटाली आनी घुम्म मोनी जाताली. दर मरणान गुन्यांवकारीपणाची भावना चड बळावयली.

तिगेल्या धाकल्या देरालो चेडो, तिगेलो पुतण्यो जो तिका मानतालो,

तिका जाय नाका तें पळयतालो, तो एक दीस जोरान थार हांतरूणाक लागलो. निकतीच तिशी बळांटिल्लो दोगां भुरग्यांलो बापूय. सारक्को जोर येतालो आनी दोतोराक कसलो जोर तें कळनासलें. ताची तर दिसादिसाक दैना जावंक लागिल्ली.

एक दीस सावित्री आज्जेन होळम काडूनशें पुतण्या बायलेक म्हटलें, 'पुताक म्हगेल्या कितें जालां गो? कित्याक वखदां लागनांत?'

पुतण्या बायलेन तिचेसरीं एक फावट रागान पळयलें आनी ती भितर गेली.

तिचे चडच तळमळे. 'देवा म्हजें आयुश्य म्हज्या पुतण्याक दिवंक मेळिल्लें जाल्यार! करतेसवरते नेण्टे मरतात आनी हांव दमडेक फावना जाल्ली जियेतां! म्हज्या पुतण्याक आनी कितेंय जायना जाल्यार पुरो रे देवा? म्हजें आयुश्य तूं दी ताका.'

... पूण हांव मरनासतना ताका म्हजें आयुश्य कशें मेळटलें? वयल्यान म्हाका दुसऱ्याचें आयुश्य चोरता म्हण्टात.

दुसऱ्या दिसा तिनसांजची ती उठली आनी मुखावेल्या बागांत वचून तिणें सोताक थंयचे बांयंत घालून घेतली. पयलीं बांयवयल्या आड्यार उबी रावली आनी तिणें सोताक सकल सोडून दिलें.

हातांत तांबयो घेवन तिनसांजचो कोण तरी थंयसान वयतालो. ताणें आयकलें. कितें तरी, कोण तरी पडला बांयंत. तिणें व्हडान उलो दिलो, 'कोण तरी बांयंत पडला दिसता गे. बेगीन येयात उजवाड घेवन.'

देराली बायल अनसुया, पुतण्या बायल शकुंतला हातांत बेट्री दिवो घेवन धांवन येयलीं. पळयल्यार ती बांयंत पडल्या. णववारी कापडाच्या सोग्यांत ती बारीकशी बायल हुबता. आनीक थोड्याच वेळांत कापड भिजून सकयल वयतासली.

मोट्यो बोबो जाल्यो. वाड्यावयल्या दादल्यांनी येवन तिका ताकतिकेन वयर काडली. वयर काडटना ती सारक्की म्हणटाली, 'म्हजें आयुश्य म्हज्या पुतण्याक दिता रे हांव म्हाका काडूं नाकात!'

वयर काडटां काडटां कोणें तरी धेंगसो घातलो. 'दिवक पोटलो तो पयशांचो? आपलें आयुश्य आपणेंच मरसर जगूंक जाय.'

○○○

## पिसाय

ताणें चेडवाक पळयलें आनी थंयच्या थंयच तो हयकार दिवन आयलो. चेडूं तर इतलें सोबीत आसलें ताका न्हयकार फावचोच नासलो. लांबशें नाक, दोन व्हडव्हड काळे दोळे, तामशे पोले. तें दोळ्यानच उलयता अशें दीसं. ताचे कडेन कांय वेळ उलयलो तर तागेलें उलोवप भारीच गोड आसा अशें ताका दिसलें. तो मुरगुटलोच. त्या खिणाकच ताच्या मोगान पडलो.

आनीक ताका दिसतालें. हांव प्रायवेट कंपनींत नोकरी करतां, हाचे परस म्हाका बरी बायल खंयची मेळटली? तरी ताणें रीणबीन काडून लग्ना पयलींच एक सिंगल बेडरूम फ्लेट घेतिल्लो. आपूण लग्न जातकीर बायलेक वांगडा व्हरून दवरतलो ही एक उमेद आशिल्लीच. चेडूं पळयतकीर रोखडोच मुहूर्त धरिल्लो. पूण मदीं लग्नाक देडेक म्हयनो आशिल्लो. पूण दिलीपाक पासेंस नासले, तो मनान आकुळपिकूळ जातालो. आई, माम लग्नाची एकेक तयारी करतालीं. ताकांय वावराक लायताले. ताचो जीव भुल्लुसतालो. आतां सव्वीस वर्सां ताका चलताली. पूण इल्लो सादो बाबडोच, केन्ना ल्हान भुरग्या वरीच करतालो. आईचेर ताका खूब्ब मोग, मामाचेर विश्वास भावार्थ, सगळे कितले सुरक्षीत दिसतालें!

चेडवाघरची आर्थिक स्थिती बेताचीच आसली. हेवय व्हडले गिरेस्त नासले. दोनय घराब्यांचें बरें जुळून येयल्ले. मदी दोन फावट दिलीप व्हंकलेल्या घरा वचूनय येयलो. तें लजत ताच्या फुड्यांत येवन बसलें. पूण चड उलयलें ना.

ताका दिसलें आपली व्हंकल चड लजकुरीच आसा. जांव, लग्ना उपरांत वयतली लज. हांव देंवयतलो लज.

एक दीस तो न्हवऱ्याक बाशिंग आनी पागोटें सांगूंक गेल्लो. तेन्ना ताका तेगेली आवयली बापोल भयण-तारामावशी मेळ्ळी. बळया ताका रावोवन ती उलोवंक लागली. पयलीं आवयली खबर घेतली. मागीर 'तुजें लग्न म्हण आयकलां मरे' म्हणत तिणें विचारलें 'खंयचे देवाबागच्या उत्तम रावताले चेडूं मरे?'

दिलीपान तकली हालोवन हय म्हटलें. मुखार तिणें सांगलें, 'तें चेडूं आदी एकल्याच्या मोगान आसलें. बरो खंय भुरगो तो. पूण हेर जातीचो. आवय बापायन, बापोल्यान समजावन आतां लग्नाक तयार केलां.'

'अशें म्हण्टा तूं?' दिलीपाक खप्प जाले.

'चेडूं बरेंच खंय तें. जाच तूं लग्न. तुका खबर आशिल्ले बरें म्हण बऱ्याकच सांगतां हांव तुज्या.'

'आतां काय ना मुगे तेंगेले?'

'सुटलां तें गिराण. बापोलयो कडक तागेलो. जा तूं लग्न.'

दिलीप मुखार काय एक उलयनासताना वोगी येयलो. तो भुरगो कोण म्हण जाणून घेवचीच ताका इच्छा जाली ना.

मुखार चार दीस तो हाचेर सारको चिंततालो. ताणें ही खबर आवयक, मामाक कोण्णाक सांगली ना. त्या चेडवाचेर तागेले इतलें मन बशिल्लें, तेगेले कितें हेर वायट आसतलें अशें दिसच नासलें. मनांत म्हण्टालो, जाल्लो आसतलो मोग. सोबीत, गुणाची चेडवाच मोगान पडटात. वायट गुणाच्या बुरशा चेडवाकडेन कोण मोग करतलो? आता कांयच नासतलें तें. ना तर लग्नाक कित्याक तयार जातासलें तें?

मनाक बऱ्याचे समजायतच तो लग्न जालो. व्हंकल खरेंच बऱ्या गुणाची, हुशार, मर्यादेची आसली.

पूण तो पारखीतालो, सुलूस घेतालो, तेगेल्या पयल्या मोग्याचो खंय वास आवाज आसा काय ते. पूण ताचो मागमूस नासलो. तरी तिचे आंकवारपण सुगूर आसा काय ना तें तो पयल्या रातीक बारीक तेळटालो. पूण खंयच कसली खोट मेळनासली. एकच फावट 'ईश्वर' म्हण एक हुंकारसो भायर पडिल्लो ताच्या

वेंगेत आसतानाच.

तीन म्हयने बरे गेले. दिलीप ताचेर जीव लावन बशिल्लो आनी तेंवय ताचेर मोग करता अशें दिसतालें. तागेलें एक उतर तें सकल उडयनासलें. घोवाक कितें जाय नाका तें पळयतालें.

अचकीत तें घुंविल्लेवरी जावंक लागलें. तोंड तांबडें तांबडें जालें आनी वाचाच बशिल्लेवरी जाली. ताणें उलोवपच सोडलें. एक दीस उब्या उबेच हातांतलो तोप सदळ सकल सोडलो आनी मुमुरख्यानच हांसूंक लागले. केन्ना वर वर वोगी रावतालें. मदींच उठ्ठालें आनी घरांतल्या वावराक झुडटालें. घडघड घालतालें. परती परती सान्न मारतालें. धुविल्लींच आयदना परती घासूक धुंवक लागतालें. मदींच कागद आनी पेन हातांत घेतालें आनी ताचेर ईश्वर ईश्वर.... हें एकच उतर बरयत रावतालें.

दिलीपाक कितें करचें, कितें सांगचें कांयच कळनासलें. मदीं बायलेच्या पयलींच्या मोगाची खबर फां फां करून गांवार फांकली. ताका हेंवय कळ्ळें, ताच्या मोग्याचें नांव रामेश्वर आशिल्लें म्हण. ताका दुबाव आयलो ते ईश्वर ईश्वर म्हण बरयता तें ताचेंच नांव तर न्ही! ताकाच वथरेना मूं तें!

तो, आवय घोर चिंतेंत पडिल्लीं. माम परतो परतो येतालो आनी समजावचे यत्न करतालो. मामान एक दीस ताच्या बापायक सांगणें धाडल्यार तो आयलो आनी पळोवन तसोच परत गेलो. वयतना ताणें दिलीपाक इतलेंच म्हटलें, 'तुजी बायल. बरी वायट तुवें सांबाळची.'

एक दीस शेजाराक भाड्याक रावतल्या सावंत मास्तरान म्हटलें, 'आवंडो उल्लार अशेच करतात. भितरल्यान ताका मेळूंक तडफडटा तें.' मागीर ताणें दिलीपाक म्हऱ्यान आफयलें आनी ल्हवच सांगलें. 'एक फावट घेवन वच तूं ताका ताचेसरी. तास दोनतास सोड दोगांकच. कितें उलयतात, कितें करतात तें करूं दी. त्या बगर ते सुधारचें ना.'

दिलीप मोट्या पेचात सापडलो. एकवटेन आपली बायल बरी जावंची अशें दिसतालें. दुसरेवटेन मन माननासलें.

तरी ताणें मोठो धीर केलो आनी तो रामेश्वर खंय रावता तें सोदूंक लागलो. बायलेल्या धाकल्या भयणीकच विश्वासान घेवन ठावठिकाण सोदून काडलें.

एक दीस सांजच्या उसरांच ताणें बायलेक स्नेहाक म्हटलें, 'आमी खंयूय वचून बेठेच भोवन येवंया. तुकाय बरें दिसतलें.' तें रोखडेंच तयार जालें. नवें करकरीत पातळ, पोल्को. केंस नीट वळोवन घेतिल्ले, तोंडार बरोचसो पोव लायल्लो. कितले सोबीत दिसताले तें! दिलीपाचो जीव तगमगलो.

तो ताका स्कुटरीर बसोवन घेवन सुटलो. वाटेंत म्हटलें, 'आदीं म्हज्या एका इस्टागेर यां. बसुया कांय वेळ.' तो ताका घेवन बद्द रामेश्वरासरी आयलो. तो नोकरे निमतान घरापसून पयस आसलो आनी एकलोच भाड्याच्या घरांत रावतालो. दार उक्तें करतकीर तो सरळ ताच्या घरांतच गेलो आनी ताणें स्नेहाक थंय एक खुर्चेर बसयलें. बेगीनबेगीन रामेश्वराक म्हटलें, 'हाणें कितें तकलेंत घेवन बसला कळना. वोगच पिशेपणा करता. सोताक त्रास करून घेता. हाका कितेंय समजाय तूं. ताचें कितें तें पळय तूं. तुजें आयकतलें तें.' तो तसोच भायर आयलो. येताना ताणें दारय ओडून घेतलें.

बरीच सांज जाल्ली. भायर इल्लो इल्लो काळोख पातळूंक लागिल्लो. रामेश्वर जाणा आशिल्लो ताचें लग्न कोणाकडेन केन्ना जालां तें. तो कांय वेळ वोगच ताच्या फुड्यांत उबो रावलो.

दिलीप स्कुटर स्टार्ट करून घेवन भायर सरिल्लो. तो अडेच तीन तास भायरच रावलो. रातचो खंय खंय अस्वस्थ भोंवत आसलो. मदीं च देवाचें नामस्मरण करतालो आनी विसरायेर उडोवंक पळयतालो.

साताक तो ताका रामेश्वरासरी सोडून गेल्लो तो रातचो धांकच परतो आयलो. पळयल्यार स्नेहा काळखान भायर आंगणांत फतकल मारून बसला आनी रडटा. रामेश्वर म्हन्यानच उबो आसा. रामेश्वरान सांगलें, 'तूं गेलो आनी ते तसेच धडपडत भायर येयलें. हिंगा बसून तूं गेल्लेवटेन पळयत रडत आसा सारकें. म्हजें कांयच आयकनां.'

दिलीपान स्कुटर फिरयली आनी म्हटलें, 'स्नेहा, चल आमी घरा यां.' तें सडसडीत उठलें आनी वचून ताणें स्कुटरीच्या सीटार हुडीच माल्ली.

OOO

# राखिल्लें धन

घोव घाईघाईनसो रासवट शरीरसंबंद करून कुशीक न्हिदिल्लो आनी घोरेतालो. मातशें उक्तें काळशें लांबट तोंड दुकराच्या सोंडेवरी भारी बुरशें दिसतालें. तो सामको अरसीक आनी तकलेनय मठ्ठ आसुंये. दादलो–बायलेच्या भावसंबंदाविशी, तांच्या सोबीत श्रुंगाराविशीं ताका कांयच माहीत नासलें. लग्न उपरांत खंयतरी हनिमुनाक वचात म्हण बापायन सांगल्यार हाणें म्हटलें, 'दुसऱ्या वळखदेख नाशिल्ल्या गांवांत वचून कितें करतलें. आपलो गांव घरच बरें.' ते कुशीन पडिल्लेकडेन रागान, उबगणेन सोशेंतालें......

..... रश्मी चड गोरे नाशिल्लें पूण खूबच सोबीत आकर्शक आशिल्लें. पळयल्यार चेहऱ्यावेल्यान नदर काडून घेवंचीच न्ही अशें दिसतालें. खीणभर नदर मेळल्यार कितेंतरी उलोवन गेला अशें दिसतालें. एक फावट वोळख जाल्ल्या तरनाट्याक ताची ताळणीच लागताली, कॉलेजींत, गांवघरा, सोयऱ्यांत कितलेतरी जण ताचे सरी मोग करूक आशेले. पूण ताणें कोण्णाक चड म्हऱ्यान येवंक दिले ना. दिठयेच्या भंयानच पयस दवरताले. तरीय कुडीभयाच्या अरिश्टांतल्यान तें जाय ते फावट वाटवला. फुलून येवपी तरनाटेपण आनी दुस्मान मात हिसपाभायर.....

.... एक फावट कॉलेजींतल्या प्रदर्शनांत सुशांत नांवाच्या भुरग्यान ताच्या कुल्यावेल्यान हात भोंवडायलो. तर ताणें ताच्या पोल्यार ठऽऽ करून थापट दिलें. उपरांत नीट प्राचार्याच्या आफीसान वचून कागाळ केली. प्राचार्यान सुशांताक आफोवन हाडून ताच्या पांयार पडून चूक मागूंक लायली.

एस्.एस्.सीची परीक्षा जातकीर ते गांवांत मामागेर गेल्लें. एक दीस लग्न ना जाल्ल्या एका पयसुल्ल्या मावळ्यान ताका तुका गोठ्यांतलीं गोरवां दाखयतां म्हण व्हयलें. थंय गोठ्यांत ताका घट वेंगेंत आवळून धरून ताची भितरली चड्डी सकल ओडली. तेन्ना ते कशेतरी धडपडत सोडोवन घेवन धांवत येयलें. पूण आपल्या मोगाळ मामाक वायट दिसत, ताका राग येत म्हण ताणें कोणाक कांय सांगलें ना.

मागीर अशेंच कांय बारीक सारीक घडणुको घडल्ल्यो. दर फावट यत्नान ताणें सोडोवन घेतलें. ते सुगूर उरलें. ताणें आपलें आंकवारपण बेस राखलें.

मागीर ताच्या जिवीतांत अचकीत उत्पल आयलो. ताका पयलीच पळयलें आनी तागेले काळीज धडधडलें. ताका थरथरो भल्लो. रश्मीलो धाकलो भाव बेडमिंटन खेळटाना ग्रावंडार पडलो. आनी ताणें धोंपर फोडून घेतलें. ताका हास्पिटलात व्हरून तो मगेर घरा पावोवक येयल्लो. तो सिनियर खेळाडू आसलो. हौस म्हण रजेच्या दिसांनी भुरग्यांक बेडमिंटन खेळचें शिकयतालो. खंयतरी नोकरीय करतालो.

ती पुराय रात ते ताच्याच चिंतनांत आसलें. मदींच तो सपनांत झळकतालो.

भाव बरो जातकीर रश्मी ताका सोता घेवन कोर्टार गेलें. वळख करून घेतली. ताचेकडेन उलोवंक ताका इतलें बरें दिसतालें, लजेचे आनी खोशयेचे कळे वांगडाच चेहऱ्यार फुलताले. शेवटा ताणें धीट जायत म्हटलेंच 'तुमचें व्यक्तिमत्व खूब बरें आसा. म्हाका न्हवरो पळोवंक येतलो तेन्ना दर फावट तुमच्याच रुपाची तुळा करीत हांव बसतलें म्हण म्हाका भिरांत दिसता.'

तोवय काळजांतल्यान दोळ्यांत नीतळ हांसलो. मोगाची भास कळ्ळी आनी ती पटली. मागीर ती परती परती मेळूंक लागलीं. मोगाच्यो, लग्नाच्यो खबरी उलोवंक लागलीं. सपनां रंगोवंक लागलीं. तांणीं मोगाचें, लग्नाचें इतलें फावट सोपूत घेतलें, खरें तर तांचे लग्न जावन लग्नाचें उतर सोर्गांतच पावले!

ती पयस बागांच्या कोनशांनी, दोंगरांकडेन एकल्यानीच वचून बसताली. कुडीमोहाचे कितले अवसानघातकी खीण येताले! गोपान रिगताना, ओंटार ओंट तेंकयताना दिसताले, आतां सगळे कोसळून पडटलें! पूण ताणें हरप्रयत्नान सोताक राखलें. एक फावट ती दुसऱ्या शारांत एका कल्चरल फेस्टिवलाक गेल्लीं. थंय उशीर जातकीर रातची हॉटेलांत रूम करून रावलीं. तेन्ना उत्पल

बरोच हुतहुतेपण करतालो आनी आंगाक लागूंक येतालो. पूण ताणें ताका समजावन, धपकावन कश्टान थोपोवन धरलो. सकाळी उठून ताका एक गोड पापी दिली आनी म्हटलें, 'थेंक्यु. बेगीनच आमी लग्न जावया.'

तांणीं आमी लग्न जातात म्हण सांगतकीर दोनयवटेच्या घराब्याचेर खेव आयल्लेवरी जालो. जातीकातीच्यो, कुळगोत्राच्यो, व्हड उणाकपणाच्यो कितलेशोच गजाली मुखार सल्ल्यो. लग्न जाल्यार जीव दिवंच्यो धमक्यो आवयो, बापायांनी दिल्यो. रश्मीच्या आवय बापायन ताका व्हरून मुंबयंत एका बापोल्यागेर दवरलें. थंय ताचेर सामको पारो. तें रडलें, तळमळलें. पूण कोणाक काकुळट दिसली ना.

रश्मी बेजारलें. दुसऱ्या वर्साक ताणीं हाडिल्ल्या दादल्या कडेन ब्र काडिनासतना बोग्गी लग्न जालें. तो पळोवंक आयल्लो तेन्ना तें फकत भूंयेरूच नदर लावन बशिल्लें. ताच्या चेहऱ्याकडेन ताणें पळयलेंच ना. तो पयशेकार ही एकच ऊब सगळ्यांक आसली. हेर कांयच कोण चिंतीनासलो.

आतां ताका कळ्ळा गरूडाल्या गिरासार हो कावळो येवन बसला. इतल्या कश्टान राखून दवरिल्ले म्हज्या शीलाचें सोबीत धन हो बुरसो, कंजुशी हातासून बसला. फुलां हाड म्हटल्यार सांजच्या बावन वयतल्या वस्तुचेर खर्च कित्याक करचो काय म्हण्टा! रातचो मुखार येता आनी विसकटून घातिल्लेवरी करता आनी वयता. ताचे हातय खरबरीत आसात. ह्या कंजूश, बुरश्या मनशाखातीर हावें म्हजे शीलाचे धन राखले म्हण ताका पश्चाताप जाता.

तो तोंड उक्तें उडोवन घोरेतालो, तोंडाच्या दोनय बाजून ओलसाण पातळिल्ली. रश्मीलें उतळताप वाडत वयतालें. ताका जीव दिवंचो अशें दिसतालें. ताणें फोन उखललो आनी उत्पलाक फोन लायलो. व्हडान म्हटलें, 'हॅलो उत्पल, तूं म्हज्या बराबर खेळूं नाका. म्हज्या आंगाक लागू नाका. फाल्यां येवनच पळय तूं. म्हजो घोव पळय सुस्त घोरेता.' ताणें रिसीवर घोवाल्या तोंडासरी लायलें. तो कूस परतून न्हिदलो.

रश्मीक घोवाल्या तोंडार थूंकचें अशें दिसलें. कावळो पळय म्हजे शीलाचे सोबीत धन लुटून घोरेता! ते ताका फाट करून न्हिदलें.

OOO

# निर्दय खेळ

गेल्ली दोन वर्सां सुजाता एम्.ए. करचेखातीर शारांतल्या होस्टेलारच आसलें. पंधरा दिसा फाटीं परतें येयल्यार आवयची दशा जाल्ली. ती भागून वचून काळी पडिल्ली. दोळे फोंडांत दशिल्ले. हांथरूणार पडून सारकी पिरंगताली, खूब भितरल्यान खर वेदनां वयर सरतात अशें दिसताले. हांथरूणार तिची कुडीची गुठली, फक्कत पिरंगवप आयकोंक येतालें. जेवय नासली.

बापायचेर कोर्टांत दोन तीन केशी चलताल्यो. तांचे निकालय घडये लागीं पाविल्ले. ताचो पांय घरांत थारनासलो. बायल घरांत दुयेंत आसा हाचें ताका पडूनच वचूंक नासलें. केन्ना कितें म्हटल्यार रागानसो पैसे बोल्सांतल्यान काडून खाटीर उडयतालो आनी म्हण्टालो, खंयच्यातरी हॉस्पिटलाच्या खाटीर वचून पड. घरांत रड नाका.

सुजाताक बापायविशी भुरगेपणापासूनच कसल्योच भावना मनांत नासल्यो. मोगय नासलो आनी तिरस्कारय नासलो. केन्ना बापूय रागान आवयक आनी ताका गाळी सवंक लागलो, मारूक येवंक लागलो म्हण्टकीर रागाची एक शीर पोटापसून दोळ्यां मेरेन घट जाताली. दोळे रागान फातरेताले. पूण ते कांयच उलयनासलें. तोंड धांपून वोग्गी रावतालें. बापूय आवयसरी, ताचेसरी आनी तागेल्या व्हडल्या भावासरी दुश्ट सैतान कसोच वागलो. रागान भाव एकदीस घर सोडून गेलो तो आतां मुंबय आसता. घरची खबरवास्तच ताणें सोडल्या. तागेलो आवयचेरय राग आसा. पयलीपसून आवय बापायलेंच 'हय हय' करीत रावली

अशें तो म्हण्टा. पूण खरी खबर आशिल्ली ती. आवय ताका थर्त भियेताली. ताच्या तापसाणेक भियेताली, केन्ना पडच्या माराक भियेताली. केन्ना तागेल्या वायट कर्तुबाच्यो पाड्यो खबरी भायल्यान येताल्यो तेन्ना आवय तोंडार मारिल्लेवरी वोग वोग जाताली, दोळ्यांत दुकां भरून येतालीं. मागीर देवामुखार वचून बसताली, दोळे धांपून मोन्यानी बसताली. घोवान खंयच्या बायलेर आगळीक केली, कोणाक मारूंक मारेकार घातले हे तिका केन्ना कोणें सांगनासतनाय कळटालें. केन्ना बायलेक तोच फुशारक्यो सांगतालो.

....देवू कदम गरीब मनीस आसलो. तेका चौगां चेडवां. गरीबेक लागून लग्नां अडिल्लीं. चेडवाल्यो सोयरीको करता, लग्नाक मदत करता म्हण तांच्या घरांत रिगलो. पयलीं आवयकडेन इश्टागत केली. सुरवेक पयशेय बरेच मोडले. मागीर दोगां व्हडल्या चेडवांक वायट करून थंयसान भायर सल्लो. मागीर खंय ताणें व्हडल्या चेडवाक एक सोयरीक हाडिल्ली ती तिणें न्हयकारली.

तेगेलें बाजारात मिठायेचें व्हडलें दुकान आसलें. लग्नांक, पार्ट्यांक जेवण करून पावोवचें कामय तो करतालो. तातूंत सगळी भेसळ आनी फटिंगपणा. गिरायकांकडेन उलोवप मात गोड, भेसळ केल्ल्या मिठायेवरीच.

आवयलो आनी तेगेलो स्वभाव सामको उल्टो आसलो. तिणें आंकवारपणांत आनी मागीर लग्न जातकरीय आपल्या कुडीची पवित्रताय सामकी सांबाळ्ळी. धरीबधाटाक, अडीअडील्यांक ती मदतीक धांवन वयताली. हात सोडून कोणाकय कितें उखलून दिताली. हाचोच घोवाक राग येतालो. सुजाता बापायविशी सामकें भावनाशुन्य आशिल्लें पूण आवयचेर खूब खूब मोग करतालें. हॉस्टेलार आसताना आवयच्या यादीन आकुळपिकूळ जातालें.

बापूय गेल्ल्या जिल्हो परिशद वेंचणुकेक उबो राविल्लो. ताचो विरोधी उमेदवार आनी ताच्या मदी कितेंतरी व्यक्तिगत जालें, वायटपण येयलें. तर हाणें चार मारेकारी घालून ताका यथेच्छ बडोवन काडलो. ताका तकली फुटून आनी हाड मोडून हॉस्पिटलांत घालचो पडलो. मात तो हॉस्पिटलांत आसतनाच वेचूंन आयलो तर बापूय हारलो. उपरांत ती क्रिमीनल केस उबी जाली. ताका अटक करून चार दिसांनी जामीनेर सोडलो. ती केस कोर्टांत चलताली ताचो निकाल तोंडार येयल्लो. ते चार मारेकारीय आरोपी आशिल्ले.

...आयल्ले दुसऱ्या दिसाकय सुजाता आवयक घेवन हॉस्पिटलांत गेलें.

कितल्यो टेस्टी! एका हॉस्पिटलांतल्यान दुसऱ्या हॉस्पिटलांत, निसते फेरयो काडटाली. आवय खंय वचचें नाकाच म्हण्टली, सुजाता तिका ओडूनच व्हरतालें.

आठ धा दिसांनी सगळे रिपोर्टस् मेळ्ळें. तिका आतडेचो कॅन्सर जाल्लो. फाटले कांय म्हयने दुर्लक्ष केल्ल्यन तो बरोच आतडीभर पातळिल्लो. डॉक्टरान सांगलें, 'तो आतां तिसऱ्या स्टेजीर पावला. अॅडमीट कर तूं तिका. पळोवंया कितें जाता तें. आनीक एक्पर्टस् ओपिनियन घेवया.'

सुजातालें मन कातरिल्लेवरी जालें. वचून आवय असवडी ते खूब रडून आयलें. मागीर आवयक अॅडमीट करून तिचे सेवाचाकरेक लागलें.

ताच्या तिनच दिसांनी कोर्टांत बापायल्या केसीचो निकाल आयलो, त्या चारय मारेकऱ्या सयत बापायक चार वर्सांची सक्तमजुरेची ख्यास्त जाल्ली.

लोक उलयताले आनी पेपरांतय खबर आयल्ली. ती वाचून सुजाता काळीज आवळून घेतशे वोगी रावलें. आवयकय कांय सांगूक ना. पूण आवयक मेळूक कोणकोण आयल्ले. तांच्याकडच्यान आवयक कळ्ळेंच. आवय पुराय सांज एकवटेन दुखीन सोशेंताली आनी दुसरेवटेन उशार तोंड घाशीत रडटाली. दूख आनी ते दुःख तिच्यान सोंसना जाल्लें. सोडून गेल्ल्या एकल्याच पुताच्या नांवानय वथरेताली.

तिसऱ्या दिसाक आनीक एक खबर आयली, जेलांत त्या चौघा कैद्यांनी आनी दोगांनी मेळून बापायक खूब बडयलो, ताका व्हरून सरकारी हॉस्पिटलांत घातला म्हण. पेपरान व्हड खबर केल्ली. मारान हाडा मोडून सास्टांग भूंयेर पडिल्ले फोटो छापून हाडिल्लो. सुजातान भोव कश्टान ती खबर मनात जिरयली. हें मात आवयक कळूक फावना म्हण ताणें थारायलें आनी कशेंच कळूंक दिलें ना.

तें चिंततालें बापायचें समजूं येता, ताणें वायट कर्तुबां, पातकां केल्ली म्हण देवान ताका ख्यास्त दिली, पूण आवयन कितें वाकडें केल्लें म्हण तिका हे वटवटे! तेन्ना वार्डांतल्या टिव्हीर एक कार्यक्रम चलतालो. एक बापडें हरण भियेत भियेत रानांतल्या तळ्यार उदक पिवंक आयल्लें. उदकाक तोंड लायता थंयच आसा, एक व्हडलें मानगे हुडून आयलें, हरणाक धरून ओडून व्हयलें. तेका पिंजून पिंजून खायलें. हरण सारके बे बे करतालें. सुजाता खूब अस्वस्थ

जालें. जड जड श्वास घेवंक लागलें आनी ताका रडूक येवंक लागलें. गरीब बापडें हरण! फक्कत तण खांवपी! इल्लें उदक जाय आसलें पिवक! सैमान ताचेर येदो व्हडलो अन्याय करप! म्हज्या मम्मीच्या पोटात ही कांक्राँची चरमां तरी कित्याक पसरची!

ती पुराय सांज ते मोन्यानीच रडटालें आनी चिंततालें, बऱ्याक बरें, वायटाक-वायट, खोटो घुस्पागोंदळ सगळो. जल्म आनी मरण हेंच खरें. मदलो सगळो योगायोगाचो गोंधळ. तातूंत देवय ना, नियतीय ना आनी नशीबय ना. न्याय तर नाच ना. गरीब हरणाक खावन मानग्यान जियेवचें हो कसलो न्याय? म्हजे आवयक कित्याक म्हण ही दुःखा? हो संसार म्हण्टा तो एक सैमाचो निर्दय खेळ! इल्लोय मोग ना! ताचे मन उबगणेन भल्लें. ता खाटीर आवयसरी तकली तेकोंवन बसलें.

आवयन आपलो दुबळो हात ल्हव उखल्लो आनी ती तो हात सुजाताच्या तकलेवेल्यान मोगान भोंवडावंक लागली. ताका खोल खोल होलमलें आपली मोगाची आवय म्हज्या केंसावयल्यान मोगान हात भोंवडायता! तो मोग ल्हवल्हव मना मेरने, काळजामेरेन पावलो. ताची उबगण ताचे दुःख खिणाखिणान निंचारून वचूंक लागलें. आगळीच उर्बा काळजांत रिगली. तें उठलें. ताणें दोन हात आवयल्या कुडीर दवरले आनी सोपूत घेतिल्लेवरी मनांत म्हटलें, मम्मी आसा मेरेन तिका इल्लें दुःख, इल्लो त्रास जावंचो ना तें हांव पळयतलें! तेन्ना ताका बापायविशी कांयच दिसनासले.

OOO

## उबगण

चोयवटेन सगळो चकचक पातळिल्लो. भांगरां शिंगरां, पयसो आडको, म्हालमत्तो, खाणजेवण हांचो सुकाळ आसलो. दुकानां भरून ओततालीं. बेंकांतल्यान पयशांचे भोरे भितर सरताले आनी भायर वताले. एटिएम, क्रेडिटकार्ड, स्मार्टकार्ड हांची चलती आसली. मोबायल, लॅपटोप, डिजिटल केमरा, टिव्ही हांची तरनाट्यांक भुली पडटाल्यो. गाडयांच्यो इतल्यो तरेच्यो मोडेली रस्त्यान धांवताल्यो पळोवन दोळे दिपकावताले.

पूण रेश्माक मात कांयच मेळनासलें. कॉलेजीच्या दुसऱ्या वर्साक एड्मीशन घेताना आवयन रीण काडून पयशे भरिल्ले. तागेल्या हातांत मोबायल सोड, आंगार बरे कपडे, पांयांक धड चप्पल उरनासलें. केंसाक शांपू मेळनासलो. तेलकटशे तकलेचे केंस घेवन ते कॉलेजींत वताले. चोयवटेचो चकचक पळोवन ताका तिडक मारताली. राग येतालो. कितेंय धरून धाडायतालें.

तीगां जणां भयणांतलें तें तिसरें. व्हडल्या दोगांली लग्ना जाल्लीं. त्या लग्नांत घर धूवन गेल्लें म्हटल्यार जाता. लग्नांची रिणां अजून बाकी आशिल्लीं. ताचो तकादो लागिल्लो आसतालो.

बापूय पयलीं बांधकामाचेर सुरपवायजर म्हण काम करतालो. एक कडेन निकतेच घातिल्ले बांधकाम कोसळ्ळें आनी ताचेखाला सांपडून दोग कामगार मेले. ताची पोलीस केस जाली. बापायक धरून पोलीस ठाण्यार व्हेले. तागेली नोकरी गेली. तातूत बापूय हताश जाल्लो तो परतो सावरलोच ना. मागीर

पिवकय लागलो.

आदीच वंशपिळगेचो गरीबच घराबो तो. भाटकाराल्या भाटांत ल्हानशें बसके घर आसलें. ताका वयर नळे आसले आनी सकल चुड्टांची पावळी आसली. घरांत भितरय कसली शिरवंतकाय नासली. घराक पळोवनच रेश्माले मन उबगताले. कॉलेजींतल्यान येतकीर आदी काय वेळ घराभायर उबे रावताले, मागीर मन नासतनाच भितर सरताले. चोयवटेन सोबीत रंगयल्ले दोनदोन माळयेचे बंगले. व्हडल्यो व्हडल्यो बिल्डिंगो, तांतली फ्लेटां आनी हें आमचें दरिद्र घर! पावसात गळप चुकोवक रातचे हांथरूण भायर भितर करचे पड्टा. बसूक सोफा ना. न्हिदूक एक धड खाट ना. लोकाल्या घरांत बरीं बरीं वॉशिंग मशिना आसात. आमी बांयर व्हरून फातरार आपटून कपडे धुंवतात. पोन्नो कोणालो तरी टिव्ही घेतिल्लो. तो सदा मोडिल्लोच आसता. एक दीस शेजारची एक बंगल्यातली बायल म्हण्टाली, 'ह्या बुरशा घराक लागून हांगाची सोबाय, हांगाचे मोलच गेलां!'

आई म्हाका शिकोवक मात धडपडटा. म्हण्टा तूं बरे शिकल्यार खंयूय नोकरी लागतली. चार पयशे जोडटले. म्हजेवरी दिसवड्या वावराक वचचें पडचें ना! रेश्माक सगळ्यांचीच उबगण आयल्या. केन्ना जीव दिवचो अशें दिसता. किवाट्यान केन्ना ते केंस बुट्टून घेता.

कॉलेजीच्या कॅरिडोरांत, केन्टिनांत, झाडांमुळात उबी रावन भुरगीं मोबायलार हांसत किटकिटत उलयतात. रेश्माचो जीव इल्लो इल्लो जाता, मरूक पावता. म्हजो म्हजे आईचेर कितलो मोग आसा! तिचे यादीन केन्ना जीव आकुळपिकूळ जाता. पूण 'आई तूं खंय आसा, केन्ना घरा येतली?' इतलें लेगीत तिचेसरी उलोवक मेळना. ताका वोगीच दिसतालें अशी मोबायलार अखंड उलोवपीं भुरगीं म्हाका चाळयतात. म्हाका पळोवन चडच खिदळटात.

कितल्या तरेच्या मोदींचे कपडे हेर भुरग्यांल्या आंगार. पूण ते धिमयेसकल पडिल्लो स्कर्ट आनी वयर एक पोल्क घालूनच सदा कॉलेजींत येताले. ताच्या केसान केन्ना शांपू पळयलो ना. चेहऱ्यार पोवा खेरीत कांय लायलें ना.

एक दीस कॉलेजींतली एक इस्टीण ताका पांच स जणाक घेवन एक बऱ्या हॉटेलांत गेली. थंय तांणीं सूप, पिज्जा, कोकबीन घेतले. साडेणवशे रुपये बील जाले. पळोवन रेश्माचे दोळे घुंवले. दिसलें, धा रूपये दिवक लेगीत म्हज्या

जिवार येतासले. मन चुरचुरतासलें. दिसभर ते त्या बिलातच आसलें. इतलो पयसो लोकाकडेन खंयसान येता? ह्याच विचारान तें आसलें.

सूर्यकांत नांवाचो एक भुरगो ताच्या वासाक आशेल्लेवरी ताच्या आसपासच रावक पळयतालो. सदां हांसत वोगीच कितें तरी विचारतालो. रेश्माकय तो मानवतालो. हासकुरो आनी सरळ मनाचो असो. तोवय व्हडल्या गिरेस्तालो भुरगो नासुयें. अशें काय दीस गेले. तो मोगय दाखयनासलो पयसय रावनासलो. रेश्मा कॉलेजीक पावच्या वेळार तो गेटीसरी खंयूय राविल्लो दिसल्यार रेश्माक दिसतालें, तो आपणाक रावता, म्हाका मेळूक तळमळटा. ती केन्ना मेळुनच क्लाशींत येताली.

एक दीस रेश्मा ताका कॉलेजीच्या आवाठांत आशिल्ल्या एका झाडापोनाक घेवन गेलें. थंय ताणें सूर्यकांताचेर आपलो मोग उक्तायलो. तो एकदम गंभीर जालो. बरोच वेळ वोगच रावलो. मागीर म्हणालो, 'तुमी खूब गरीब खंय न्ही गो? मोगच केलो म्हण जालो, फाल्या लग्न जाता म्हटल्यार आई बाबा तयार जावंचे नांत कशेच.'

'न्ही तूं सदा लागी लागीच रावंक पळयतालो. हांसूनच उलयतालो.'

'फ्रेंडशिप गो ती. आमी मुखारय बरे फ्रेंडस् म्हणच रावयां.' रेश्मा सडसडीत उठून उबें रावलें. तीख आवाजांत म्हटलें, 'तुका फ्रेंडशिपाक हांव चलीच कित्याक जाय. कॉलेजींत चल्यांचो कितें दुकळ पडला. फटकिरो भुरगो तूं.' ते चलूक लागलें, तोंड फिरोवन.

रेश्मा जाणा आसलें कॉलेजींत कितलेशेच चले चलयो मोगान पडल्यात. मोगात मजा करतात. सूर्यकांतान म्हजी गरिबीच पळयली. ते सामकेंच निर्शेवन गेले.

एक दीस आवयन खंयच्यान खंयच्यान जमा करून कांय पयशे हाडून कोंथमिरीच्या डब्यात घालून लिपोवन दवरिल्ले. रेश्मान ते पळयले. रातचेंच तें गुपचूप काडून पर्सांत घालून दवरले. दुसरे दिसाक ते घेवन तें बाजारांत गेलें. वाटेंत मेजून पळयल्यार ते बाराशे रुपया आसले. ते पयशे घेवन एक मोबायल विकतो घेवंचो म्हण पुराय बाजार भोंवलें. पूण ताच्या गांवांत ताका तितल्या पयशांत मोबायल मेळ्ळो ना.

सकाळभर बाजार भोंवन दनपरा घरा आयलें. आवय ताची वाट पळयत दारातच उबी आसली. तिणें विचारलें, 'रेश्मा तुवें म्हजे दब्यातले पयशे घेतल्यात?'

रेश्मान एकदम रागान झिडपल्लेवरी व्हडान, 'हय घेतल्यात' म्हटलें आनी सगळे पयशे सालांत शेवटीले. ते फासपून पडले.

आवय मागीर ताका झिडपून कितें कितें उलयत रावली. तिणें तिका चोर म्हटलें, आयतेखाऊ म्हटलें. रेश्मा आवयसरी झगड्टा झगडटां रडूंक लागलें. मागीर फिडशे आयल्लेवरीं भूंयेर पडून लोळूंक लागलें. आवयन ताका घट वेंगेत दामून घेतले.

कॉलेजीचे गेदरींग लागीं पाविल्लें. मोठी धांवपळ चलिल्ली. रेश्मा सगळ्यापासून बेठेच कुशीन कुशीन रावतालें. ती धांवपळ, तें गावप, नाचप कांयच ताका सोंसनासलें. गेदरींगाच्या आदल्या दिसा तें भायर कोरिडोरांत उबे आशिल्ले कडेन घुंवळ येवन धप्पकरून सकल पडलें. कोणें तरी कॅंटीनात धांवत वचून सोडा हाडलो. तो तोंडार तकलेर मारतकीर ते सावचीत जालें. ताणें घरा कांयच सांगलें ना.

गेदरींगा दिसा कॉलेजींत मोटो झकपक आशिल्लो. झगझगीत स्टेज, थंय वाजपी संगीत, भुरग्यांलो गजबज. रेश्मा कुशीन कुशीनच आसलें. प्रत्यक्ष गेदरींगाचो कार्यक्रम चलताना लेगीत ते पयस अलिप्त. तोंडार इल्लेंय हांशें नासलें. भायर भितर भयंकर निर्शेणी.

गॅदरिंगाच्या दुसऱ्या दिसा सांजेचें तें कॉलेजींतल्यान घरा आयलें. कुडीक, मनाक कसली शक्तच नाशिल्लेवरी लखतशें तें चलतालें. घरा आयल्यार घरा आई बाबा कोणच नासलीं. घर उक्तें केल्यार घरभर गरीब बुरसो पसारो पातळिल्लो. तो मोडिल्लो टि.व्ही., एकवटेन लिखखिल्लेवरी, ताचो हारसो फुटिल्लेवरी दिसतालो. सांजच्या बेगीनच घरांत काळोख भरून आसलो. ते आदी घुंविल्लेवरी जालें. मागीर उबगण, निर्शेणी हाचेन ताचें मन भरून गेल्लें. सगळ्याची तिडक मारली...

आईल्या देवामुखार फस्क आसलें. ताणें तें उखल्लें. भायर येवन फस्का काडी लावन घराची चुड्टां पावळी पेटोवन दिली. उजो भगभगत वयर वयर गेलो. कांय वेळ तें चडट्या उज्याकडेन पळयत रावलें, मागीर घुंवळ येवन पडलें.

○○○

# शेणागुळो

व्हडलें गडगंज घर आसलें. मोटेमोटे पाटयो, खांबे, आंडी, वाशे घालून बांदिल्ले. तातून पुर्वजांले दोनतीन व्हडले व्हडले फोटो लायल्ले आसले. तांचे कुशीन जयंताच्या बापायलो, जयंतालो उपरांत जयतांच्या पुतालो लावचो आसलो. पूण लग्नाक पांच वर्सां जालीं तरीय जयंताक भुरगें जावंक नासलें. भुरगें जावचें म्हण मोटो देवधर्म, घाडी, जोशी चलिल्ले. बाबा, महाराजांकय मेळप जातालें.

जयंताली बायल निर्मलाक हें अजीबात मान्य नासलें. बऱ्या डॉक्टराकडल्यान दोगांनय बरे उपचार करून घेवक जाय अशें दिसतालें. डॉक्टराचें-नांव काडल्यार मांव, मांय ताका एकल्याकच डॉक्टराकडेन वच म्हण्टाले. मांयन दोन फावट ताका एका डॉक्टरासरी व्हरूनय हाडिल्लें. डॉक्टर सुमाराचोच आसलो. ताणें निर्मलाक तपासलें आनी कांय वखदां बरोवन दिलीं. ताणेंय घोवाकय वांगडाच तपासूक जाय म्हटलें ना.

आवय, बापूय आपल्या पुतात कितें खोट आसा हें मानून घेवकच तयार नासलीं. जयंत लेगीत कांयच आयकनासले. बायलेन कितेंय सांगल्यार ती आपल्या पुरूशार्थाचेर दुबाव घेता म्हण ताका राग येतालो. गाळी सवतालो, हाताक मेळिल्लें धरून धाडायतालो. केन्ना निर्मलाक तूंच वांज म्हण्टालो.

निर्मलाक होलमतालें, तसो एक विश्वास आसलो, म्हजे भितर कसलेंच उणाकपण ना. हांव भुरग्याक जल्म दिवंक शकता. म्हजे कुडीचे कणाकणाक ती

तांक आसा. म्हजी गर्भपिशवी उमळशिकेन रावल्या गर्भ धरूक. म्हयन्याची पाळी आयली म्हण्टकीर म्हजी कूड आकुळपिकूळ जावन भितरल्यान रडटा. तोच खोटो, ओंटार मिश्यो नाशिल्लो मिळमिळीत दादलो. ताचे कांयच समा ना. ताचे आवय बापूय कितें जाणात? तांकां ताचें बेठें धश्टपुश्ट शरीरच दिसता!

आपणावांगडा घोवानय दोतोरासरी तपासून घेवंक येवंक जाय म्हण तें हट धरून बसलें आनी ताका चडच उलोवणीं खांवचीं पडलीं. ते तर घाडी, जोशी, देवधर्म करतच आसले.

हातूंत आनी तीनचार वर्सां गेली. शेवटाक ताणी निर्मलाक वांज म्हण थारायलें आनी ताचो छळ सुरू केलो. नानापरीन ताका हिणसावंक लागले.

ल्हवल्हव घरांत जयंताच्या दुसऱ्या लग्नाची उलोवणी सुरू जालीं. निर्मलान घोवाक काडीमोड दिवंची म्हण ताचेर आनीक चेपण येवंक लागलें. सगळ्यांक निर्मला उबगलें आनी तें एक दीस त्या घरांतल्यान कायमचें भायर सल्लें. वयताना ताणें सांगलें, 'हांव काडीमोड दिवंक केन्नाय तयार आसा. पूण एक सांगता, ताचीं सतरां लग्नां जालीं तरीय ताका भुरगें जावंचें ना. दम ना ताच्या कुडीक, ताच्या बिंयाक.'

निर्मल घरांतल्यान भायर सल्लें आनी ताच्या स म्हयन्या भितर जयंताचे दुसरें लग्न जालें. गरीबालेंच चेडूं. 'आंगाकांतीन बरें उजळ. तिची कूड जशी जुवानपणाच्या तेजान लिकलिकताली.

निर्मल आतां तिशीक पाविल्लें. ताका दोन गजाली आतां करच्यो आसल्यो, एक जयंताल्या घराब्यार सूड घेवंचो आसलो आनी आपूण वांज न्ही हेंवय दाखोवचें आसलें.

वांज न्ही म्हण दाखोवंचें जाल्यार परते लग्न करूंक जाय आसलें. तसो ताचो आंगलोटय बरो आसलो आनी तें दिसूकय वायट नासलें. पूण तें 'वांज म्हण ताका घोवान सोडला' ही खबर गांवार पातळिल्ली. लग्नाक सात वर्सां जाली तरीय भुरगें ना जाल्ली कसली बायल ती म्हण लोक म्हण्टाले. कांयशे तुच्छतेन पळयताले.

पूण निर्मलाक सिद्ध करूंकच जाय आसलें. आपूण दुसरें लग्न जावंक सोदता हें ताणें आपल्या आवय बापायक सांगिल्लें. तागेलो व्हडलो भाव तर

जयंत आनी ताचे फामीलीचेर रागार फुगार जावन आसलो.

पयल्या लग्नाचो न्हवरो, ताका मेळप कठीण आसले. दुसरेपणाचो पळोवंचो आसलो. तसो एकलो आसलो, तांच्याच पयसुल्ल्या नात्यांतलो. तेगेली बायल दुसरे फावट बाळंटेरा उपरांत भायर पडिल्ली. बाळंत जातकीर अचकीत तिका जोर आयलो आनी तिगेल्या गर्भपिशवेक सूज आयली. ती गेलीच ना. उल्टी कुडींत वयर चडतच गेली. पूण दुसरे भुरगें जिवे आशिल्ले. तो लग्न जावंक सोदतालो.

कांय एक चितनासताना निर्मल ताचेसरी लग्न जालें. भाव, बापूय म्हण्टाले ताची जोड फाव तितली ना. बायलेक बऱ्या हॉस्पिटलांत घालूंक नज जावन ताणें तिका मारून उडयली. पूण कांय एक आयकनासतना तें ताचेसरी लग्न जालेंच.

ताची व्हडली चली पांच वर्सांची आसली. आवयली खूब्ब याद करताली. एक दीस तेगेल्याच आवयली एक साडी न्हेसून निर्मला घरांत वावुरताना चलयेन म्हटलें, 'तूं जुस्त म्हगेले आईवरी दिसता.'

निर्मलाक इतलो आनंद जालो ताणें ताका वेंगावन उखलून घेतलें. ल्हवच कानांत म्हटलें. 'हांव तुगेली आईच गो शाण्या!'

लग्न जावन सगळे जाग्यार पडसर मदी स सात म्हयने गेलें. निर्मलान घोवाल्या ल्हानशाच घरांत संसार बेस मांडलो आनी दोगांय भुरग्यांक घेवन रावंक लागलीं. त्या वर्सा पावसाळ्यांत बागांत एक धव्या वांटकुळ्या दुदयाची एक वाल किल्लली. तिणें करतां करतां पुराय बाग व्यापली आनी ताका खोटल्यांनी दुदी धल्ले. निर्मल तें येयल्यागेल्ल्यांक वाटीत आसलें.

तशेंच ते गुरवार जालें. आपणाक दीस गेल्यात म्हण होलमतकीर ते वाऱ्यावेल्या कणसावरी आंग आंग थरथरलें. खोशयेन ताच्या मनाची नाळ भिजली. ताणें मनांत म्हटलें, तो पचको म्हाका वांज म्हण्टालो!

त्या दिसा ताणें घोवाक बरें बरें रांदून वाडलें. तो जेवताना तें म्हऱ्यांत बसून ताच्या पोल्याक आपले पोले घांसताले. तो खोशयेन मुरगटून हांसतालो. ताणें ल्हवन ही गजाल घोवाक सांगली.

सात म्हयन्यांर ताचें पोट बरेंच वयर आयल्लें. न्हेसण इल्लें सकयलच घेवन तें पोट दाखयत बरें मिरोवन घेतालें. बेठेच फुलां खुट्टलेवरी 'उस्स उस्स' करीत रावतालें. घरा मुखावेल्यान वयतले कोणय बायलेक म्हण्टाले, 'खेळटा गे

पोटात तो. पोटात घुमट व्हाजिल्लेवरी जाता. जीव हालता सामको.'

आठ म्हयन्यांर एक दीस तें मुखार सरिल्लें पोट बरेंच उक्तें सोडून पांचवी साडी न्हेसलें. केंसार माथेभर फुलां माळ्ळीं. तें तशेंच रिक्शा करून पयलीं घोवाल्या घरा आयलें. पयलीं घोवाले दुसरे बायलेचें नांव व्हडव्हडान घेतच तें गेटीसान भितर सल्लें आनी येवन मुखाल्ले पडवेंतच फतकल मारून बसलें. पोट भूंयक तेकूंक पाविल्लें.

दुसरी बायल किशोरी आपणाक कोणतरी आफयता तें आयकोन भायर येयली. निर्मलाक तें वळखलें ना. एक अनवळखी गुरवार बायल येवन पडवेंत बसला तें पळोवन तें कांचवेलें, 'आगे, आगे, कोण तूं? अशी सकलच कित्याक बसल्या.'

'जीव जड जाला गो. दोन जिवाचें मनीस न्ही हांव. उबे रावल्यार हात पांय वळोन येतात. तशें हें घर सवकळीचें म्हाका.'

'तूं कोण तें तरी सांग मुगे?'

'भायर असो आवाज आयकोन मांव, मांय आनी घोव भायर येयलीं.

'हांव मुगो तुगेल्या घोवाली पयली बायल.' मागीर तें उठून किशोरी म्हऱ्यांत गेलें. ताच्या भागिल्ल्या खापट्या पोटार हात भोंवडायत म्हटलें, तीन वर्सां जालीं मुगो लग्नाक? अजून हें बरगल्लें पोटच घेवन भोंवता? काय जावचें ना. कांयच जावचें ना. शेणागुळो तो. म्हजें चय. म्हजो घोव कितलो फिशाल चय.'

तें मुखाल्ली सोपणां देवन सडसडीत चलूंक लागलें.

OOO

# भोगणारे

तो सांगतालो, आंकवार चलयांक डॉक्टराकडेन वच्चो, वखदां घेवचो, हॉस्पिटलांत ॲडमीट जावंचो अधिकारच ना.

हांवें म्हटलें, 'अशें कित्याक म्हण्टा तूं?'

मागीर ताणें जें कितें सांगलें तें आयकोन हांव अस्वस्थ जालों, म्हाका रातभर झेम पडली ना.

तो सांगतालो, 'तें एकुणीस वीस वर्सांचें चेडूं आसतलें. अनिता ताचें नांव. तीगा जणां भयण्यांत तें मदलें. बापूय पंचायतींत क्लार्काचें काम करतालो. घरची परिस्थिती गरीबीचीच. आवय सामकी सादी बावडी. चलयांच्या लग्नाचोच घोर घेवन बशिल्ली. येयल्ल्या गेल्ल्यांक कोणाकय आपल्या धुवेक बरी सोयरीक पळयात म्हण सांगताली. बापूय केन्ना तापतालो. व्हडल्याचें एकल्याचें लग्न जाल्लें दोन वर्सां फाटींच. तेगेलो घोव ल्हानमोठी सरकारी कंत्राटां करतालो. तेगेलें बरें चलिल्लें. ताचो इल्लो आदार दिसतालो.

अनिता प्रकृतीन इल्लें नाजूकच. हातापांयान सडसडीत उंच आनी इल्लें बारीक. पूण सोबीत तामशें मुखामळ, भांगरावर्णाचें लिकलिकीत दोळे. बापायक ह्या चेडवाची व्हडली व्हडवीक दिसप. पूण लग्नाच्या बाजारातले हिशोब नीट जुळून येनासले. खंय पत्रिका जुळनासली तर खंय शिक्षण उणें पडटालें. सगळ्यो तिगांय भयण्यो एस.एस.सी., बारावी जाता मेरेन खर्शल्ल्यो. कॉलेजीक दुसऱ्या गांवांत धाडूक जाय आसलें. बापूय भितालो. पयशांची कुमकय फाव तितली

नासली. तरी आवय बापायक सदांच एक घोर लागिल्लो आसतालो, कसल्याय किटाळा बगर चलयो एक फावट लग्न जावन गेल्यार पुरो अशें दिसतालें.

अनिताय आपल्या आंकवारपणाच्यो सगळ्यो मानमर्यादा सांबाळून आसलें. उलयताना चडवेळ खंयच्याच दादल्यावसरी दोळो मेळूंक लागलो, आवाज थरथरूंक लागलो म्हण्टकीर तें भियेल्लेवरी जातालें. रोखडेंच कूस मारतालें.

शेजारच्या वाड्यावयलो संजीव दोनतीन फावटच तेगेल्या घरासरी येयल्लो आसतालो. हायस्कुलाक वयताना वाटेर इल्ले विसकळ रान लागतालें. अनिताक थंयसान वचूक सदाच भिरांत दिसप. मुखार संजीवबीन वयताना दिसल्यार 'राव रे संजीव' म्हणून ते ताच्यासरी धांवन वयतालें. ना तर तोच केन्ना फाटी वळून पळोवन अनिता खातीर रावतालो. एक आपलेपण आशिल्लें. तरीय तें तो आतां घरा आयल्यार समजून राखून सोताक सांबाळटालें. हांशे तोंडांतल्यान पुराय भायर फुटूंक दियनासलें. तोवय निश्कळंक मनान येतालो कितेंय उलयतालो आनी वयतालो. अनिताच्या आवय बापायलो ताचेर भारी विश्वास आसलो.

एक दीस रातचें अनिता दुयेंत जालें. रातचे तीन चार फावट भायल्यान जालें आनी मागीर सकाळी उल्ट्यो जावंक लागल्यो.

उल्ट्यो? आंकवार चेडवाक उल्ट्यो जातात ही गजाल गांवभर भल्ली. कितें जालें खबर ना, जोर आयलो काय भायल्यान जालें तेवय खबर ना. उल्ट्यो जाल्यो तेंच खरें, म्हाल म्हत्वाचें.

त्या दिसा दनपारमेरेन ताका उल्ट्यो जायतच आसल्यो. तें सामकेंच अशक्त जाल्लें. मदीं संजीव बेठोच ताचे घरासरी म्हण येयल्लो. अनिताची अवतिकाय पळोवन ताणें गडबड घातली. घरासरी वचून तो आपली मोटारसायकल घेवन आयलो. अनिताक, तेगेले आवयक दोगांकय मोटरसायकलीर बसोवन धा मैलार हॉस्पिटलांत घेवन आयलो. डॉक्टराक पायें पडून बेगीन ॲडमीटय केले. हॉस्पिटलांत पावसर अनिता सामकें मरणाधडेर पाविल्ले. आवयचेर मान उडोवनच बशिल्लें. संजीवान म्हटलें, 'बरें जातलें तूं अनिता. आंगांतलें उदक, सत्व गेला पुराय. एकदोन सलायन दितकीर बरें जातलें.' तें बेठेंच हुंकारलें.

उपचार करतल्या डॉक्टरान म्हटलें, 'आनीक पंदरा मिनिटां हाडूंक कळाव जाल्यार वाचचें नासलें तें. डिहायड्रेशनान आंगावयली सगळी कात अळंग पडल्या पळय.'

गांवांत लोक घरांत, दारांत, आंगणांत, रावन फुतफुतताले, वोकाऱ्यो येवंक लागलात. तो घेवन हॉस्पिटलांत गेला. कितें कात म्हण कांयच कळना... कितेंय आसल्यार मेकळें करून हाडटलो तो.... घरांत आवय आसताना हें अशें कितें म्हण कळना!

तीन दीस हॉस्पिटलात रावन बरें जावन तें परतें आयलें. परते येताना आवयवांगडा बशीनच येयल्लें. संजीव नासलो वांगडा.

अनितान पळयल्यार गांवचे लोक दोळे चोरतात. अंदल्या आवाजानशें उलयतात, पयस पयस रावतात. अनिताक विचित्रशें, अजाबशें दिसलें.

आवय इल्ली अबरगतच आशिल्ली तरी बायलां संबदांतल्यो बऱ्योचश्यो गजाली तिका अणभवांतल्यान कळटाल्यो. तिका इल्लो इल्लो अर्थ लागिल्लो जावंये. एक फावट वाड्यावयल्यो चारपांच बायलो एकेकडेन पेल्यान उब्यो आशिल्ल्यो पळोवन तिणें म्हटलें, 'धव्याचेर काळें उडोवप सोप्पें, आतां हेंच्या काळ्याचेर काळें कशें उडोवंचें? खावन मातली आनी जेवलीच ना म्हण कास सोडोवन बसली!'

आयकोन अनिता गोंधळांत बडिल्लेवरी जालें. आईक कितें विचारचें धैर्य नासलें.

लोक कित्या कितेंय उलयताले. खबर गांवार पावताली. तशी ती अनिताच्या व्हडल्या भयणील्या घोवाच्या कानारय पावली. अडीअडचणेक पावपी तो मनीस. आपले बायलेच्या कुळराचेंय बरें जावचे म्हण वावुरपी तो ताका खूब वायट दिसलें. एक दीस दनपारचोच तो रागार फुगार जावनच आयलो. अनिताल्या आवयकच रागान म्हटलें.

'संजीव म्हण कोण तो? कित्याक येता हिंगा? हॉस्पिटलांत घायल्लें खंय अनिताक, कित्याक म्हण, कितें जाल्लें तर? गांवार सगळे फें फें जालां. तोंड दाखोवप उल्लें ना.'

दारासरी उबें आशिल्ल्या अनिताक खप्प जालें. तें धडपडत धांवन भितर गेलें. हांथरूणार पडून हात पांय घाशीत रडूंक लागलें.

○○○

# एक झाड बापडेशे

दोंगर देंवन जंय मुळसाक पावतालो थंयच एके व्हाळाचे धडयेर ती सात रुखांची पांचवीचार रुखावळ उबी आसली. ताच्या उपरांत रान सोंपतालें. मागीर सकल बोठीच बसकी झाडाझोपां पातळिल्ली. दोंगरात वचची वाट त्या झाडांकुशीच्यानच वयताली.

उदेंतेतल्या सूर्या उदेतालो तेन्ना पयली किरणां त्या झाडांर पड्टालीं. तेन्ना तीं अहंकारान फुलून फुगुनशी उबीं रावतालीं. पयलो पावस घोऽऽ जायत पयलीं त्या रुखावळींत पडटालो मागीर वयर दोंगरांनी वयतालो. म्हण ती झाडां गर्वान कशी आंगाकांडानय बरीच मातिल्ली. तातूत व्हाळशेंत, ताचेकुशीन बरीच शेळ आसताली. रानाक जळोंव हाडूक गेल्ले, गोरवां घेवन चरोवंक गेल्ले परत येताना त्या झाडामुळांनी विसव येवंक बसताले. केन्ना थंय लोकांचो बरोच गजबज जातालो. दिसतालें तीं झाडांय खांदे बागवोन जशी तांच्या गजबजांत मेळून गेल्यांत.

तातूत एक जांब्याचो रूख आसलो. काळ्या तांबश्या आंगाचे कांड पंधरायेक फूट वयर वतकीर ताका उबे आडवे, वाकडे तिकडे कितलेशेच खांदे फुटिल्ले. ते एक दुसऱ्यांत शिवन गेल्ले. बारीक गच्च पानां ताचेन मुळात गच्च सावळी पडटाली. ताचें लाकूड आंगान बरेच तांबडे आनी घट. ते उग्र प्रकृतिचें झाड. ताचे सावळेक जाय तशी थंडसाण नाशिल्ली.

दुसरे एक झाड आसलें माडतीचे. खरे पुराणार्थी झाड. तें तिशेक फूट नीट

उंच गेल्ले. मागीर दोन मोटे खांदे फुटिल्ले. ते आनीक वयर गेल्ले. ताचे आंग काळेकिट्ट आसलें आनी ताचेर खवलांशी उठिल्ली. ताचें आंग-कांड इतलें घट आसलें, ताचेर कितेंय माल्ल्यार घुम्म घुम्म आवाज येतालो. तो असो ताठ उबो आशिल्लो वोगीच गर्विश्ठ, बेदरकार कसो दिसतालें. ताचीं पानां लांबट पांचवीचार ताका केन्ना फुलां फुलून गेली तें कळनासलें. पूण ताका चपटी कात्र्या कात्र्यांची कशी फळा येताली. तांचेमदी एक बी आसताली. आनीक एक आसलो नाण्यारूख. ताचें आंग धवेंशे, खांदे, ताळयो, पानांय धवंशी. सदां तो वोत पिवन उबो आसा आनी हांसता कसो दिसतालो. उंच सुंदर सोबीत रूख. ताका धवीं दुदाळ फुलां फुलतालीं. तीं रूखाक नखेत्रां हुमकळतात कशीं दिसतालीं. ताच्या सोबीतकायेचो झेत, ताचो अहंकार ताच्या ताठ उबो रावपांतल्यान दिसतालोच. थंय असणी रूखय आसलो. काळश्या आंगाचो तो रूख रेडो कसो आडवो वाडिल्लो. मोडव्योच खांदयो, बारीक पाना, आंग मात गडगंज मोटे. खुडबरसा रुखाचें कांड देवळाच्या खांब्याभशेन मोटवेंच गडगंज आसलें. मागीर ताका वयर खांधे फुटून आडवे उबे गेल्ले. हाची पानां काळीं आनी गच्च फुटिल्लीं. दिसताले हो रूख धरतरीर सावळी धरचे खातीरच जल्मला.

आडवीं वाडिल्लीं कांडां, मळबाक गेल्ल्यो खांदयो, सकल पडिल्ली गच्च सावळ तांचेन हांगा सैमाचें विजमीत अवतरिल्लें.

हांगा दोनच झाडां अशी आशिल्लीं तीं ह्या पुरूशी झाडां वांगडा सोबनासलीं. कुशीन एक अर्जुना रूख आसलो. धवो गोरोगोरोपिट्ट. पाखलो कसो. खांदे पानां सामकीं विसकळ. सकल सुपायेदी सावळी पडनासली. हांगाच्या हेर खंयच्या झाडाचीं पानां शिशिरात झडनासलीं. पूण अर्जुन रोखडोच बोडको जातालो. मागीर तो गोरो मनीस उबो आसा कसो दिसतालो.

तशेंच कुशीन पडिल्ले आनीक गरीब बाबडे झाड आसलें. ताची जातय नीट कोणाक खबर नासली. हेर लांब उंच झाडांच्या सावळेंत तें चडच खुरटे जायत गेल्लें. घडये ही मोटीमोटी झाडां भूंयेंतलें उदक आपूणच चड ओडून घेतालीं आनी त्या वावड्या झाडाक घोटभरय उदक मेळनासलें. त्या झाडाक घडये सदांच दिसतालें, हीं व्हडलीं व्हडलीं झाडां आपणाक किकोंत लेखतात, आपल्या खुरटेपणाक हांसतात. तें चडय बावन सुकून उबें रावतालें. आंगान काळे, खांदे काडयो कश्यो विसकळ पातळिल्ल्यो. पानां बारीक लांबट. तिवय

विसकळच. दर वर्सा वैशाखाचो हुलाताप पडटालो तेन्ना दिसतालें हें गरीब झाड मरून वयतलें. पण तें आपले कुडींत जीव घेवन पावसामेरेन उबें रावतालें. आंगार आशिल्लीं पानां पुराय सुकूंक दियनासलें. वयलीं झाडां सोड मनशां लेगीत त्या झाडाक मेजीनासलीं. ताच्या पोंदाक केन्ना बसनासलीं. मनशांक दिवंक ताचेसरी इल्ली सावळी नासली.

एक वर्स वसंत रुतू लागीं पावंक तें झाड बरेंच गोमटें दिसूंक लागलें. आंगा काडांक लिकलिकसाण आयली आनी ताचो घेरय इल्लो वाडलो. झाडाक आनीक पानां फुटलीं. खांदयो जिवे तटतटीत दिसूंक लागल्यो. आनी एक दीस तें धव्या-हळदुव्या फुलांनी भरून गेलें. ताचो एक फुलांनी सोबयल्लो रथ जालो. फुलांक इतलो बरो, इतलो सुवासीक परमळ आसलो, सगळो परिसर त्या वासान भरून गेलो. झाडा लागींच्यान वयतलो खिणभर थांबून तो परमळ हड्ड्यान भरून घेव लागलो. म्हणूंक लागलो, देवान स्वर्गांतल्यान धाडिल्लो कसो काय बरो हो परमळ. तो परमळ, तीं फुलां देडेक म्हयनो झाडार तिगलीं.

परगांवचो एकलो जाण्टेलो थंयच्या लागींच्या वाटेन वयताना ताणें तें झाड पळयलें आनी तो वळखलो, म्हणालो हे सातसाली झाड. हेका सात वर्सांतल्यान एक फावट फुलां फुलतात. हें फुलता तें वर्स पिकफासणेक, गोरवांवासरांक बेसबरे आसता. घरांत गिरेस्ताकय येता.

खरेंच त्या वर्सा आंबो, पणस ताळ्याताळ्यांनी चंवरलो. तांका राशिंनी फळां धल्लीं. शेतांनी पिकांय खूब बरी आयली.

आतां तें फुलून तीन वर्सां जाल्यात. लोक तें परत फुलचीं वाट उमळशिकेन पळयत आसात.



# कचरो

घोव दोन वर्सां फार्टींच जळारांनी चाबून मलेरिया जावन मेल्लो. देवम्मा आपल्या दोगा धुवांक घेवन एकलीच ते झोपडेंत रावताली. ती सकाळची गावार वचून साकात प्लास्टीका वस्ती, पोतयो, बाटल्यो, चपलां आनी जायत्यो हेर तुटक्यो फाटक्यो वस्ती पुंजायताली आनी दनपार जावच्याक भंगार अड्ड्यार व्हरून विकून येताली.

तेन्ना दोगांय भुरगीं एकलीच घरांत रावतालीं. व्हडलें स वर्सांचें आसलें तर धाकलें तीन वर्सांचें. आवय साक घेवन भायर वयताना शाण्या भुरग्यावरीं दोळ्यांतलें रडप दामून घेवन आवयक पळयत रावताली. ती येवंची वेळ जातकीर आकूळ पिकूळ जायत झोपडेच्या दारार येवन बसताली. भिजिल्ल्या दोळ्यांनीच आवयची वाट पळयत रावताली.

आज सकाळीं उठून तिणें बाजरेच्यो तीन भाकऱ्यो बडयल्ल्यो. एक सोता खावन एक व्हडल्या चेडवाक दिली. धाकलें जिवान बरें नासलें. रातचो ताका मातसो जोर आयल्लो. तें न्हिदिल्लेंच आसलें. देवम्मान बेगीबेगीन तोपलेंत पिठाचें इल्लें आमील केलें. व्हडल्या चेडवाक पारीक म्हटलें, गौरा उठ्ठकीर तेका इल्लें आमील खावय. तेतून मुड्डून भाकरे तुकडो इल्लो खाता जाल्यार चय.'

ती साक घेवन बेगिबेगीन भायर सल्ली. जाण्टी सुबम्मा तेगेली वाट पळयताली. सरसरीत चलत तीं दोगांय गांधी कॉलनीवटेन वचूंक गेलीं.

सुबम्मालो कोणूच नासलो. ती मुळची गुंटकल लागिची. एक दीस तिगेलो घोव घरातल्यान नाच जालो. दोन तीन वर्सां वाट पळोवन ती आनी कोणावांगडा लग्न जावन गोंयांत आयली. गोयां येतकीर तो सोऱ्याच्या व्यसनाक लागून रोखडोच मेलो. ती एकलीच आपले झोपडेंत रावता. कंगाल, बुरशी, मुखार गेल्यार वास मारता. देवम्माली आनी तिगेली भाशा जुळता म्हणच ती वळख आनी लागशिल्लेंपण. नातर तिची ती कोणच लागनासली. तातूंत इल्ली किटकिटी सोबावाची आसली.

तीं दोगांय गांधी कॉलनींतल्या रस्त्यावेल्यान, बिल्डींगेकुशीच्यान, कचऱ्या कुंडेंतल्यान प्लास्टिकच्यो आनी हेर वस्ती विंचीत वयताली. आता देवम्मालो साक भरत इल्लो जड जायत आयल्लो. एकवटेन हुस्को लागिल्लो, घरात भुरगें बरें ना जावन न्हिदिल्लें आसा. बेगीन वचूंक जाय.

मदींच ती सुबम्माक कुशीक सोडून एके बिल्डींगेफाटल्यान गेली. थंय नवें बांदकाम चलिल्लें. कसले कसले सामान उडयल्लें. ताच्या मदल्यान वाट काडीत वयताना सटक करून कितें तरी निसरले, तुटलें आनी देवम्मा एक जमनी भितरल्या व्हडल्या उदका टाकयेंत पडली. साक वाकडो जावन वयर तर देवम्मा पुरतीच टाकयेंत बुडिल्ली. पावसाचे दीस आसले, टाकयेंत घडये भायलेंच म्हेळ उदक भरिल्लें. देवम्मा कांय वेळ भितरले भितर घुसमटत रावली.

सुबम्मा दुसऱ्याच वटेन बरीच मुखार गेल्ली. तरी ती फाटीं वळोन देवम्मा येता काय तें पळयत आसली. बरोच वेळ देवम्मा दिसली ना म्हण्टकीर ती फाटीं फिरली. अदमासान देवम्मा गेल्ले वाटेन गेली. पयलीं तिका वयर पडिल्लो तिगेलो साक दिसलो. मुखार वचून पळय जाल्यार टाकयेंत वयलेवयर केस फासपल्ली तिगेली तकली. सुबम्मा पावसर तिगेलो टाकये भितरलो घुसमट सोंपिल्लो. तेंच उदक पोटांत वचून ती मरून गेल्ली.

तिका पळोवन सुबम्मान एक मोठ्यान किळांच मारली. मागीर ती ताळो फोडून कशी किळांच्यार किळांच्यो मारूंक लागली. कॉलनींतल्या बिल्डिंगेतले, तेवटेन रस्त्यान वयतले बरेच जाण थंय धांवत येयले. बऱ्यो न्हेशिल्ल्यो गुबगुबीत बायलोय आशीकुशीच्या बिल्डिंगेच्या गॅलरींत येवन उब्यो रावल्यो. तिका मागीर लोकांनी केसाक धरून ओडून भायर काडली. थंयच आडवे घातलें. सगळे थंड पळयताले. एके बायलेन गॅलरींतल्यान आवाजांतली खरसाण इल्लीय

उणी करीनासतना म्हटलें, ‘‘ही घांटी केन्ना खंयूय भोंवतात. पायांपोंदा पळोवंक नज आसलें? आमच्या दोळ्याहुजीर हें बुरशे मरण.’’

मागीर एक दादल्यान म्हटलें, ‘‘हांव पयलींच म्हणटालो, ह्या लोकांक कॉलनी भितर घेवं नाकात म्हण. आतां कोण जाप दितलो हाची.’’

एकल्यान म्हटलें, ‘‘कॉन्ट्रॅक्टराचीय चूक न्ही? नीट धापणें लावन दवरूंक जाय आसलें टाकयेक.’’

‘‘पूण काम पुराय जावक नासलें न्ही. ही मदींच पावली थंय. तिगेलें मरणच थंय आसलें. आसूं सुटली ती गरीबेंतल्यान.’’

वयले एके बायलेन पुराय बेजारिल्लेवरीं म्हटलें, ‘‘आतां तें प्रेत थंयच दवरतात काय काडटात थंयसान? देवापुजेंचो, रांदचो वेळ हो आतां आमचो. पळोवन जीव विट्टा. हांगाच येवन मरूक जाय आसले हिका.’’

सुबम्मा रागान थरथरत जशी थंय उबी आसली. रडय नासली आनी कांय उलयत नासली.

कोण तरी पोलीसांक आफोवंक फोन करीत आसलो. दुसरो कोण तरी म्हण्टालो, ‘‘पोलीस आयल्यार धांदळ धावपळच सगळी. कॉलोनीचें नांव घाण. तांकां कितें घर ना दार. खंयूय मरचेंच.’’

तेन्ना पोलीसांची जीप आयली. तीग चोवग पोलीस देवन थंय आयले, ‘‘कितें, कितें जालें....?’’

एका बरे न्हेशिल्ल्या उंच दादल्यान पोलीसांक म्हटलें, ‘‘चोरूंक येतात हीं घांटी आनी मागीर खंयूय पडटात.’’

आतां सुबम्मा रागान बेफाम जाली. तिणें पायांकडेन आशिल्लो कोयराचो साक उखलून ताच्या हड्ड्यार मारलो. ती मोट्यान आड्डली. ‘‘चोरूंक न्ही. तुमची घाण उपसूंक भोंवतात आमी. घराकुशीन, रस्त्यार प्लास्टिकाच्यो घाणी घालून दवरतात तुमी. आमी न्ही जाल्यार रोगान कुसून मरतासले तुमी. घट्टण जातासले तुमचे.’’

मागीर ती देवाम्मासरीं बसून होळोम काडून रडूंक लागली. सगळे लोक तटास पळयतच रावले. तो साक आंगार मारिल्लो, तो सुध्दा वोग्गी उबो आसलो.

○○○

# दोन मुळांचें झाड

त्यो तिगीजणा जावो. तातल्यो दोगी नोकरी करताल्यो. म्हण घरांतल्या सगळ्या कामाचो भार नंदिनीचेर पडटालो. देर, जावो, तांचीं भुरगीं, मांय, मांव धरून सगळीं धा जाणां घरांत मनशां. दिसभर कामाच्या गाड्याक अखंड बांदून आसतालें. कामान पुरो पुरो जातालें. खर्शेतालें, केन्ना एकलेंच बसून रडटालें. दिसभर थंड फरशेर चलून, थंड उदकांत पाय घालून पावलाक भेगो पडिल्ल्यो. रातीन न्हिदतकीर त्यो भगभगताल्यो. मांयचें एक धोपर सदांच सुजिल्लें आसतालें. तो पाय तसोच ओढत ती नंदिनीच्या फाटीं फुडें आसताली. तें बेजारल्यार, आयदनांचो आवाज येयल्यार ती म्हणटाली, ''बरें शिकप ना, नोकरी ना, हुंडो हाडला तोवय मूठभरच. आतां घरांतलें काम तरी नीट कर.''

रातचें नज जावन घोवाक सांगल्यार तो थंडपणान म्हणटालो, ''घरांतच आसता न्ही तूं दिसभर.''

मदली जाव इल्ली मिजाशेचीच आसली. पळयता तेन्ना आपल्या कपड्या फाटल्यान ना तर शिरंगारा फाटल्यान आसताली.

व्हडली इल्ली समजिकायेची आसली. घरा आसल्यार किचनात वावुरताली. पूण कोण एकली उश्ट्या आयदनाक हात लायनासली. तातूंत तें घर इतलें व्हड झाडलोट करूंक, पुसूंक धुंवकच तें जाम जावन वयतालें. लग्न जाल्ल्या दोन वर्सांतच तें कुडीन थकलें, बेजारून बेजारून मनान तेंकलें.

एक दीस कपडे उमळताना तें बेठेंच वितरागान बडबडटा तें आयकोन

मांवान म्हटलें, ‘‘तूं अशें कर बापायकडल्यान दोन-तीन लाख रूपये घेवन यो. ते फिक्सांत दवरल्यार म्हयन्याक देड दोन हजार व्याज मेळटलें. त्या पयशांत एक वावराडी दवरूया घरांत. हरशीय कितें दिलां तुका तुज्या बापायन?’’

नंदिनीक शिट् जालें. ताणें रागान म्हटलें, ‘‘सुनेक आदींच वावराडी करून दवरल्या. आनीक वावराडी जाय तर सोताच्या हिमतीर दवरची, हेरांकडेन कित्याक हात पसरावंक जाय? लज तुमकां ती.’’

हाचेर मांवान मोठो अच्छेव केलो. गाळी सवल्यो. आपणाक भीक मागो म्हटलें, आपली लज काडली म्हण बोबो मारल्यो. मांय धावन आयली. तिणेंय नंदिनीक खूब सवलें.

दनपारमेरेनचो वावर जातकीर नंदिनी उपाशीच वचून वोग्गी न्हिदलें. सांजचो घरचो एकएकलो परतलो. मांय आनी मांव तांचेकडे तणतणत कागाळी करताले. एकएकलो तिगेले कुडीमेरेन येवन वोगीच पळोवन वयतालो. व्हडली जाव मात तिच्या बेडामेरेन आयली. तिका बेठीच हालोवन गेली. वयताना तिणें म्हटलें, ‘‘आमी भायर सिर्विसेक वयतात थंय सुखात बसूनच येतात?’’

नंदिनीक तिचे केंस धरून बुड्डूवचे अशें दिसलें.

नंदिनीक आगळोच दुबाव आयलो, ह्या लोकांनी बापूय गरीब आसा आनी नोकरीय ना हें जाणां जावनय म्हाका लग्न करून हाडलें तें घरांत वावराडी करून दवरूंकूच आसतलें... ताचे तळमळे वाडले.

सांजचो उसरा घोव घरा आयलो. आवयन आनी बापायन ताका नंदिनीच्यो इतल्या तरेन चाडयो सांगून भडकायलो तागेली तकलीच पेटली. बायलेन आपल्या बापायचो अवमान केलो हो मुद्दोच खर आसलो. तो सरसरीत नंदिनी सरी गेलो. न्हिदिल्लें ताका केसाक धरुनूच ताणें उठयलें आनी ताच्या सोंडकुलाचेर दोन थापटां शेडायलीं. म्हटलें, ‘‘म्हज्या बापायक उल्टें दिता? आतां ह्या घरात एक मिनीट राव नाका तूं. चलूंक लाग आतांच्या आतां.’’

व्हडली जाव धावत येयली. मदीं उबी रावन तिणें थातरून घेतलें. म्हटलें, ‘‘काळोख पडला भायर आनी खंय वच म्हणटा तूं ताका?’’

नंदिनी तशेंच न्हिदलें आनी रडत रावलें. तें ते रातीक हाथरूणावेलें उठलेंच ना. दनपरसावन उपाशी आशिल्लें. व्हडले जावेन एक फावट येवन जेवक उठ म्हटल्यार तें कशेंच उठले ना.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं सगलीं आपआपल्या कामाक गेलीं. घोवय वोग्गी गेलो. नंदिनी सावकासायेन उठलें. कालचीं सगळीं उश्टी आयदनां तशींच पडिल्लीं आसलीं. भिजयल्ले कपडेय न्हाणयेत पडिल्ले. नंदिनीन तांचेसरी दुर्लक्ष केलें. तिणें एक बॅग काडलें आनी आपलें काय कपडे भरून तें घरातल्यान भायर सरलें. आंगणात पावतकीर मांयन पळयलें. म्हटलें, "वयता तूं? उठाउठी सांगिनासतना वयता, परत आनी ह्या घरात येवं नाका. हें दार बंद तुका आता."

ना आयकल्लेवरीं तें सरसरीत चलूक लागलें. तें मनात म्हणटालें, घोवाघरचें घर बंद जाल्यार कुळारचे धुवेक कुळारा आसरो आसताच. हांव जल्मल्लें म्हजें आवयचें घर तें! गरीब आसलें तरी!

तें बसीन धा मैलार आशिल्ल्या आपल्या कुळारा घरा आयलें. बापायच्या दारात पावतकीर मोटो संकोच, चेपण ताचेर देंवन आयलें. ताका अजाप दिसलें, ज्या घरात हांव जल्मल्लें, वीस बावीस वर्सां काडिल्लीं, जंय म्हजी आवय बापूय आसा थंय आपणाचेर हें चेपण कसलें!

ताका पळोवन आवय बापूय भायर येयले. दोगी भयणी धाकलो भाव भायर येवन उबो रावलो. तें विसकटिल्लेवरीं दिसतालें. केस फासपल्ले, वस्त्रां चुरगळिल्लीं, पोन्नीशींच आसलीं. चेऱ्यार तेल थापलां कशें दिसतालें. तांकां दुबाव आयलो, भिरांत दिसली. बापायन 'यो बस' म्हणत ताका घरात घेतलें. तें एका खुर्चेर बसलें. आवयन ग्लासभर उदक हाडून दिलें. तें ताणें गटागटा पिवन घेतलें.

"कितें जालें बाय, मदींच शें आयलें? रूपय सारखें दिसना."

"कित्याक आई, म्हजे आवयगेर म्हज्यान केन्नाय येवंक जाता न्ही. धुवेक बंधन कसलें?"

बापायन आवाज इल्लो तीख करीत म्हटलें. "अचकित अशें कित्याक येयला तें तरी सांग मुगो."

"हांव घोवालें घर सोडून येयलां बाबा, आमी गरीब म्हण, हांव नोकरी करीना म्हण म्हाका घरांतली वावराडी केल्या. वयल्यान थोमणे आनी मार!"

"पूण संसाराच्या राटगाड्याक एक वेळ बांदून घेतकीर थोडें सोसूंक जाय न्ही!"

"सोंसलें हांवें खूब सोंसलें. तुमच्या नांवाक लागून सोंसलें. तुमच्या

गरीबेक लागून सोंसलें. मुखार भयणींचीं लग्नां नीट जावंक जाय म्हण सोंसलें. आतां नज जालां म्हज्यान.''

''पूण बाय हें घर आतां तुजें न्ही?''

''मागीर म्हजें घर खंय आसा बाबा? तेंवय घर म्हजें न्ही, हेंवय घर म्हजें न्ही! मागीर म्हजें घर खंय आसा?'' तें रडूंक लागलें.

बापूय वोगीच रावलो.

आवयन म्हटलें, ''झाड एकेचकडेन किल्लता आनी एकाच सुवातेर वाडटा. आमकां बायलांक मात दोन कडेन दोन मुळां. एकय मूळ धड न्ही. कोण केन्नाय तुटोवन उडयता.''

OOO

# प्रमोशन

सदानंद सावंताली सैन्यांत सोळा वर्सां नोकरी जाल्ली. ह्या सोळा वर्सांत तो जवानावेल्यान लान्स नायक, नायक, हवालदार जाल्लो. आतां मुखाल्लें प्रमोशन ज्युनियर कमीशन्ड ऑफिसरालें - जाका ते जे.सि.ओ. म्हणटाले. जे.सि.ओ. चो पयलो हुद्दो नायब सुभेदाराचो, मागीर सुभेदार. सदानंदाल्या मुखाल्ल्या प्रमोशनाच्या संभाव्य वळेरींत नांव आसलें. ताच्यो बऱ्योच परीक्षाय ताणें पास केल्ल्यो. तो मुळांत हुशार. खेळ, कवायती, झुजाचे सराव हातूंत तो मुखार आसतालो. शाळेचें शिकप इल्लें उणें आसलें. जे.सि.ओ. जातलो जाल्यार शिक्षणाची एक परीक्षा दिवची पडटाली. तातूंत एक फावट नापास जावन तो दुसरे फावट पास जाल्लो. आतां वर्स देड वर्सांत तें प्रमोशन येवंचेंच आसलें.

जवान म्हण भरती जाल्ल्यांक जुनियर कमीशन्ड ऑफिसर जावप बरेच अवघड आसता. मात ताच्यांनी बऱ्या प्रयत्नान ते जाव येता. एक हुशार जवनाले तें सपनच आसता. कारण ताच्या खांदार नखेत्रां आसतात. चाटे पावलाक जवानांकडच्यान, नायक, हवालदारांकडच्यान सेल्युट मेळतात. एखादरो जवान मुखार पावतकीर खाड्‌ करून सावधान जाता आनी सडसडीत सेल्युट मारता. बरें दिसता. झेत वाडटा.

सदानंदालो बापूय गरीब शेतकार. भुरगेंपण गरीबेंतच गेलें. एक दीस शिकप सोडून तो घरातल्यान धांवन वचून फौजेत भरती जालो. ताका सदांच

दिसतालें, आपणें कितें तरी बरें करूक जाय. आवय बापायलें नांव वयर काडूक जाय. दिसतालें, जे.सि.ओ. जाल्यार खांदार नखेत्र येतलें, झेत वाडटलो खरें. ते भायर पगार वाडटलो, फौजेंत आनीक सात-आठ वर्सां चड नोकरी करूंक मेळटली. म्हजे बायलेक, म्हज्या भुरग्यांक सुखान, मानान जियेवंक दितलो. तिगांय भुरग्यांक बरे बरें शिकप दितलो. गांवांत आवय बापूय आमगेलो सदानंद सुभेदार जालो म्हण अभिमानान सांगतलीं. एक दीस भुरगेपणाक सुखोवंक घातिल्ल्या खोबऱ्यांतलो एक कुडको उखलून खायलो म्हण शेजारच्या रामचंद्रान म्हाका असो माल्ला.... पिकेचें वर्स सोपूंक आयलें की घरांतलो दाणो गोटो सोंपतालो तेन्ना आवय हातात पोती घेवन उधारउश्णे हाडूक गांवभर भोंवताली. गांवचे वाणी दुकानार गेल्यार किंकोंत करताले.

आतां सगळ्यो परिक्षा पास जावन ताचें नांव ज्युनिअर कमीशन्ड ऑफिसराच्या फायनल वळेरींत आयल्लें. वर्सभरांत खांदार नखेत्र चडटलें.

अचकीत कितें जालें, ताच्या प्रकृतिच्यो कटकटी सुरू जाल्यो. नीट भूक लागना जाली, झेम पडना जाली. चड धावल्यारबीन धाप लागूंक लागली. एकवीस वर्सां पिरायेर तो फौजेंत भरती जाल्लो. आतां सोळा वर्सां सिर्वीस जाल्या. सदुतीस वर्सां पिराय म्हटल्यार काय चड न्ही. पूण हें कितें जालां म्हाका! हांवें व्यसनां तर केन्ना कसलीं केलीं नात. हिमालयांत लेबॉग आसताना चड थंडी पडल्यार हेरावांगडा केन्ना रम् इल्लो घेतला. थंयसान येतकीर तेंवय सोडून दिल्लें. विडी, सिगार तर केन्ना ओठांक लावक ना.

ताचो एक इश्ट हवालदार मधुसुदन, जाय ते फावट ते मेसान वांगडाच जेवंक वताले. मधुसुदनाच्या लक्षांत आयलें, तो सारखो जेयना बेठोच चाबाडायलेंशें करता, ताणें विचारल्यार सदानंदान बेठेंच 'शा शा' करून प्रस्नाक बगल दिली. उपरांत ताणें मेसांत मधुसुदनालागीं जेवंक बसचेंच सोडून दिलें.

मिलिटरी हॉस्पिटलांत वचूक ताका खूबच भिरांत दिसताली. थंय गेल्यार म्हज्या प्रकृतिचो अहवाल तयार जातलो. घडये म्हाका 'मेडिकली अनफिट' करतले. तशें जाल्यार म्हजें प्रमोशन वयतलें. तशें मदीं मदीं जवानाची सगळ्या तरांची वैजकी तपासणी जाताली. जवानांल्या प्रकृतिचे तीन गट आसताले. 'ए', 'बी' आनी 'सी'. 'ए' गटांतलो जवान कसल्याय कामाक फीट म्हण धरताले. बी गटांतलो कामाक चलतालो, पूण ताका परत परत मिलिटरी हॉस्पिटलांत

वचून तपासणी करून घेवंची पडटाली. फुडलें प्रमोशन दिवंचें जाल्यार डॉक्टराचें मत घेवंचें पडटालें. मात 'सी' गटांतलो जवान खंयच चलनासलो, ताका प्रमोशन मेळनासलें, रणमैदानार वचूंक मेळनासलें. खंयतरी 'रियर डंपात' पडून रावंचें पडटालें. जाल्यार ताच्यान खोशयेची निवृत्ती घेवं येताली.

सदानंदाक ह्या सगळ्यांचीच भिरांत दिसताली. पयलीं तो 'ए' गटांतच आसतालो. आतां तपासणेंत सोमतोच 'सी' गटांत बीन गेल्यार! तो हॉस्पिटलांत वचच नासलो. एक फावट नायब सुभेदार जातकीर मागीर प्रकृती, हॉस्पिटलबीन पळोवंया म्हणटालो आनी सगळे भितरले भितर स्रोंसतालो. कोणाक कांयच सांगनासलो. तरी तो कुडीन दुबळो जायत वतालो. वजन बरेंच उणें जाल्लें.

खरें तर तरणेपणाच्या रगतार आनी तांकीर ताणें तें दुयेंस स सात म्हयने हूं का चूं ना करीत सोंसलें. आतां तो बरोच अशक्त जाल्लो तरी त्याच उमेदीन पि.टी, ड्रिल आनी हेर कवायती दिसपट्टे करतालो. आपणाक पुरो जालां हें दाखयनासलो.

सारके आठ म्हयन्यान प्रमोशन आयलें. कंपनी सुभेदारान कमांडिंग ऑफिसराल्या ऑफिसातल्यान येवन ही खबर सदानंद सावंताक दिली. आनी हेंवय सांगलें, फाल्यां अकरा वाजता कमांडिंग ऑफिसरान ताच्या ऑफिसांत आफयला. तो ताच्या हातान नायब सुभेदाराचें नखेत्र खांदार चडयतलो.' युनिटांतल्या तीग जाणांक वांगडाच हें प्रमोशन आयल्लें.

सदानंदाल्या प्लाटूनांत आनी कंपनीत मोटो जल्लोश चलिल्लो. सगळे ताका सेल्युट मारूनच परबीं दिताले. एकेवटेन सदानंदाक पुरो जावन घुंवळ येयल्लेवरीं जाताली तर दुसरे वटेन तो त्या खोशयेंत भाग घेतालो.

दुसऱ्या दिसा आज्ञेपरमाणें तो कमांडिंग ऑफिसराल्या ऑफिसांत वचून खांदार नायब सुभेदारालें नखेत्र लावन घेवन आयलोच. परत येतनाच ताचे पाय आडखळल्लेवरीं जाताले, घुंवळ येवंक लागिल्लेवरी तकली भेरेताली.

तो बराकीत येवन पावलो आनी खाटी शेजाराकच घुंवळ येवन पडलो. आशीकुशीकचे जवान धांवन येयले. ताका तांणी गाडी हाडून ताकतिकेन मिलिटरी हॉस्पिटलांत व्हेलें.

ताच्या पित्ताशयांत फातर जाल्ले. लिवराकय सूज आयल्ली आनी रक्तदाब हिसपाभायर वाडिल्लो. खरें तर एका हट्टाक पेट्टून तो सोंसता सोंसता मरणा

धडयेर पाविल्लो. डाक्टरान म्हटले लेगीत, हास्पिटलात येवक आनी आठ दीस उशीर जाल्लो जाल्यार तो मरता आसलो.

सारके दोन म्हयने तो हॉस्पिटलांत उल्लो आनी बरो जावन परतो आयलो. खूब धिटायेन जिवार उदार जावन ताणें प्रकृतिचो 'सी' गट तेन्ना चुकयल्लो आनी प्रमोशन जोडिल्लें.

आतां तो मार झेतान खांदार नखेत्र लावन भोंवतालो आनी हेरांचे सेल्युट घेतालो. ताणे घरच्यांक दुयेंसाचे कळोवक नासले पूण आता प्रमोशनाचे कळयले.

○○○

# दोगांली तोंडां दोनवटेन

तो चड गरीबेंत वाडिल्लो अशें न्ही, तो चड बारीकसाणेचो आशिल्लो अशेंय न्ही. पूण ताका चकचक, फोल्गां, उधळपट्टी माननासली. सादेसुदें जिवीत जियेवंचें अशें ताचें तत्वगिन्यान आसलें. बायलेकय तो तेंच सांगतालो. सायकलीवेल्यान स्कुटरीर आयलो तेंच चड जालें अशें दिसतालें. तरी सायकलीचो मोह सुटनासलो. कितें वायट आसलें? तेल ना पेत्रोल. उल्टें आयतेंच इल्लो व्यायाम जातालो, रमतगमत वचप जातालें. पूण बायलेक मोटारीन न्ही तरी स्कुटरीचेर तरी भोंवडावंक जाय आसलें. पूण कितेंय हाडूं, कितेंय दिवं तिची पिरंगण आसतालीच.

बायलेलें आनी तागेलें खंयच्याच बाबतींत खंयच जुळनासलें, पटनासलें. ताका सादें शीत, रोस, भाकरी, भाजी, असलें जेवण पुरो आसतालें. पूण बायलेक तळून, भाजून, तोळसून खावपाचो घोस्त. रांदतना कसलो कसलो वास सुटत आसतालो. ताका वीट येतालो. ताका दिसतालें हें तेल चड वापरता म्हण आपणाक अन्न बरें पचना. जेवणाची रूच इबाडिल्ली तरी तो सोंसतालो सगळें.

लग्न जाल्लें तेन्ना खाटीर बरी कापसाची गादी आसली. आठ दिसांनीच तिणें ती गादी काडली आनी फोमाची गादी हाडूंक लायली. कापसाची गादी कोणाक तरी फुक्याची दिवन उडयली. सुरेशाक ताचें खूबच वायट दिसलें. नव्या गादयेर ताका आठ-धा दीस झेमच लागनासली. एक दीस मांवाक सांगल्यार तो म्हणूंक लागलो, 'बरें ऐशआरामांत वाडयलां ताका.'

देवान कांय बरें रूप दिल्लें. पूण तें आनीक सजोवंक कितलीं क्रिमां, तेलां आनी शांपू? सुरेशाक तो देवाचो आनी दिल्ल्या रूपाचो अपमान कसो दिसतालो. अशें शिरंगार करतकीर ताका ती केन्नाच सोबीत दिसली ना. उल्टी अवलातीण कशी दिसली. तरी तो सोंसतालो.

तो एका सरकारी खात्यांत सहाय्यक अकावन्टंट म्हण आशिल्लो. पगार बरो आशिल्लो. पूण इतलो न्ही गाडी घेवन भोवसारको. बायल गाडी घे म्हण फाटीकच लागिल्ली. लोकांक सांगताली आपलो घोव अकावंट्स ऑफिसर आसा म्हण. त्या परमाणें आपलो झेत आसचो अशें तिका दिसतालें. दिवाळेक आठ दीस आसताना गाडी घेवयाच म्हण बसली. एक दीस जेयनासतना बसली. सुरेशान आपणाक गाडी घेवंची तांक ना म्हण बरें समजावन सांगलें. तितल्या पुरती वोगी रावली. मागीर दुसऱ्याच दिसा पातळ व्हडल्या पड्ड्याचो टि.वी. घेवंया म्हणूंक लागलें. घरांत आशिल्लो तो नवोच टि.वी. काय बरो आशिल्लो, तो बेठोच भायर मारप! सुरेशाली तकली घुंवली. ताणें नाका म्हणटकीर मोटें झगडेंच जालें. ती ताका कंजुशी, जड्डो, नामर्द म्हणूंक लागली. रागान सुरेशान ताचेर एक थापट मारलें. त्याच दिसा तें आपले कपडे सुटकेसींत भरून रिक्शा करून कुळारा गेलें. सुरेशान कितलें आडायलें, पूण रावलें ना तें.

दुसऱ्या दिसा फोन लायल्यारय घेनासलें.

सुरेश मुळांत एक मोव भावूक मनाचो मनीस. बापूय पोस्टात इन्स्पेक्टर आसलो. तो चडसो फिरतेर, बदलेर आसतालो. आवयनच ताका वाडयल्लें. हालींमेरेन आवयल्या पदराची सावळीच ताका स्वर्ग कशी दिसताली.

अशें बायलेन सोडून वचप ताका भोवच भोगलें. सांजचो ऑफिसांतल्यान येतालो आनी वोग्गी न्हिदून रावतालो. कितें खायलें तर खायलें ना तर ना. सामको घुसमट आनी मनाची तडफड! मदींच तो आवयली याद आयल्लेवरी रडटालो.

मदी सात दीस गेले. फाल्यां दिवाळी. दिसतालें, उठचें आनी गांवांत आवयसरी वचचें. पूण मन माननासलें, तें तर भिजिल्ल्या वस्त्रावरीं थंड, ओलेशें जाल्लें. मनाक कसलीच उमेद नासली.

तरी ताका दिसलें, फाल्यां आपूण दिवाळी आपले बायले वांगडा वसू वांगडा मनोवंची. ताची माफी मागची, समजावंचें आनी ताका परते घेवन येवंचें.

तेंवय म्हजेवरींच ताटातूट मोगाचे उतळताप भोगता आसतालें. मातशें फोल्गी तरी बरें आसलें तें. म्हजेसरीं येवंचे तळमळे लागिल्ले आसतले. ताणें स्कुटर काडली आनी तो मावोडेच्या रस्त्यान वचूंक सुटलो. सांज जाल्ली. काळोख पातळूंक लागिल्लो. रस्त्यार दिवे लागिल्ले. दिवाळेची आदली रात, सगळीकडेन चकचक आसलो. फोग पेट्टालो.

तो ताच्या घरासरीं पावलो आनी इल्लो अनमनलो. तसोच घरांत घुसचो ताका धीर जायनासलो. म्हजेविशीं तें कितें चिततासले काय? घरामुखावेल्या एका झाडाखाला ताणें स्कुटर रावयली. तेवटेन इल्लो काळोखच आसलो. तो थंयसान ताच्या घरावटेन पळोवंक लागलो....

...तागेली बायल वसूधा भावंडावांगडा आंगणांत फोग पेटयताली. ती सोता हातान मेणवात घेवन उजो दिताली. पयलीं तिणें एक फुगोटे मारंद पेटयलो, तो फुट्टासतना ती हांसत आंगणभर नाचली.

मागीर तिणें एक व्हडलो भूंयनळो पेटयलो. तो पेटून नखेत्रां वयर वताना तिणें थंयच्या थंय नाचिल्लेवरीं केलें. तेन्ना भावंडावांगडा ती खूब हासली.

मागीर तिणें आनी तीगेल्या भावंडांनी नखेत्राकाडयो पेटयल्यो. त्यो वाटकुळ्यो घुंवयल्यो. सुरेशाल्या दोळ्यामुखारय त्यो झगझगीत वाटकुळ्यो घुंवल्यो. तागेली बायल परती परती नखेत्राकाडी पेटयताली आनी वाटकुळ्यो घुंवयताली, तेन्ना खूब हांसताली. ताच्या दोळ्यामुखारय नखेत्रां चकचकतालीं.

पळोवन सुरेश खूब निर्शेलो. ताका बायलेचो दुस्वासय दिसलो आनी रागय आयलो. मागीर तो चिंतूंक लागलो, जण एकल्याच्या मनाचो धर्म, आवडीनिवडी वेगळ्यो आसतात. आमचें तर कांयच सारखें ना. आमचें कांयच जुळसारखें ना. ताचो मनस्ताप वाडत गेलो. तो तसोच परतो आयलो. ती सांज आनी दिवाळेचो पुराय दीस तो न्हिदूनच आसलो. तो चिंततालो आमचीं दोगांचींय तोंडां दोनवटेन आसात आनी मदीं एक घळ पातळ्ळ्या. म्हाका दिसताले, म्हजी बायल मोगाचे तळमळे भोगता आसतली म्हण, पूण समा न्ही ते!

○○○

# चांडाळकर्म

एक अज्रांवर महापातक घडलां! अख्ख्या पिर्तुमेच्या सर्व वाठारांत येद्दें व्हडलें पातक केन्ना घडलें नासतलें. कांक्राच्यो गांठी येतात तश्यो अशीं पापी मनशां केन्ना जल्मतात जावये!

तें पातक घडतसान घुबडांनी, कावळ्यांनी लजेन काळखांत तोंड लिपयलां, भूंयेंतल्यान किल्लावन आयल्ले कोंब बावल्यात. बाळंत जाल्ल्या आवयांचें मोम्याचिंवांतलें दूद आटलां. घरामुखाल्लो तो वड घुंविल्लेवरीं जाला. अस्तुरेच्यो गर्भपिशव्यो रडून आकांत करतात, म्हणटात, देवा, असल्या मनशाचें बीज पोटन रूजोवंचें नाका, असल्याक जल्म दिवंचो नाका! ताणी आपलीं तोंडां आंवळून घेतल्यात. अशें म्हणटात ते रातीक मुखाल्ल्या झाडार दोन शेवणीं बशिल्लीं, तांतलें बायल शेवणें दुख्खान चुरचुऱ्यान पाखां गळसणून मरून सकल पडलें. त्या दिसासान मळबार, सैमार, भूंयवाठारार काळें फाशिल्लें तें वचून वचना. त्या पातकान सैमाच्या तोंडार काळें फांसलां.

निती आनी अनितीच्यो खबरी सांगपी मनशां केन्ना रासवळपणान पातकांआड, अन्यायआड उबीं राविल्लीं दिसनात. सदां सोताचेंच रू फुंकत बसप. तेन्ना ती लंगडी भिकारीण कितली रडली, आड्डली, विश्रांतीचे भोगणारे पळोवन. पूण एकलो त्या पातक्याच्या तकलेर दांडो घालूंक आयलो ना....

विश्रांती तेरा दिसांचें आसतना तागेली आवय भायर पडली. कळटकीर व्हडली मावशी धांवत येयली. वाटभर ती होळोय काडून रडटाली. दारांत

पावतकीर भयणीच्या घोवाक चरांटून गाळी सवत तिणें म्हटलें, "चांडाळान म्हजे भयणीक धाडावन आनी बडोवन मारलें. गुरवार आसतानाय इल्ली काळजी घेतली ना आनी बाळंत जातकीरय खावंक जेवंक घातलें ना. आतां त्या भुरग्याकय मारून उडयतलो तूं."

हाचेर भयणीलो घोव वेंकू दारांत उबो रावन बुरश्यो बुरश्यो गाळी सवंक लागलो. तरीय मावशी घरांत गेली. तिणें विश्रांतीक उखलून घेतलें. येद्दीशी मरणाक पाविल्ली तेरा दिसांची कूड हातांत घेवक गेल्यार हातांतल्यान गळून पडटाली. दोळे बाविल्लेवरीं जाल्ले आनी हातापायांच्यो काडीबडी कुडीक लांबताल्यो. तरीय ओंठ ओले आसले. ते आवयल्या चिंवाक आशेल्लेवरीं थरथर हालताले. भुकेन रडटलो म्हटल्यार रडूंकूय जीव नासलो. व्हडली मावशी ताका तशीच पदरात गुठलावन घेवन आपल्या घरा येयली.

मावशेल्या घोवान म्हटलें, आमगेलें बाय फाल्यां लग्न जावन वयतलें, बाबय खंयूय नोकरेक वयतलो. आमी म्हातारी जातलीं, मागीर ह्या दुर्बळ चेडवाचें कोण करतलो?"

तरी मावशेन ताची बेस बरी सेवाचाकरी केली. वखद-विर्शद केलें, तेल काडलें, न्हावयलें, दूद नीस पिवयलो. तें आंगान भरतकीर बरेंच गोरें गुटगुटीत दिसूक लागलें. मावस भावंडां, मावसोय ताची अपुरबाय करूंक लागले. सदां तें कोणाल्या ना तर कोणाल्या आंगार आसतालें.

तरी तें प्रकृतीन इल्लें नाजुकूच. मदींच थंडी भरताली आनी हड्डें घुर्घुर वाजतालें. खोकूंक लागल्यार ताळो चिरिल्लेंवरीं चीं चीं आवाज येतालो. मावसो केन्ना पिरंगल्लेवरीं म्हणटालो, 'आमचे फाटल्यान कशें जातलें गो हाचें? तेका तेच्या बापायसरीं व्हरून पावय तूं."

पूण व्हडले मावशेन ताका पयस केलें ना. आपल्या आंगार पदराखालाच ताका खावोवन पियेवन व्हड केलें.

पूण बापूय वेंकू केन्ना खबरेक येयलो ना. चेडूं आसा काय मेलें तेंवय पळयलें ना. तो सोरो पितालो, गांवांत झगडीं करतालो आनी दुसरें लग्नय जावंक सोदतालो. पूण कोणें तेका आपलें चेडूं दिलें ना.

मावस भावंडां वांगडा खेळतच विश्रांती व्हड जाल्लें. मुळांत विश्रांती भोवच मोगाळ, म्होवाळ सभावाचें, देवागुणाचेंच आसलें. तातूंत कवाशाची

पाकळी कशें, मोगरेचें फूल कशें सोबीत आनी नाजूक. न्हिदून पडल्यार मळबातल्यान देवी अवतरिल्लेवरीं सोबीत दिसतालें. ल्हान आसतानाचो गोरो धवोसो आशिल्लो रंग व्हड जाता जाता तांबसो जालो. पूण व्हड जालें तरी तें नाजूक, बारीकसोच उरलें.

आतां मावस भयणीचें लग्न जाल्लें. मावसभाव नोकरेक लागून भायल्या गांवांत गेल्लो. तशेंच चार-पाच वर्सांनी मावशी अचकीत दुयेंत पडली आनी तातूतच मेली. तेन्ना विश्रांतीक निकतीच तेरा सोंपून चवदा लागिल्लीं.

मावशी मरतकीर मावशान ताका रोखडेंच व्हरून शाळेच्या पुस्तकांसयत बापायसरीं-वेंकूसरीं पावयलें. मावसो घेवन वयताना वाटभर चुरचुरतालो आनी मनांत म्हणटालो, अजून ल्हानगेलेंच आसा तें! बापायन नीट सांबाळ केल्यार पुरो! मावशेक तरी इतलें बेगीनच मरण येवंक जाय आसलें? ती आनीक एक चार वर्सां उरल्यार खरें आसलें.

विश्रांतीक चडशें वायट दिसलें ना. मावसो सोडून वयताना रडलेंय ना. पयलींच फावट तें बापायक पळयतालें. खाड वाडिल्लोसो, दोळे व्हाविल्लोसो बुरसो तो आसलो. पूण तो ताचो बापूय आसलो. हो मोग, हो भावार्त, विश्वास व्हड आसलो. आपलो बापूय आपणाक मेळ्ळो हे खोशयेंत तें मावशेल्या मरणाचें दुख्खय विसरून गेलें. हुस्क्यामेकळें जालें.

मावशेल्या घोवावांगडा पाविल्लें तेन्ना तो दार उक्तेंच उडोवन घरांत न्हिदिल्लो. हांगेलो आवाज येतकीर तांबशे ते दोळे उक्ते क़रून खर नदरेन पळोवंक लागलो. मावशेल्या घोवान म्हटलें, "तुगेलें चेडूं हें, मावशी मेली. आतां तुवेंच सांबाळचें."

तो कांय वेळ तांकां भ्रमिश्ठावरीं पळयत रावलो. मागीर म्हणूंक लागलो, "तें जाल्ल्या तेराच दिसांनी तेगेली आवय मेली. म्हाका वटवटे इतलीं वर्सां. आतां म्हज्यान पोसूक जावचें ना तेका."

पूण मावशेलो घोव मुडदारासारको ताका थंयच सोडून गेलो.

म्हयनोभर बरो गेलो. घरांत आशिल्ले तांदूळ, दाणो घेवन विश्रांती पेज, शीत, कितेंय रांदतालें. सांजचो तो येतकीर ताका वाडटालें. तो सोरो पिवन येतालो पूण चड बोवाळ करनासलो. तो एके चणे, शेंगा भाजच्या भट्टेर वावर करतालो. दोन फावट बरे चणेंय घरा घेवन आयल्लो. चड कांयच उलयनासलो.

वास घेतलेवरीं सूं सूं नाक ओडत रावतालो. केन्ना तांबड्या दोळ्यान तो रोखून पळयतालो तेन्ना विश्रांतीचो जीव कापिल्लेवरी जातालो. पूण तो म्हजो बापूय हो भावार्त व्हड आसलो. मावशेल्या पदराखाला आसताना संसारात वांकडे तिकडे कितें आसूं येता हाची जाणच नासली. मनान तें ल्हान बाळकच आसलें. कुडीनय तशेंच नाजूक, गोरेंच.

त्या दिसा काळोख बेगीनच देंवन आयल्लो. विश्रांतीक दिसलें, काळखाच्यो सावळ्यो भुतांची उलटीं पावलां कशीं घरामुखार, रस्त्यार पातळल्यांत. घरांच्या पाख्यापाख्यांर घुगमां बसल्यात आनी आपल्या चोचीन आपलींच पाखां पिनून रक्तबंबाळ करून घेतात. लागीच एक सैतान जसो पापाचे मुळवण खणटालो आनी रक्तमांसाचेर पिकास मारिल्लेवरीं घुप्पघुप्प आवाज येताले. विश्रांती मनात खूब भियेल्ले तरी दारांत बसून बापायची वाट पळयत आसलें.

ते रातीक बापूय सोरो पीवन आयलो आनी ताणें विश्रांतीचेर बळजबरी केली. कितें जाता, कितें करता, कांयच कळनासलें. खूब घुबडां ताचेर जशी बसून ताका चोंचयताली, अज्ञात दिकेंतल्यान कितले काळे चपके तोंडार बसताले! पिसडून उडयल्ल्या फुलाची एकेक पाकळी रगतान भरून रगतात मेळटाली. दश दिकांतल्यान आदिमायेचे दुखेस्त हुंडके थेंबथेंब गळटाले, तुजें भुरगें, तुजेंच रक्त, तुजोच श्वास, तुजेंच काळीज, तुजीच आंतडी, ताची राखण तुवेंच करची, देवान तुजेर सोंपयल्ले पवित्र कर्तव्य. दुश्ट चांडाळ जावन तुवेंच तें पिसडून उडोवप?

अशी ही किंकाळ बळजबरी चार पांच म्हयनेतरी चलिल्ली. कितें करतलो, कोणाक सांगतलो, सान भुरगें, कुडीन मनान गळसणून तें विळविळीत जावन गेल्लें. कितें चल्लां कितें घडटा कांयच कळनासलें. वयल्यान धमक्यो, कोणाक सांगल्यार चिरून मारून उडोवंच्यो. मन उक्तें करूंक लागींचो कोण नाशिल्लोच.

एक लंगडी, पिशी भिकारीण सद्दां भीक मागूंक येताली. केन्ना ती तांगेल्या ओट्यार कांय वेळ बसताली आनी पिसायवरीं व्हडव्हडान उलयत कितेंय सांगताली. त्या दिसा ती भायर ओट्यार बशिल्ली आसताना विश्रांतीन मळमळून आयिल्लेवरीं केलें आनी थंय कोनशांतच वॅक करून वोकलें. पिशेन बारीक पळयलें. ती व्हडव्हडान विश्रांतीक कितें कितें विचारूंक लागली. ती तिगेल्या स्पश्ट भाशेंतच विचारताली. ते कांयच उलयनासले.

तेन्ना वेंकू भायर आयलो. ताणें ते लंगडी पिशेक बरीच धाडायली. ती व्हडव्हडान रडत भायर गेली. ती रडत बोवाळत वयताली. पूण कोणें तिचेसरी लक्ष दिलें ना.

गुरवार जालें म्हूण कळटकीर वेंकून विश्रांतीक गळो चिरून मारून उडयलें आनी पयस रानाकडेन व्हरून पुरलें. हांगा एका अज्रांवर पातकाचो राक्षसी थयथयाट सोंपलो. बळजबरी सोंसता सोंसता एक फुला बाळक मेलें. त्रिकाळाच्या कपलार एका पातकाचें मोठ्ठें चवन पडलें.

OOO

# कॅप्टन सतीश श्रीनागेश

कॅप्टन सतीश श्रीनागेश हो तेन्नाचे भारतीय सैन्याचे सेनाध्यक्ष जनरल श्रीनागेशालो पूत. पूण आपूण थोरामोट्याचो पूत म्हण तो आब हाडिनासलो, केन्ना कूस मारिनासलो, गैरफायदो घेनासलो, कोणाक धमकायनासलो. सगळ्या कामांक मुखार. तेन्ना ऑफिसर लोक रणमैदानार वतना कमरेक फकत पिस्तोल लायताले. पूण कॅप्टन सतीश श्रीनागेश पिस्तोला वांगडा खांदाक आर्म लायतालो. तो केन्ना फायरिंगाची ऑर्डर जवानांक तोंडान दिनासलो. आपल्या आर्मांतल्यान पयली गुळी सोडटालो तेन्ना जवानांक कळटालें हीच फायरींग ऑर्डर म्हण. तो कडक शिस्तीचो आसलो तरीय ताचे फौजी अधिकाऱ्याचे बळिश्ट कुडीपेल्यान, आंगावयले कडक, तायट मुस्तायकेपेल्यान ताचे भितर एक मोवाळ मनीस आसलो.

एक फावट जवान आबा पाटीलाक ताची आवय भायर पडली म्हण तार आयली. कॅप्टन श्रीनागेश येवन अर्दवर ताचें सांत्वन करीत ताच्या तंबूंत बशिल्लो. डेहराडूनांत झुजाच्या सरावाचेर आसतना महादेव अंब्रे दोंगराचे कडेवयल्यान निसरून शंबर फूट सकल देंगणात पडलो तेन्ना श्रीनागेश तें देंगण सोता देंवन गेलो आनी ताणें जबर जखमी जावन पडिल्ल्या अंब्रेक हेर दोगा जवानांच्या आदारान वयर हाडलो आनी हॉस्पिटलांत पावयलो.

तो फौजी शिस्तीविशींय तितलोच कडक आसलो. एक फावट क्वार्टर गार्ड ड्युटेर आशिल्लो, एक जवान आपल्या हातांतलें आर्म वणटीक तेंकोवन तंबाकू

मळूंक लागलो. श्रीनागेशान ताका जुस्त पळयलो आनी ख्यास्त म्हण ताका सात दिसांची 'पिट्टू परेड' दिली – फाटीर झोळ्यांत वीस किलांचें वजन घेवन दनपारां एक ते दोन मैदानार धांवप.

तो पुराय बटालियनांतल्या दर एक जवानाक ताच्या नांवान वळखतालो आनी नांवानच पाचारतालो. जवानांविशीं ताका बरीच म्हायती आसताली. एक फावट राजस्थानांत आमी गदरा रोड ते मोनाबा ह्या कच्च्या रेंवट रस्त्यान रोडमार्चाक गेल्ले. ते आमचे मुखेल आसले. विशेक मैलांचो पुराय रस्तो पाकिस्तान सरादी लागसारच्यान वता. सरोदर व्हडले व्हडले खांबेय पुरिल्ले दिसतात. मदींच म्हाका कितें दिसलें नकळों, हांवें म्हणलें, 'सायब हांव पाकिस्तानांत वचून येता आं.' हांवें धांव मारली आनी शंबरेक मीटर धांवन वचून एक खांबो बळांटून पाकिस्तानी सरादे भितर वचून उबो रावलों. आंगार सर्र करून कांटो फुलली. आमचे हेर जवान म्हाका बेगीन परतो यो म्हण हात हालोवन सांगताले.

परत येतकच श्रीनागेशान म्हणलें, 'आवय बापायचो एकलोच पूत मरे तूं? तेवटेन पाकिस्तानी सैन्याचे मोर्चे आसात. फायरींग आयल्यार मरतासलो.'

म्हाका अजाप दिसलें, हांव आवय बापायलो एकलोच पूत म्हण हाका कशें कळ्ळें? मागीर हांवें चिंतलें, दर एका मनशाविशीं आपलेंपण दवरतकच ह्यो खबरी आपशींच कळटात.

तो दिल्लींत ल्हानाचो व्हड जाल्लो. भुरगेपणान सुखवस्तू म्हणटात ती जीण जियेल्लो. पूण आतां फौजेंत आयिल्ले कसलेय आवतिकायेकडेन बेस जुळोवन घेतालो. राजस्थानांत सरादेर आसतना ताका जवानांच्या मॅसांतच जेवण घेवंचें पडटालें. तो तंबूंत रेंवेंत न्हिदतालो. तो दाळ भाकरी घोस्तान खातालो. उदक आयलेंना, मेळ्ळेंना जाल्यार हेर जवानां वांगडा दोन-दोन, तीन-तीन दीस न्हायनासतना रावतालो. केन्ना मॅसांतलें उदक व्हरिनासलो. ताच्यान बापायक सांगून दिल्लींतूच सुखाची नोकरी घेवं येताली. पूण ताका सक्रीय बटालियनांत काम करचें आसलें.

थंय रेंवटांत आसतना तो आमकां उक्त्यार कंवडाळें करून घेवन बसतालो. रातीं उसरांमेरेन जवानांच्या गांवघरांच्यो खबरी आयकतालो. आपल्या दिल्लींतले, डेहराडून मिलिटरी अकादमींतल्यो खबरी सांगतालो. भुरगेपणांत एक फावट

राष्ट्रपती राजेंद्र प्रसादाक मेळूंक गेल्लो तेन्ना तांणी आपले तकलेवयल्यान हात कसो भोंवडायलो आनी 'देश के लिये जीना ही जीवन है' हो संदेश कसो दिलो हें ताणें आमकां तेन्ना सांगलें.

त्या रेंवटांत मळबाच्या उक्त्या घुमटांत, जंय राशींनी नखेत्रां शिंपडिल्लीं आसतालीं थंय हो अणभव अलौकीक आसतालो. पुनवे दिसाक जाल्यार आमी रातचे हांगा बसल्यात काय दिसाचे थंडसाणेंत बसल्यात हेंवूय कळनासलें.

हो ऊंच, सोबीत, सांवळो, व्हड चकचकीत दोळ्यांचो सतीश श्रीनागेश, आयजवेर हांवें महाभारतांतल्या श्रीकृष्णाची सया फकत ताच्या रूपांत पळयल्या.

.... तेन्ना बटालीयन दार्जिलिंगांत आसलें. सरादेर नव्यान सैन्याविशींची योजना थारावचे खातीर लागीं कालीमपोंगांत कांय वयले फौजी अधिकारी येवचे आसले. तांकां दिवंक कांय म्हत्वाचीं कागदपत्रां आनी नकाशे पावोवचे आसले. जाल्यार तांची सरबरायूय करची आसली. कशेंय करून त्या दिसा दनपारच्या एक मेरेन पावंक जाय आसलें.

कालीमपोंगाक पावंक दार्जिलिंगासावन जिपीक स वरांची वाट. आमी कॅप्टन श्रीनागेशाक धरून पांच जाण जिपींत आसले. भारतांतल्या सगळ्यांत कठीण रस्त्यांमदलो हो एक कठीण रस्तो. दोंगर आनी खोल खोल घळी, धेंगणां. घळींच्या माथ्यावयल्यानच गेल्लो पुराय रस्तो. सकल पळयल्यार हजार हजार फुटांच्यो सरळ सकल पाविल्ल्यो घळी.

आमी सकाळीं संक सुटिल्ले, बारामेरेन तरी पावतले ह्या अदमासान. पूण आमी अर्दवर वाटेरच पावल्यात, धुंवराचीं राशींनी कुपां दोंगरार, रस्त्यार पातळूंक लागलीं. जिपीचे दिवे पेटयल्यारय दोळ्यां मुखावयलें दिसना अशी गत. धुंवर निवळची वाट पळयत आमी वरभर तरी थारले. तातूंत शीं आनी इल्लो इल्लो पावसय पडूंक लागलो. फेब्रुवारीचे निमाणे दीस आसले, पूण अचकीत हवामान बदलिल्लें. मळब दोंगराक वेंगायतालें. मदीं फकत पावस आनी धुंवर.

जिपीचो ड्रायव्हर हातपांय सोडून बसलो आनी म्हणूंक लागलो, 'म्हाका धीर जायना सायब; म्हज्यान जायना मुखार वचूंक.'

वेळ वचूंक लागिल्लो. एक मेरेन तरी पावप सामकें गरजेचें आसलें. गरजेची फौजी ड्युटी, कसलेंच नीब चलचें नासलें. पूण धुंवर निवळनासलो.

कॅप्टन श्रीनागेशान ताका स्टॅरिंगावयलो उठयलो आनी सोता जीप चलोवंक

लागलो. पयलीं ताणें ल्हव ल्हव जीप चलयली. वेळ सरूंक लागिल्ली. पूण कांय वेळांतच ताणें आकांताची धिटाय घेतली. आतां उदकांत सूर मारिल्लेवरी तो धुंवरांतल्यान जीप काडटालो. मदींच कर्रऽऽ ब्रेक लागून जसो चोंय वटेचो थंड शांत वाठार हालतालो. तो फकत दोंगराचे कडेचो माग घेवन कडेकडेन जीप चलयतालो. सकयल्या घळींवटेन मातूय चयनासलो. मदींच इल्लो मेकळो उजवाडाचो कुडको मेळटालो. तो पार करून परत धुंवरांत घुसतालो.

खरें म्हणल्यार तो अदमासानच जीप चलयतालो. ताची मोख आसली 'कशेंय करून एक वरामेरेन कालिमपोंग पावंक जाय' वांगडचीं कागदपत्रां वयल्या अधिकाऱ्यांक दिवंक जाय. तो चिंततालो जावये फौजेची शिस्त मोडचे परस मरण आपणायिल्लें बरें!

आमी कालिमपोंगाक पावले तेन्ना दोग ब्रिगेडियर हुद्द्याचे अधिकारी हेर ल्हानव्हड अधिकाऱ्यांवांगडा निकतेच हॅलीकॉप्टरातल्यान देविल्लें.

भारताचो सरसेनापती जनरल श्रीनागेशालो पूत दोगा ब्रिगेडियरांचे आज्ञेवयल्यान असो जिवार खेळत आयिल्लो. आपलें कर्तव्य करूंक आनी आपली फौजेची शिस्त राखूंक.

OOO

# म्हाका परतें घेवन वचात !

फोन केल्यार तें भियेतशें तुटक तुटक इल्लेशेंच उलयतालें. कळटालें आशिकुशीक कोण तरी आसा म्हूण तें भियेत भियेत उलयता. आसतलो कोण? मांव, मांय नाजाल्यार नणंद. उज्वलान कुळारा फोन केला तें पळोवन तीं दांत किल्लायतालीं, दोळे वराट्टालीं. ल्हव ल्हव उज्वलालें कुळारा फोन करपाचेंय उणें जालें. तें एका अखंड छळांत, घुसमटांत सांपडून सगलें मोन्यांनी सोंशीत रावलें. दोन फावटीं बापूय ताका पळोवंक म्हूण गेल्लो. व्हडलो आगरो, येवकार नासलो. तो भायलेभायर च्या पियेवन आयिल्लो. तेन्ना उज्वल बापायक पळोवन बरे हांशिल्लेंय. बापायक दिशिल्लें, थोडोभोव त्रास आसत पूण हाताभायर गेल्लें ना.

लग्नाक वर्स जाल्ले. पूण खरें म्हणल्यार लग्न पुराय इबाडुनूच गेल्लें. अशें इबाडून वचूंक नेमकें कारण कितें जालें हें उज्वलूय सांगूंक शकनासलें. दुदांत चुकून मिठा खडो पडचो आनी दूद विटकळून वचचें तशें जाल्लें. उज्वलालो ह्या घरांत जम बसलोच ना, तो तांणी बसुकूंच दिलोना. कोणा वांगडा ताचे सूरूय जुळ्ळेनात, घोवा वांगडा लेगीत. तशें उज्वल चड सोबितूय नासलें. आनी बरें शिकिल्लेंय नासलें. घोवाचे पयलींच लुकसाणींत आयिल्लें दुकान आतां सारकें चलना जाल्लें. मांवाक, मांयक कसलीं कसलीं दुयेसां लागिल्लीं. तांकां दुयेसां सोंसची सोंशिकतायूच नासली. पिराय जावन गेल्ल्या बसक्या नाकाचे, बशिल्ल्या पोल्यांचे नणंदेचें लग्न जुळनासलें. तातूंत घोव पिकासांवानसो सद्दां उसरां

येतालो. एक देर दुसऱ्या गांवात नोकरेक आसलो. तो पयलीं पयशेबी धाडटालो. ताणें हांचें लग्न जायत सावन सगलें सोडून दिल्लें.

घरांतलीं, घोव धरून सगलीं सगलो राग उज्वलाचेर काडटालीं. एक दीस मांयन म्हणलें, 'पळयलेंना धंद्यांत लुकसाण जावन तो कसो पिकासावांत पडला तो? तुजोच पांयगूण म्हणटा तो. कितें दिलां तुगेल्या बापायन? तेन्ना दिल्ले देड लाख लग्नाकूच वारयिल्ले वरी खर्च जावन गेले. आनीक एक लाख दी म्हूण सांग, दुकानार चड म्हाल बी हाडून घालतलो तो.'

उज्वलान आपल्या बापायकडेन पयसो ना, आपूण सांगचें ना म्हूण सांगलें. ताणें केन्नाच हें आवयबापायक सांगलेंना. तें कुळारची परिस्थिती बरें जाणां आसलें. तातूंत आनीक ताका मांव मांवाचो रागूच आयिल्लो.

तेन्नासावन ताचे चडूच भोगणार जावंक लागले. घोव आतां पियेवन येवन ताका मार बडय करूंक लागलो. नणंद ताचेर सान्नीखुंटारो उखलूंक लागली. मांय तर संव संव संवताली. मांव कोणाकूय म्हणटालो, ही अवदसा येतसावन घराची दुर्दशा जाली रे.'

एक दीस उज्वलान कुळारा पत्र बरयलें -

'म्हज्यान हे त्रास आनीक सोसूंक जावंचे नात. हांवें घोवालें घर सदांचे सोडचें थारायलां. कश्शेंय करून तुमी म्हाका बेगीन घेवन वचात. हांव तशेंच पळून येवंचे ना. तुमी येवन व्हेल्यारूच येतलें. हांगा म्हजो म्हूण आता कोण उरलोना. कसलेंय निमित्त काडून म्हाका बेगीन घेवन वचात. म्हज्यान आनीक हांचो छळ सोसूंक जावंचो ना. ते आनीक पयसो मागतात. म्हाका वायट पांयगुणाचें म्हणटात, मारतात...'

पत्र पावतकच सगलीं मोट्या घोरांत पडलीं. आवय खूब रडली. दोगीय भयणी भिजिल्लीं कुकडांशीं ओगी बसून रावलीं.

बापायन म्हणलें, 'फाटल्यान दोगां लग्नाक गळ्याक लागल्यांत. व्हडली भयण घोवाक सोडून आयली म्हूण कळ्ळ्यार तांच्यो सोयरिको कश्यो जातल्यो? धुवो लग्नाच्यो उरल्यार लोक शी थू करतले.'

तातूंतल्या अलकान म्हणलें, 'बाबा हाडात तुमी ताईक, आमी आंकवार उरल्यार उपकारतात. पूण ताईक ते त्रास नाकात.'

'कितें म्हणटा तूं पोरा, तुजो भाव सुदेश फाल्यां लग्न जातलो. ताची

बायल घरा येतली. कशें जातलें. कशें पट्टलें? सगल्यांकूच कांच तो.'

कांय वेळान सुदेश आयलो. तो चोविसेक वर्सांचो आसलो. बीए करून खंय इल्ली नोकरी करतालो. तो पत्र वाचून आकांताचो तापलो. तांकां बुद्द शिकयता म्हणूंक लागलो. इश्टांक आनी कांय गुंडांक घेवन वचून तांकां बडोवन काडटां, हातपांय मोडून घालतां म्हणूंक लागलो.

बापायन म्हणलें, 'कितेंय आसूं, तुजी भयण त्या घरांत दिल्या. फाल्यां बरेंय आसा, वायटूय आसा. तुवें अशें केल्यार कायमचें सगलें इबाडटलें. कायमचें पयसावतलें.'

आवय सारकी लागिल्ली, म्हजे धुवेक वचून तुमी आदीं घेवन येयात म्हूण. पूण बापूय म्हणटालो, 'इल्लें चिंतूया, विचार करूया. कशी वाट काडूंक मेळटा पळोवया.'

दुसऱ्या दिसा ताणें आपल्या एका इश्टाक फोन केलो आनी सगलें सांगलें. तो इश्ट बरो हुशार, जाणकार म्हूण ताची नामना आसली. ताणें सांगलें, 'तूं सरळ पुलीस स्टेशनाचेर वच. हुंड्या खातीर छळ आनी घरगुती मारहाणीची तक्रार कर. जाय जाल्यार हांव  तुजे वांगडा येता.'

आवयक आनी बापायक दोगांकूय हें पटलें ना. आवयन म्हणलें, 'एकदम अशें कितें करचें, दोगी धुवो ना पदरांत? नांवाक पडटलीं. बापायन म्हणलें, 'पुलीसांचें आनीक तें कोण फाटल्यान लावन घेतलो? फावटी मारच्यो आनी धपकावण्यो खावच्यो खबरो.'

कितें करचें कितें नाका हातूंत चार दीस गेले. एक दीस फोन करून तांणी उज्वलाच्या मामाक आपयलें आनी सगलें सांगलें. मामा शाळा मास्तर आसलो. ताणें सांगलें, 'ताका परतें हाडचें, परतें बारावेक बसोवंचें, ट्युशन बी दिवंचें. शिकल्यार खंयूय इल्ली नोकरी लागतली. मागीर ताचें तें पळयतलें.' बापायन ओगीच तकली हालयली. ताका फुडाराविशीं कसलीच उमेद नासली. केन्ना दिसतालें, वचून जांवयाच्या पांयार घालून घेवंचें आनी सांगचें, म्हजे धुवेक त्रास करूं नाका. एका शेजाऱ्यान म्हणले लेगीत, 'तुमी वचून तांच्यो विनवण्यो करात, पांय धरात, अशें करू नाकात म्हण सांगात.'

मदीं आनीक दीस गेले. आवय-बापायचें कांयच थारनासलें. धुवेक परतें हाडचें अशें दिसतालें. पूण हाडटकच मुखार कितें हो प्रस्न जीव खातालो.

दिसतालें, जातींत, सोयऱ्या-धायऱ्यांत लज वतली. आनीक म्हूण ह्या घरांत सोयरिकेक कोण पांय दवरचो ना.

शेजारचो इश्ट अनंत एक दीस आपूण जावन घरांत आयलो आनी म्हणूंक लागलो, 'हांव सगलें जाणां रामनाथ, लिपोवं नाका. हाड तूं उज्वलाक परत. बरें आसा तें, नेणटें आसा. परत लग्न करून दिवया ताचें. हांव पळयतां भुरगो.'

'लग्न करूंक आदीं घटस्फोट घेवंक नाका? तशेंच लग्न करूंक जाता?'

'घेवचो घटस्फोट. एक बरो वकील दिवचो. बेगीन कोर्टांत केश उबी कर म्हणून सांगचें.'

बापायन थंडपणान म्हणलें, 'तोवेर तें म्हातारें जातलें आनी आमी मरून वतलें.'

आवयन एक दीस ल्हवूच घोवाक म्हणलें, 'ते आनीक पयसो मागतात न्ही, कशेंय करून कितेंय करून दिवचे थोडे.'

'दिवचे, कितले? लाख, दोन लाख? जातलें तांचें समाधान? फाल्यां आनीक मागल्यार? हांव पॅन्शनर, खंय सावन हाडून दिवचे? फाटल्यान आनीक दोगांय नात?'

'तुमी वचून पळोवन तरी येयात न्ही.'

'वतां हांव. एक दोन दिसांनी वचून येतां. सगलें जिवार आयलां म्हज्या.'

आज पत्र आयल्यार सारके तेरा दीस जाल्ले. कांयच निर्णय थारनासलो. त्याच दिसा सांजे उज्वलाच्या घोवाच्या एका बापोलयाचो फोन आयलो. ताणें सांगलें, 'उज्वलान आंगार केरोसीन ओतून घेवन जीव दिलो' म्हूण.

OOO

# पोल्युशन

तो डॉक्टर आशिल्लो. शारांत तागेलो वेवसाय जोरात चलतालो. वखदाक बरो बेगीनच गूण पडटालो. लोकांचो ताचेर बरो भावार्त आसलो. लोक ताका मानतालो. मोव, मधूर उलोवपी, लोकांक बऱ्या उतरांनी येवकार दिवपी, बरें करून समजावपी.

पूण ताच्या भितर कितें तरी खदखदतालें. तो अस्वस्थ आसलो. भायल्यान भितरल्यान अस्वस्थ आसलो. जल्मासान असाध्य पिडेन जर्जर जाल्लीं, निर्शेणेन उबगल्लीं कितलींशीच मनशां ताचेसरी येतालीं. शक्त हरपल्लीं, हातापायांत मोडिल्लीं, दुयेंत मनशां. एकवटेन तो तांचेर उपचार करतालो तर दुसरेवटेन चिंततालो – सदांच एक प्रस्न ताका पडटालो, हीं असलीं मनशां जल्माक येवंकच जाय आसलीं? जल्माक आयल्या उपरांत जगूंकच जाय आसलीं? आतांय भितरल्यान बड्डेवन गेल्लीं हीं जगचो इतलो काकुटायणो खटाटोप कित्याक करतात? सोताक वाचवच्यो विनवण्यो कित्याक करतात? सगळे ताका विक्षिप्त, निरर्थक दिसताले. केन्ना ताचेर उपचार करची उमेदच मरताली. ह्या जल्मासान किडिल्ल्या मनशांक वाचोवन समाजाक, देशाक आनी ताका सोताक कितें मेळटलें?

मागीर ते एका 'अविचारी' विचारांचेर येवन पावताले, जे असाध्य अनुवंशीक रोगान वळवळटात, जे मानसीक रोगी आसात, जे गुन्यांवकारी वृत्तीचे आसात अशा लोकांक वंश सातत्याचो म्हणजे भुरग्यांक जल्म दिवंचो अधिकार आसचो

न्ही. तो अधिकार कायदो करून काडून घेवंक जाय. सामको लोकसभेत कायदो करून काडून घेवक जाय.

ताचो एकलो धाकटो भाव आसलो. ताका परते परते फीट्स येताले आनी खंयूय सुद्द वचून पडटालो, तोंडार फेणेर येवन हातपाय आंवळून घेत तडफडटालो.

तो आतां सव्वीस वर्सांचो जाल्लो. आवय बापायन ताचें लग्न थारायल्लें. पूण डॉक्टर ह्या लग्नाच्या सामको विरूध्द आसलो. तो जाणा आसलो आवय बापूय आपलें आयकुचे नात. तांच्या फुडें म्हजें कांय चलचें ना. तरी ताणें म्हटलें, 'लग्न करून मुखार सगळ्यांकच त्रास. फाल्यां भुरगीं जालीं तरीय तीं आरोग्यान बरीं आसतलींच अशें ना. अशेंच राव दी ताका.'

आवयन रागान म्हटलें, 'तुजें लग्न जालां. मजा मारता तूं. भुरगोय जाला तुका. ताका तें सगळें नाका? लग्न जातकीर सुदारतलो तो.'

तो वोगी रावलो. पूण भितरल्यान चरफडटालो. लग्न करून हाडिल्ली भावाची बायल सामकीच किरकोळ आसली. ताचें कपल सामकेंच ल्हान आसलें. हातपाय बारीक किडकिडीत आनी कमर मात मोटें पसरट. ताच्या चेऱ्यार कसलेच भाव, तेज नासलें. हासतनाय ताच्या चेहऱ्याच्यो शिरो उजळं नासल्यो. ती एक मठ्ठ, मूर्ख बायल आसतली अशें दिसतालें. डॉक्टर चिंततालो भाव फिडशे पिडेचो रोगी. शिकुकूय हुशार नासलोच. आनी ही मद्दड, कुरूप बायल गळ्यांत बांदल्या. आवय बापायक तर ताचें फक्त लग्न करचें आसलें. ना तर समाजांत अब्रू वतासली. मरतकीर मोक्षय मेळचो नासलो.

डॉक्र आतां फकत विचार करतालो तो तांका फाल्यां जावपी भुरग्यांविशीं. ह्या कुचकामी, पिसाटांक फाल्यां कसलीं भुरगीं जातलीं देवा! फक्त मठ्ठ, रोगीश्ट बींच जल्माक घालतले ते! ना हें अशें जावंक फावना. सैमाआडचो गुन्यांव तो! सैमाचेय कांय नेम आसात, न्याय आसा.

एक दीस भाव सदचे परमाणें तपासून घेवंक म्हण दवाखान्यांत आयल्लो. पोटातय दुखता म्हणटालो. डॉक्टरान 'तुज्या पोटाच्या शिराभितर एक पुळी जाल्या' म्हण ताची एक ल्हानशी शस्त्रक्रिया केली. खरें तर ताणें भावाची गुपचूप नसबंदी शस्त्रक्रिया केल्ली.

पूण नसबंदी केल्ल्याची बातमी फुटलीच. दवाखान्यांत एक नर्स आसली. तिच्या लक्षांत तें आयलें. तिणें तें भायर कोणाकतरी म्हटलें. तें भावाच्या

बायलेमेरेन पावलें. तिका खुपच संताप मारलो. तिणें देराक, घरांतल्या हेर सगळ्यांक खूब गाळी सवल्यो आनी ती उठून कुळारा गेली. कुळारा गरम तकलेचो एक बापोलभाव आसलो. तो भयणीक घेवन पोलीस ठाण्यार गेलो आनी तिच्या नांवान डॉक्टराचेर तक्रार केली.

दुसऱ्या दिसा ते मीठमिरसांग लावन पेपरांनी छापून आयलें 'निकत्याच लग्न जाल्ल्या भावाची डाक्टर भावानच केली नसबंदी!'

मुखाल्लो आठवडोभर डॉक्टराची निंदा नालस्ती सुरू आसली. म्हणटाले, तागेलो भावाल्या इस्टेटीचेर दोळो आसा म्हण ताका वारस ना केलो.

एक दीस पोलीस ठाण्याचेर लोकांलो मोर्चा गेलो. 'मुर्दाबादच्यो' घोशणा जाल्यो. शारांतलो नामनेचो डॉक्टर. पोलीस केस दाखल करून घेवंक खाकुडटाले. शेवटा केस दाखल करून घेवंचीच पडली. आदी भावाची वैजकी तपासणी जाली. उपरांत ताका अटक करून दुसऱ्या दिसा जामिनाचेर सोडलो.

उपरांत कोर्टांत केस उबी जाली. लोकाली उमळशीक तेंगशेर पाविल्ली. कोर्टांत लोकांली गर्दी पडटाली.

निमाणें हिअरींग आशिल्लें त्या दिसा डॉक्टरान धवो शर्ट आनी खाकी रंगाची पॅन्ट घातिल्ली. हो रूबाबदार गवाळ रंगाचो, तोंडार उपाट आत्मविश्वास आसलो.

ताणें सुरवेकपासूनच वकील दिवक नासलो. तो सोताचो बचाव सोताच करतालो. आपली बाजू मांडटालो. न्यायधिशान निमाणें विचारतकीर ताणें सांगलें.

'न्यायाधीश महाशय, ही नसबंदी करपा फाटल्यान म्हजो कांयच वायट हेतु नासलो. ताचेन म्हाका कसलो अर्थीक फायदोय जावचो नासलो. कारण म्हज्या भावान अजून सोताचो एक पयसो जोडूंक ना. हाचे मुखारय तो जोडटलो अशें दिसना. हांव दोतोरकी शिकून कमोवंक लागमेरेन म्हजे आवय बापूय भाड्याच्या घरांत रावताले. तांका हेर जमीनजुमलोज ना. हांवें हें काम समाजाच्या, देशाच्या, समस्त मनीसजातीच्या बऱ्याखातीर एक देख म्हण केल्या. म्हजो भाव पिसोसो, फिडशे रोगाचो आसा. हांवें नाका नाका म्हणटाना आवय बापायन ताचें लग्न केलें. लग्न करून हाडिल्ली बायलय मठ्ठ, मोटवी आनी कुरूप आसा. आमचें मेडिकल सायन्स सांगता, आवय बापायमदले अनुवंशीक अवगूण भुरग्यामदीं

खरपणान येतात. अशे हे मठ्ठ, रोगीश्ट लोक भुरग्यांक जल्म दिवन घटमूट, निरोगी मनीसवंशाचे सातत्य बिघडावन उडयतात. ते आपले बशेनच रोगीश्ट, मतिमंद वंशावळ जल्माक घालतात. महाशय आज हो मनशाच्या जिवीताचो वंशप्रवाह मोटवो, दुबळो, रोगिश्ट जायत चल्ला. पयली तो तसो नाशिल्लो. हालींसरा शंबर देडशे वर्सां फाटींमेरेन तो निरोगी, घटमूट आनी बुध्दिमान आशिल्लो. म्हणच ताणें सैमाच्या सगळ्या अद्रश्टांक आनी मोडांक तोंड दीत आपलो वंश हांगामेरेन हाडून पावयला. सैमांत एक व्यवस्था आसता, जंय जियेवंक समर्थ अशीं निरोगी मनशांच तिगून उरतात. जियेवंक असमर्थ आशिल्लीं एक तर गर्भांतल्यानच व्हाळून वतात ना तर जल्मा उपरांत बेगीनच मरतात. पूण आजचे वैद्यकीय विज्ञान अशा रोगिस्टांक बुद्धिमंदाक फोर्सान जियेवंक लायता. अशा ह्या लोकान मनीसवंशाचे इबाडून उडयलां. म्हण म्हाका प्रामाणीकपणान, बुध्दीनिश्ठपणान दिसता, असाध्य अनुवांशीक रोगान ग्राशिल्ल्यांक, मानसीक रोग्यांक, गुन्यांवकारांक भुरग्यांक जल्म दिवंचो अधिकार आसचो न्ही. तो अधिकार कायदो करून काडून घेवचो. ह्या लोकाचो सेक्स आनी भुरग्याचो जल्म हांचेमदीं कांय संबंद आसचो न्ही, जशें म्हज्या भावाबाबतींत हांवे केला.'

न्यायाधिशान म्हटलें, 'अजून असो कायदो खंयच जाल्लो ना. म्हण तूं गुन्यांवकारी थारता.'

न्यायाधिशान ताची नामना, ताचो हेत लक्षांत घेवन ताका जेलींत घालची ख्यास्त दियनासतना साठ हजारांचो दंड भरूंक लायलो. दंड भरतकीर तातले पन्नास हजार हातूंत बळी पडिल्ल्यांक दिवक फर्मायलें.

दुसऱ्या दिसाच्या पेपरांत दोतोराची मोटी तुस्त तोखणाय. एका पेपरान तर बरयलें, हेर सगळ्या पोल्युशनावांगडा हें वायट नश्ट संततीचें पोल्युशन ना जावंक जाय.

ooo

# वाग, आई आनी हांव

भुरगेपणाक म्हज्या सपनांत वाग खूब येताले. केन्ना खंय तरी दोंगुल्लेर बसून जबडो फिसकारून भूंयेर चपके मारीत गरड मारपी वाग दिसतालो. दिसतालें, आत्तां हो म्हजेर झोपय घेतलो. एके रातीं म्हज्या हाथरूणात म्हज्या शेजाराकच वाग न्हिदिल्लो. हांव ताचो मोव मोव स्पर्श अणभवता आनी न्हिदेंतच आड्डता... वाग, वाग...

म्हजो वागावांगडाचो हो पूर्वाचार जल्मा पयलींपसूनचोच आसूंये. म्हज्या आवयलें कुळार हुळगा म्हण एका पयसुल्ल्या गांवांत. कारवारपासून विशेक मैलार तो सोबीत गांवगिरो वाठार आसा. एकवटेन सह्याद्रिचो दोंगर अटंगिन्या रानासयत गांवांमेरेन येवन पाविल्लो. दुसरेवटेन काळी न्हंय मोडणां मोडणां घेत व्हावत गेल्ली. मदीं गांवचो वाठार. म्हज्या आज्यालें घर दोंगराच्या मुळसातच आसलें. थंयसान न्हंय लेगीत पुराय दिसताली. पावसात ती न्हंय, तडीवयलीं पांचवीचार शेतां, धुंवरान भरिल्ले दोंगर पळोवंक भोव भोव सोबीत दिसताले.

आवयचें लग्न जावंक नाशिल्लें तेन्नाची गजाल, तांच्या घराशेजाराकच दोंगरा मुळसाक तांचो गोठो आशिल्लो. तेन्ना गोठ्यांत दोन बैल आनी एक गाय वासरू आसलें. पावस सोपून शीं सुरू जावच्या पयलींचे दीस आसले. आजो वासरेर न्हिदिल्लो. मध्यरातीर केन्ना तरी गायीन व्हडान हंबाऽऽ करून हांबेल्ले आयकोंक आयलें. मागीर गोठ्यात कसली तरी धडपड, गुरगुरिल्ल्याचो आवाज आयकूक येयलो. आजान घरच्यांक जागे केलें. सोता हातांत दिवो घेवन तो

गोठ्यावटेन गेलो. ताच्या फाटल्यान आवय आनी आजी. आवय तेन्ना बारा-तेरा वर्सांची आसली. मुखार गेल्ल्या आजाक वाग गोठ्यांतल्यान हुडी घेत धावन गेल्लो दिस्टीक पडलो. तो आइडलो ''वाग रे!''

मागीर सगळेजण गोठ्यांत वचून दिव्याच्या उजवाडात पळयतात तर कितें वागान एक बैलाच्या मानेर चपको मारून, गळ्यांत जबडो घुसोवन मारून उडयल्लें. बैल चारय पांय वयर करून शेवटाचे आचके घेतालो. तें पळोवन आवय आज्येक धरून थरथरत उबी आसली. ती सामकी भिवन गेल्ली.

आवय फुडें हीं गजाल सदांच हेरांक सांगताली. हांवें ती शंबर फावट तरी आयकल्ली आसतली. हरशीं कोणाक भियनासली आवय वागाचें नांव काडल्यार मात थर्त भियेताली. रानांत जळोवबी हाडूक गेल्यार भियेत भियेत हेरांच्या सांगातानच रावताली.

आमची गोंयच्या सीमेलागसार वरींच शेतां आसात. चोयवटेन गच्च रानान कवंडाळे केल्लीं. थंयसान गांवाकडेन येवक रानांतल्यानच गेल्ली बारीक वाट आसा. ते वाटेच्या दोनयवटेन ओणोवन येयल्लीं खूब झाडां आसात.

भुरगेपणाक शाळेक रजाबीन आसल्यार आवय म्हाका आपणा वांगडा त्या शेतात घेवन वताली. तिका उलोवक खूब जाय आसतालें. उलोवक सदां लागीसर कोण तरी लागतालो. पावसाचे दीस आसले. शेतात नडप, नाटप सुरू जाल्लें. त्या दिसा आवय म्हाका शेतात घेवन गेल्ली. हांव मेरेर बशिल्लो. ती वावर करतानाच म्हजेकडेन उलयताली. पावस चड पडनासलो. पूण सकाळपसून काळेकाळें जाल्लें मळब तशेंच भरून आसलें. मदींच एक दडक येताली. दोंगरातल्यान झडत घो ऽऽ आवाज करीत आमचे मेरेन पावताली. हांव बेगीबेगीन आवयल्या घुरम्यात रिगतालो. असो पावस दोंगरांत पडूक लागलो म्हणटकीर वयल्यान उदकाचे लोट व्हांवन येताले. मेरो भरून उदक ओतूक लागतालें. कांय वेळान परतें सगळें थंड शांत जातालें.

चोयवटेनचीं पांचवीचार शेतां, झाडांझोपां त्या भरिल्ल्या काळ्या मळबासकयल काळीं काळीं दिसतालीं. शेत त्या दोंगराच्या कवंडाळ्यात बरेंच पातळिल्लें आसलें. पूण शेतात आनीक कोणच नासलें. सकल बापोल्याच्या शेतात लेगीत कोण नासलें. सांज जाल्ली पूण मळब गच्च भरून राविल्ल्यान वेळेचो अदमास लागनासलो. पूण वोगीच काळोख देंवन आयल्ल्यासारकें

दिशिल्ल्यान घरा वचूक आवय शेतांतल्यान मेरेर आयली. तिणें घुरमो उखलून घेतलो..... तेन्नाच तो आवाज दोंगरात घुंवलो. खंयच्या दिकेन तो आवाज येतालो तेंवय कळनासलें. पूण तो दोंगराच्या माथ्यापासून मुळसामेरेन भरून घुंवतालो. वाग दोंगरांत गर्जण मारतालो. ताणें तीन चार वेळा अश्यो गर्जण्यो मारल्यो. तो आवाज एकाद्रे व्हड तांब्याचे भाण फातरार आपट्टचें तसो घुंवतालो.

हांव आवयल्या पदराक घट्ट धरून उबो आसलो. आवय तर पुराय भिवन गेल्ली. तिणें थरथरत म्हटलें, 'आता कितें करचें रे पुता? मुखाल्लें रान कशें पार करचें? आवाज खंयचेवटेन येता तेंवय नीट कळना. पूण तूं भिये नाका, तसो शेतात देंवचो ना तो.'

पूण सांज चडत काळी जाय शेतांनी पातळूक लागिल्ली. मुखाल्ल्या रानवाटेर पांय दवरची आमकां धिटाय नासली. रानात, शेतात अजून कोण म्हण नासलो. राखणे केन्नाच गोरवांक घेवन रानापयल्यान गांवात गेल्ले. एक टिकटिवें आमच्या तकलेवेल्यान हुडत सारकें रडिल्लेवरीं आड्डतालें. जशे ते आमकां धोक्याची शिटकावणी दितालें.

मागीर अचकीत आमच्या फाटलेवटेच्या रानात माकडांचें व्हड व्हडान आड्डुवप, ह्या झाडावेल्यान त्या झाडार हुडिल्ल्याचो घसघस आवाज आयकूंक आयलो. आवयन अदमास घेतलो, वाग फाटीकडच्या दोंगरांत आसा, मुखाल्ल्या गांवावटेनच्या रानांत ना. हीं माकडां वागाक भिवनच धावाधाव करतात. तो अदमासच आशिल्लो. आमच्या मनांतली भिरांत इल्लीय उणी जावंक नासली. आवय म्हाका घेवन ल्हव ल्हव गांवावेटन वचच्या रानवाटेच्या तोंडार आयली. तिणें म्हटलें, 'चल, धावत वचूंया!'

हांव मुखार धांवतालो. आई हातांतलो घुरमो उंच धरून म्हज्या फाटल्यान धावताली. अशें धायेक मिनटां धावतकीर आमी मेकळ्या तिठ्यार पावले. थंय आमच्या गांवची तीनचार चुकून फाटीं उरिल्लीं गोरवां चरतालीं. तांकां पळोवन भिरांत खंयच्या खंय नाच जाली. ती देवासारकी दिसलीं आमकां. मागीर तांका व्हडाव्हडान आड्डून हामडून घेवनच आमी गांवावटेन आयले.

०००

# सखारामाली भयण

तेन्ना कांय काळ हांव पुण्यात आसलो. हांव रावतालो त्या घरामुखार एक पत्र्याची ल्हान बसकी चाळ आसली. तातूंत पाच स बिराडां आसलीं. तातूंत एके कुडींत सखाराम एकलोच रावतालो. गोरो, मोटवोसो, थंड निरागस चेहऱ्याचो सखाराम. चोविसेक वर्सांचो आसतलो. तो मालवणी कोंकणी उलयतालो. त्या बोलींतलें भाबडेंपण म्हाका खूब मानवतालें. म्हणच  घडये आमची इश्टागत जमिल्ली. तो एस.एस.सी.मेरेन शिकिल्लो आनी सुदर्शन म्हण रंगाच्या कारखान्यांत काम करतालो. त्या कारखान्यांत दोन पाळयेन काम जातालें. सखाराम सकाळीं सात ते तीन मेरेनच्या पाळयेक आशिल्लो. थंय फकत ताचीं चार वर्सां नोकरी जाल्ली. पगारय उणोच आसलो.

सांजचो कामातल्यान येतकीर तो केन्नाय म्हजेसरीं येतालो. ना तर हांवच ताचे कुडीर वतालो. ताचें उलोवप इतलें सादें खरें खरें आसतालें उलयताना तो आपलो आपलो असो दिसतालो.

एक फावट तो कोंकणात आपल्या घरा वचून आयलो आनी बरोच दुख्खी कश्टी दिसूंक लागलो. तोंडावेलें हांसपच मावळिल्लें. सांजचें उसरां स्टोव्ह पेटोवन दोन रोटयो भाजून दुदांत मुड्डून खातालो. हांवें एक दीस विचारलें, 'सखाराम तुजें कितेंतरी वांकडें घडलां. खूब कश्टी दिसता तू.'

तो तें म्हाका सांगुकूच रावतालो जावंये. ताणें तेन्ना सगळी आपली कर्मकाणी सांगली. तो घरा बापाय वांगडा खूब झगडून आयल्लो. एक दीस तर

ताणें रांदचे कुडींतर्ली आयदनां फळ्यावेल्यान खाला उडोवन भूंयेर आपटिल्लीं.

...तो पांच वर्सांचो आसताना तागेली आवय भायर पडिल्ली. फाटल्यान स म्हयन्यांची भयण आशिल्ली. ती मागीर सखारामाल्या आंगा खांद्यार खेळूनच व्हड जाल्ली. आवय मरतकीर बापायन बेगीनच दुसरें लग्न केलें. मागीर ह्या भुरग्यांची खुबच दैना जाली. तिणें कचऱ्यावरीं हांकां बाजून सारलें. भयण गौरी जेवंक बशिल्लेकडेन ती ताचे फाटीर धुमके घालताली आनी म्हणटाली, 'कितलें जेवता भकाऱ्या.'

सखाराम अभ्यासाक बसल्यार ताका परतें परतें उठयताली आनी कामाक लायताली. गोठ्यांतलें शेणबीन काडूक धाडटाली. बापूय सगळें वोगी पळयत रावतालो.

मागीर मागीर सवत आवयलो ताका खुबच राग येतालो. तो धुसपुसत रावतालो. भयणीक तिणें सवल्यार, मारल्यार केन्ना तिचेवांगडा झगडटालोय. तेन्ना सवत आवय बोब मारताली. घोवाकय सवताली.

एस्.एस्.सी. पास जातकीर सखाराम गांवच्याच एकल्या वांगडा पुण्याक आयलो. ल्हान मोट्यो नोकऱ्यो करूक लागलो.

तो घरातल्यान भायर पडटकीर सातवीत शिकपी भयणीक सवत आवयन शाळेंतल्यान काडलें आनी वावराक बांदलें. शाळेक वयताना ती ताका सारखी अभ्यास करूंक दियनासली. धेंगसो घालून उठयताली आनी वावराक लायताली. मागीर ताका परीक्षेक गूण उणे पडल्यार तें शिकूंक ढ म्हण लोकांक सांगताली. मागीर ताका ढ म्हणच शाळेंतल्यान काडलें. आता ताका ती दाम्मून वावराक लायताली. घरांतलो, शेताचो वावरय करून घेताली.

आतां तें अठरा वर्सांचें जाल्लें. पूण कामाच्या राटगाड्यात आपलें जुवानपण विसरून बशिल्लें. खुबच भागिल्लें. आंगार मळकट म्हेळ वस्त्रां आनी केसाचें झिंज्यो जाल्ल्यो.

भयण गौरी हुशारच आसली. तितलीच मोगाळ आनी म्होवाळ मनाची. पयर सखाराम घरा पाविल्लो तेन्ना ती शेतातच आसली. भाव मेळूंक शेतातच गेल्लो, थंय ती भावासरी खूब रडली.

भयणीखातीर सखारामाचें मन तिळतिळ तुटटालें. ताचें कशें तरी बेगीनच लग्न करून उडोवचें म्हण तो चिंततालो. मामागेर वचून तो मामाकय सांगून

येयल्लो, म्हणिल्लें, 'मामा, तूं गौरीक एक बरो भुरगो पळय. हांव लग्नाक कशेंय करून थोडो पयसो जमयता. भांगर, कपड्यांचें पळयता.'

बापायक सांगल्यार बापूय उडवाउडवीचीं उतरां दितालो. म्हणटालो, 'पळोवंया मुखार, आतां आसा न्ही खावन पीवन मजेंत. एकदमच लग्न करचें म्हटल्यार पयशे नाकात....?'

मागीर तो बापायकडेन खूब झगडलो, भयणीक दीसभर कामाक लायतात म्हण, बरें अन्न, वस्त्र दिनात म्हण.... तुज्यान जायना जाल्यार आपूण ताचें लग्न करतलो म्हणय ताणें सांगलें.

आतां पुण्यात परतो येवन तो वावराक लागिल्लो. मामा आनी मामयेक पत्रां बरोवन भयणीक एक बरो न्हवरो पळय म्हण सांगतालो. पयशे उबे करचे आसले, तो आतां सांजचो रंगाच्या कारखान्यातल्यान परत येतकीर तसोच सायकल घेवन एका मोझॅक टायल्स तयार करपी कारखान्यांत कामाक वयतालो. थंय मशीन ऑपरेटर म्हण बरी रातमेरेन काम करतालो. दोनय कडेन मेळिल्ले पयशे तशा तशे बॅंकेंत घालतालो. सोता भोवच काटकसरीन जियेतालो. त्या काळार सनलायट म्हण कपडे धुवचो साबण मेळटालो. म्हयन्यातल्यान ताची एक वडी हाडप. ताचेनच न्हावप आनी कपडेय धुवप. सकाळीं ताचेरच दांत घासचो ब्रश घुवंडावन दात घांसप, ताणें चा सोडिल्ली, तेल सोडिल्लें, सांजचो बाविल्लो स्वस्तातलो दोन भाजये चुडयो घेवन येतालो. इल्ली मिरसांगे पूड घालून ताची भाजी करतालो. दोन सुक्यो रोटयो भाजतालो,- दनपरां रंगाच्या कारखान्यांत मेळपी जेवणय स्वस्तांतलेंच आसतालें.

मदींच ट्रंकेतल्यान बॅंकेचो पासबूक काडटालो, पळोवन अदमास घेतालो. केन्ना म्हाका बुकातलो आकडो दाखयतालो, दोन तीन वेळा म्हाका घेवन खंयच्या खंयच्या बॅंकेंत गेलो. कशें कितलें रीण मेळूंक शकता हाची विचारपूस करून आयलो. सदां पेपरांत भांगराची दर पळयतालो. मदींच एकाद्र्या भांगराच्या दुकानांत वचून दागिने पळोवन येतालो. अशें णव धा म्हयने गेले.

एक दीस मामाचें पत्र आयलें. दोन तीन कडेन ताणें स्थळां पळोवन दवरिल्लीं. एक दोन कडेन पत्रिकाय जुळटाली. मामान बरयल्लें, तूं येतकीर मुखाल्लें सगळें पळोवंया. वाचून सखारामाक भारीच आनंद जालो.

एक दीस दनपरां सखारामाल्या शेजारच्या कुडींत रावपी शंकर शेलार एक

तार घेवन म्हजेसरी आयलो. ताचो चेहरो सामको पडिल्लो. ताणें म्हटलें, 'आतांच तारवाल्यान ही तार हाडून दिल्या.'

हांवें तार वाचून पळयली, सखारामाली भयण गौरीन बायंत उडी घेवन जीव दिल्लो.

सांजचो रंगाच्या कारखान्यांतल्यान येवन तो टायल्स कारखान्यांत वचच्या तयारेंत आसलो तेन्ना हांव ल्हवच ताचेसरीं गेलो. तार मुखार करून म्हटलें, तुगेल्या भयणीन गौरीन....

ताणें तार वाचली आनी तो मट् करून सकल बसून हुंडक्या हुंडक्यानी रडूंक लागलो.

ooo

# सुरूप कुरूप

सरस्वती होनयेची याद येतकीर सदांच एक विचार म्हज्या मनांत येता – सोबीतकाय हें चैतन्याचें, सृजनाचें प्रतीक तर कुरूपता ही मरणाचो, विनाशाचो संकेत आसूंक जाय...

सरस्वती होनी भोवच सोबीत आसली. ताबंसो गोरो रंग, काळे काळे लांबसडक केंस, उंच सडपातळ बांदावळीची कूड. मातशे घारशे चकचकीत दोळे, सर्गांतल्यान देवी अवतरिल्लेवरीं दिसताली. स्वभावानय तितलीच बरी आसली. गोड आवाजात किण्‌किण्‌ उलयल्यार दर एक उतरांतल्यान म्होव गळटा अशें दिसतालें. चलताना डफलीच्या तालार पावलां उडयता अशें दिसतालें. पावलमेरेन कांठ सोडून ती णववारी साडी न्हेसताली. तिचें न्हेसप इतलें सोबीत, नकसूद आसतालें दिसतालें, तिका एकाद्रया चित्रातल्यान काडून हाडला. एक नितळ, सात्विक, सोबीत अस्तित्व. घरां मोटी शिरवंतकाय आशिल्ली अशें न्हय. घोव मिलिटरींत जवान आशिल्लो. घरा थोडी भोव शेत जमीन आसली. गरीबीतय तिणें आपली तनमनाची सोबितकाय राखिल्ली. तिका दोगां भुरगीं आशिल्लीं. तांकांय ती निवळ नितळ दवरताली. बऱ्याचें बरेंच शिकयताली.

ती शेतात, बागात खूब वावर करताली. शेतांतल्यान परती येताना केन्ना ती थकिल्ली, शिणिल्ली दिसताली, पूण मात्तूय अस्वच्छ, बुरशी दिसनासली. उलटें तिची सोबीतकाय चडूच फुलून दिसताली. तिणीं आपलीं शेतांय दिश्ट

लाग इतलीं वेवस्थीत वसयल्लीं. शेताचे आडे, मेरो सोबीत रेखिल्ल्यो. शेतां इतलीं नितळ, भाताच्या थामावांगडा इल्ली मुगळ, नेर, नण्णी खंय दिस नासली.

तिचें ल्हानशेंच घरय ती स्वच्छ, सोबीत दवरताली. घराचो तळ काळ्या काळ्या शेणांनी सारयल्लो. आंगणाची मेर, आंगण सोबीत रेखिल्लें आनी सारयल्लें. वयर ल्हानसोच चुडटांचो माटोव.

तिचें उलोवप बरेंच हुशारकायेचें आसतालें. खंयूय इल्लें वांकडें दिसलें, अन्यायाचें दिसलें तर तिका राग येतालो, ती तिडकीन उसळून विरोध करताली. तिका लोक भिवनच आसताले.

एकुणशे एकात्तरच्या बांगलादेश झुजात तिगेल्या घोवाक मरण आयलें. ती पुराय हुमटून गेल्ल्यावरी जाली. दुःखान रड रड रडली. तरी ती आपल्या वैधव्याक फावो त्या साद्या पूण नितळ वस्त्रांत रावताली. तिचें वागप, तिचें आचरण शुध्द, सात्विक आसलें. एक दीस तिगेल्या घोवाली वस्त्राची पेटी सरहद्देवेल्यान आयली. तिणें ती उघडीनासतना एका कोपऱ्यांत दवरली. ताचेर घोवालो फोटो दवरून पेटयेसयत ताका व्हडलो हार घातलो. सद्या ती थंय दिवो लायताली आनी पुजा करताली.

आतां तिगेल्या वागपाक व्यक्तिमत्वाक आगळोच वृतस्थ सोबीतकाय आयल्ली.

यकायक कितें जालें? कुडीभितर कसली कटकारस्थानां जालीं? खंयच्या काळखांतल्यान खंयचो घुगूम हुडून येवन बसलो? तिका कसलो तरी रोग जाल्लो. तकली उसळटाली, फाटीं कणो खूब दुसतालो, मातशें चलूंक लागल्यार घुंवळ येताली. कितली हॉस्पिटलां मांडोवन जालीं, कितलीं वखदां पोटात जिरयलीं पूण गूण येनासलो. केन्ना ती दीसभर रडत रावताली.

पुराय पाठीच्या कण्यात, सकल्ल्या मणक्यात कसलें तरी दुयेंस जाल्लें. तकली आनी फाटीचो कणो वांगडाच दुखूंक लागतकीर ती रडटाली, भीक मागिल्लेवरी आपणाक कसलें तरी वखद हाडून दियात म्हण मागताली. केन्ना उसळून गाळयो सवताली, कोणाकय. तिगेली आवय तिचे सेवेक येवन आसली तर ती आवयवांगडा झगडटाली.

ल्हव ल्हव तिचे तकलेवयले केस वचूंक लागले. दात काळपट आनी

वाकडे विसकळ जाले. दोळ्यांतलें वेज वचून ताचीं कालवां जालीं. आंगावेलें मांस गळून बारीक जाल्ल्यान कात अळंग पडून लाबूंक लागली. परती आनी ती काळपट निस्तेज जाली. वट्ट ती काळखात अवलातीण दिसची तशी दिसूक लागली. ती गोरी गोरी सोबीत बायल आशिल्ली अशें म्हण सांगल्यार कोणाक खरेंच दिसचें नासलें.

दिसभर कुंथनत, पिरंगत कुडीची पोटली करून घेवन पडून आसताली. तिचो आवाजय खरखरीत जाल्लो, रागान कोणाकय गाळी सवताली, तेन्ना ती एक भुताटकी कशी दिसताली.

कुरूपतायेन सोबीतकायेक हाताच्या बुरशा मुठींत धरून मुड्डून पिसडून उडयल्लें. सैमाची ही कसली पाड करामत कांयच कळनासले.

OOO

## मनसंभ्रम

सावळेंतलें लोणी कशा तिच्या नाजूक गोऱ्या पिट्ट आंगार बल्लभर पेत्रोल रकोवन तिका लासून मारलें तेन्ना सावन तुळशीचें रान बावलां. गंधा लाकडान गंध सोडून दिला, चंद्राचें काळें दिसदिसाक व्हड जायत आसा. तरीय एक दीस तो तकलेक वासातेल लावन मेकळो भोंवताना पळेलो आनी देवळांतल्या बेताळान सट्ट करून जीव दिलो. कुसकुटा येद्या वडा बियांक कोंब फुटून रूख मळबाक पावलो तेन्ना सासूमांयन म्हटलें, तूं म्हस कशी मातल्या. एक बी रूजोवंक जायना तुज्यान? ते पापणीन म्हणचें आसलें बी करमल्लें जाल्यार म्हस कितें, माती कितें, वड कितें, हांव कितें, कोणूच पोट वाडोवक शकना. पोल बियाचो पुरूशार्थ तो कितें! हांवें झुजा मळार फार पेटयल्यात, तीन खून पचयल्यात, एका वागाची गोमटी आंवुळ्ळ्या म्हटल्यारूय कोण खरें धरचो ना. पयलीं बायलेक गुरवार करून दाखय, मागीर पुरूशार्थाचें उलय. ताणें चौगी बायलो केल्यो. तिगींनी ताचें पोल बीं पचयलें. खापट्या पोटार आपुणूच वांजुडी म्हणून मानून घेतलें. पूण चवथी मात शादूर जाली आनी कोणाच्या तरी खाला पडून गुरवार जावन आयली आनी राणी जाली. खरें म्हटल्यार तिचें पुरसांव काडूक जाय आसलें. जिवी आसतनाच सती फातर उबो करूक जाय आसलो. हे दादले सगले भोग सुखी. तिणें सगलें सोडून उडोवन तुका इतलें सूख दिल्लें तीच आतां पोट खरडून काडपी दुख भोगता. उज्याचीं ल्हारां पोटातल्यान मांडयेमेरेन देंवतात. तूं मात विडी फुसकायत बेंचार बसला. बाब काय बाय म्हूण

चिंतता. तिचो सगलो रगता वांगडा, दुखी वांगडा संबंध. तूं मात धव्याफुल्ल गादयेचेर धुमशेणां कांडटालो. मांस उणें म्हण पिरंगतालो. रिण बुड्डिलें, घर धुंवयलें आनी धुवेक सोबयलें. पूण पालखी न्हय तर किरवड म्हूण खंय खबर आसलें? धुवन, बुड्डून दिलें खरें पूण मरण चुकूं येत म्हण कोणें सांगचें! वयल्यान कायदो, पुलीस, जुवीज. दारू भिजिल्ले फुगोट्यो कशे. पेट्टल्ले कितें आनी फुट्टलें कितें! तो मात भावाक मारून, बायलेक लासून, रस्ते विकून कुरोटांनी चोरून इस्त्रे कपडे घालून ओर्राद भोंवता. पांयां पडटल्यांचे तकलेर कोण दांडो कित्याक घालीनांत? सलाम करतल्यान गुलामी हाडली म्हणटात. गांयडोळ, माळुणां, कोणाक नमस्कार करिनात म्हणटात. मागीर मनीसूच कित्याक करता? बोटाक लायिल्ली शाय वचून वच नासली आठ दीस. पूण तिणें, तिगेल्या पुतान व्हाणो नाशिल्ले पांयां तळवे झरय झरय झरयले, तीनशें रूपयांची एक चाकरी दी म्हण. मागीर तांकां कळ्ळें, आपलो वालोर फकत काळें लावन घेवचेलो. तांच्यो कितल्यो पिळग्यो थंय लासल्यो. पूण एक दीस तांकां लासच्या मसणवटीचेर बिल्डींगो उब्यो जाल्यो तेन्ना तांणी कळवळ्यान जीव सोडलो. तेना सावन तांचीं मडीं 'राम नाम सत है' म्हणीत मसणवट सोदीत रस्त्या रस्त्यांनी भोंवतात. आतां खंय मनशाचे क्लोन जातले. प्रयोग शाळेच्या नळयेत बीजरोपण जातलें. गर्भ पिशवी मोडीत वयतली. तूं म्हटल्यार एक वांयगें, एक भेंडो, एक घोसाळें. सोरो पियात आनी भोग भोगात. तुजें वीर्य म्हटल्यार एक थुंकून उडयल्ली थुंकी. एक फावट खंय वायटेन आपले अर्दे दांत मनशाक उश्णे दिल्ले. ते ताणें परते केलेच नात. त्या दांतान आतां तो पुराय धर्तर, धर्तरेचो गर्भातळ चाबडावन उडोवंक लागला. झाड म्हण ना, मोनजात म्हण ना, मीन म्हण ना, कोळसो म्हण ना, तेल म्हण ना, उदक म्हण ना, सगळें खावन उडोवक लागला. चारशें पांचशें वर्सांत सगळें खल्लास. घराबे तुटले आनी सगळे फासपले. दर दिसा मॅट्रीसायड, पॅट्रीसायड घडूंक लागले. जाण्टेले बाबडे रडत म्हणटाले, तुवें देवदार, चीड, सायल मारले तशें आमकां मारू नाकात. मंगळाक दोर घालून ओडून हाडून पेसिफिकांत बसोवची येवजण आसली. एक लागींच्या नखेत्राची वीज भट्टी करून वीज टॅप करची मांडणी आसली. पूण एका देशांतल्या एका मनशान मंगळाचो चडूच व्हड कुडको मागलो. वीजेच्या भागीदारीचेरूय झगडीं सुरू जालीं. कोणें तरी म्हटलें, कुसकुटां येदें मन घेवन आकाशाचेर शेक

चलोवंक सोदतात तुमी? स्वार्थाचीं झुजां झुजून मरचें तुमी. महासंगणक निर्मुवपी मनशाचे तकलेची एक शीर उसवल्यारूय तो पिसो जावन विडये पोतां पुंजायत भोंवता म्हण कळटकीच महासंगणकाक पिशें लागलां. ताचें एकय गणित जुळना जालां. यंत्रां, यंत्रां निर्मुपी यंत्रां, यंत्रा खातीर यंत्रां, गाडयेच्या पोटात धरून अवकाशयानांमेरेन यंत्रां. मनीस यंत्रां मुखाल्लो पेदो, यंत्रांत तेल घालपी तेली. एक फावट यंत्रात तेल घालूक कळाव जातकच यंत्रान करकरायत दांत चाबले. तेन्ना सावन मनीस भियेला. तेल सोंपतकीच आपलें रगत तातूंत घालचें पडत म्हण. घोवाल्या, सासूसांयल्या दर एका उतरार तिका मरचें अशें दिसतालें. घरभर तर मरणांच मरणां भरून आसलीं. गॅस सिलिंडरांत एक मरण, शेगडेंत एक मरण, फ्रीज, फेर्र, गिझर... मरणांच मरणां. विजेच्या वायरींतल्यान तर मरणां व्हांवतालीं. रस्त्यार गेल्यार तर पावला पावलांक मरणां. पूण एक्कूय मरण तिचे वाटेक येवक ना. शेवटाक गोळ घेवनच तिका मरचें पडलें. हांवें म्हटलें मॅट्रीकेक श्यांयशीं टक्कें मार्क्स घेतिल्लो तूं असो कसो पिसो जालो? ताणें पिशावरीं म्हटलें, 'तुवें पळयलें ना, आमचो उत्तम मास्तर कितलें धवें शुभ्र खोमीस, धोतर न्हेसतालो तो? कितलो गोरो आनी उलयतालो कितलो गोड. शिकयतना सरस्वती नाचताली ताच्या तोंडार. पूण ताणें आमच्या शिलाक गुरवार केलें म्हूण लोकांनी धरून ताका बडयलो ना? तुवें तरी तुगेले व्हनयेलें कांकण चोरून शेटीक कित्याक विकूक जाय आसलें? म्हाका इतलो राग येयल्लो, हांवें कोयती घेवन आमगेलो केळी केसंबो खातल्या वासराची फाट चांचावन काडली.. अचकीत पिशा सावळी ताच्या दोळ्यांत देंवन आयली. हांव सकाळचो पेपर वाचतालों गॅलरींत बसून, 'संवसारातल्या एका गिरेस्त मनशान सप्त तारांकित हॉटेलात एका डिलक्स रूमांत गोळ घेवन जीव दिलो...' तेन्नाच हांवें पळयलें, मुखावयल्या कचऱ्या पेटयेंत गरीबांल्या भुरग्यांक एक पाव मेळिल्लो. तो तांणी आनंदान वाटून खालो आनी खोशयेन ताळी वाजयली. तांच्या बापायन खोंपीची ताटी लायत बायलेक म्हटलें, भुरगीं भायर गेल्यांत, भायरच कितेंय खावन येतलीं, बायलेन हांसत मुरकुटत म्हटलें, 'दार लायता तूं? म्हज्या आंगार हें एकच निमाणें वस्त्र आसा तें मात पिनून उडय नाका.' फाटीवेले पुस्तकांचें, गिन्यानाचे भोरे खूब जड जाल्यात. ॲसीड लासूक, आंकडे मांडूक, यंत्रां घडोवक, अणू फोडुकूच सगळें शिकप, गिन्यान घेवप आसता म्हण कळटकच तो सगळें सोडून

स्मगलर जाला. तो म्हणटा, 'सत लिपोवपी फटकिरे लोक आमी. सत केन्ना आंगावेल्या वस्त्रा भितर, केन्ना मना भितर, केन्ना काळखात लिपयत आसतात. सत्य सदां उकताडार आसूक फावो. अशीं उक्तीं सत्यां पळोवंक खरीच मजा येतली. तो फाटको मास्तर त्या भुरग्याक सद्दां सांजचो ट्युशन दितालो. भुरगो एक दीस शाळेंतल्यान परत येतना अपघातात सांपडून मेलो. तर हो मास्तर एक दीस बापायसरीं वचून खटासून बसलो आनी म्हणूंक लागलो, 'तेरा दिसांचे ट्युशनाचे फीचे पयशे उरल्यात ते तितले दिवन उडयात...' हरणासारख्या नितळ दोळ्यांच्या आनी हारशासारख्या पारदर्शक मनाच्या अवयल्या फुल्लट मोम्यांचें दूद पिवनय तो हातांत बंदूक घेवन बांब घालची कळाशी शिकूक गेलो तेन्ना तिणें काळाच्या तकलेर मुसळ घातलें. वयलेवयर खणटनाच तांका तो तकलेचो बुड्डो मेळ्ळो. तो मनशाचो काय माकडाचो हाचेर वाद विवाद जालो. एकमत जायनासलें. शेवटीं डार्विनाक उलो घातलो. ताणें बारीक पळोवन म्हटलें, 'मनशापासून माकड जावचेल्या अवस्थेंतलो हो तकले बुड्डो. शादूर रावात, परतीचो प्रवास सुरू जाला!'

○○○

# भूंयदेश नाशिल्लो

म्हाका याद आसा तीन-चार वर्साचे पिरायेर लेगीत हांव भीक मागूंक फिशाल आसलो. सद्दां रातचे खानावळी बंद जावच्या वेळार हांव फाटल्या दारांनी वयतालो. शेवटची आयदनां धुवपी म्हज्या आलेमिनाचे ताटलेत कितेंतरी उडयतालेच. ते भुरकून येवन हांव फुटपाथावयल्या दिव्याच्या खांब्याक कांय वेळ तेंकून बसतालो आनी मागीर झेम येवक लागतकीर थंयच आड पडटालो. रातभर जळारां मारतालीं. पोलीस येवन मदींच दांडे खोमताले. चड ल्हान म्हण थंयच सोडून वयताले.

एकलो बऱ्या घरातलो दादलो सद्दां वोताक बसूकआयल्लेवरीं त्या फुटपाथार येवन बसतालो. तागेली खंय तकलेची एक शीर उसळटाली आनी अख्खी तकली भेरेताली. भितर मेंदूभर मुंयो चरिल्लेवरीं जाताल्यो. थंय तो वोग्गी बसून रावतालो. एक दीस घुंविल्लेवरीं तो उलयलो आनी म्हाका म्हजें नांव गांव विचारूंक लागलो. हांवें म्हाका कांयच खबर ना म्हणटकीर तेणें आपूण शर्त जाणा जाल्लेवरीं म्हटलें, 'तूं एके वेश्येच्या पोटात जल्मल्लो. तूं जातकीर दोनेक वर्सांतच तुगेली वेश्या आवय डेंजरस रोगान मेली. ती मरतकीर 'घरवालीन' तुका रस्त्याकुशीक हाडून सोडलो. बास्टर्ड म्हण एक जात आसता. तातलो तूं.

पूण बेबदो रामाप्पा जो कोणालेंय खंयूय पडिल्लें लोखण हाडून विकतालो, सांजचो सोऱ्यान तर्र जावन ताच्या शेजाराकच फुटपाथार न्हिदतालो, ताणें एक फावट सगळे जाणा जाल्ल्यावरीं सांगलें, 'तुगेली आवय आंकवार आसताना

एकल्या व्हडल्या मनशान तिचेर सेगीत सतरा फावट बलात्कार केलो. आपलें वीर्य तुगेल्या आवयत थूक थूक थुंकलो. तूं बलात्काराचें फळ. जल्माक येतकीर तुका कचऱ्या राशीसरी उडोवन दिलें रातचें. एक भुरगें नाशिल्ले तारवट्या बायलेन तुका एक वर्स सांबाळ्ळो. पूण घोव तारवा वयल्यान येवन बायलेक बरेंच धाडायलें. तिणें तुका परते हाडून रस्त्यार सोडले. दुसरो एकलो पोन्ने कपडे विकूक फुटपाथार बसतालो तो सांगतालो, तुगेलो बापूय मरतकीर तुगेली आवय तुका रस्त्यार उडोवन आपल्या मोग्यावांगडा पळोन गेली...

कांयच खरें नासलें, म्हजो विश्वास नासलो. आवयवयलो भावार्त उडसारखे दुर्दैव दुसरे नासले. ते आपलीच काणी सांगताले जावये. म्हजे भितर मात्र मोटो घुस्पागोंदळ. तरी म्हजेर कोणें तरी मोटो अन्याय केला - येदो व्हडलो अन्याय आनी कोण कोणाचेर करूक ताकचो ना.

दिसता, चोयवटेची धरतरी वोतात भणंग पडिंग पडल्या. थंय हांव तापिल्ल्या रेंवटांत पांय लासून घेत उबो आसा, एकलो एकसुरो. मनशांनी ओतता सगळो संसार, पूण थंय म्हाका कोण आवय बापूय ना, भावभयण ना, मामा मावशी ना. भूंय-ना, घर ना, जात धर्म ना, नांव ना, नामो ना. सगळे लोक आवयल्या गर्भांत णव म्हयने रावन जल्मतात हें हांव जाणां, पूण म्हाका दिसना, म्हाका दुबाव आसा, हांव कोणाल्या गर्भांत राविल्लो आसतलो म्हण! मागीर हांव असो चिडचिडो, उबगल्लो, भणंग फटीचेर कसो? म्हाका कसलोच आकार प्रकार ना कित्याक? म्हाका केन्ना रडूक कित्याक येना? सगळ्यांच्या तकलेर फातर घालचे अशें म्हाका कित्याक दिसता? हांव तसो फ्राक पिसो न्हू. सुब्बुल्या खानावळींत आयदनां काय बरी चकचकीत नीतळ धुवता हांव.

केन्ना सुण्याल्या गळ्यातलो अधिक्रत पटो पळोवन म्हाका दुस्वास दिसता. असो पटो म्हज्याय गळ्यांत आशिल्लो जाल्यार इतले हे कर्मभोग, इतलें एकसुरेंपण म्हज्या वांट्याक येवंचें नासलें. सगळ्या दिकांनी लाखांनी लोक आनी तातलो एकलोय आपलो नासप!

दुकरांक, कुकडांक घूड आसता, बैलांक गोठो आसता, म्हाका धनीय ना आनी आसरोय ना. एक दीस हांवें सुब्बूक म्हटलें, हांव सांजचो सगळीं आयदनां धुंवता आनी हांगाच पडवेंत न्हिदता, ताणें म्हटलें नांव, नामो, ओळख पाळख नाशिल्लो मनीस तूं रातचो चोरीमारी करून धावन गेलो जाल्यार?

तुमी जाणात, पिरायेच्या इकरा वर्सांचेर रेल्वेपोंदा पडून हांव जीव दिवक गेल्लो. वयताना वाटेर रस्त्याकुशीच्यान एके बायलेली परवणी आयकूक येयली. थंय एक दुयेंत भिकारीणकशी बायल झाडापोंदाक न्हिदिल्ली. हांव मुखार वयतकीर तिणें क्षीण आवाजांत म्हटलें, 'पुता इल्लें पीवंक उदक हाडून दिता?' पळयल्यार तिचें न्हेसप कुशीक सरून तिचें मांय आंग उक्तें पडिल्लें. बेगीबेगीन तिचें वस्त्र चिमटेत धरून हांवें तें नीट धापलें. मागीर कुशीन पडिल्लो दबो घेवन हांव धावन वचून नळावयल्यान उदक घेवन येयलो. मुखाल्ले आठ दीस तिका हांव उदक, जाल्यार कितें खावंक हाडून खावयतालो. थंयच लागीं न्हिदतालो. तिचें कुशीन सरकल्लें न्हेसप नीट करतालो. आठ दिसांनी ती मेली. मागीर तिचे प्रेत मुन्सीपालटीचे लोक येवन घेवन गेले. ती मेली तेन्ना तिचे दोळे उक्तेच आसले. ते सारक्के म्हाका पळयतात अशें दिसतालें. तेन्ना म्हाका म्हगेली सख्खी आवयच मेल्ल्यावरीं दिसलें आनी तेन्नासावन हांवें संवसारावांगडा सगळे संबंध तुटोवन उडयले. चडच घुम्म मोनो, एकसुरो जालो. रामाप्पा ह्या वर्सांनी सोरो पिवन इतलो बोवाळटालो, तो बोवाळय म्हजेभितर हूनसाण हाडूक ताकनासलो.

एक दीस सांजचो सुब्बुल्या खानावळीची आयदनां धुवन हांव बाकार बशिल्लो. सुब्बू दोळ्यांमुखार पेपर धरून तो वाचतालो. अचकीत पेपर कुशीक सारून ताणें म्हटलें, 'एका फॉरेनराक खंय पोलीसांनी धरून जैलांत उडयले.'

'कित्याक म्हण तर?' हांवें विचारलें.

'ह्या देशांत रावंक ताचेकडेन कसलीच कागदपत्रां नासलीं खंय. तो बेकायदेशीर ह्या देशांत रावतालो खंय.'

'कसलीं तीं कागदपत्रां?'

'आसतात, आसतात. जाय तीं कायदेशीर कागदपत्रां लागतात देशांत रावंक. सुब्बून फापडून उडयल्लेवरीं केलें.

'देश म्हटल्यार कितें तर?'

'देश म्हटल्यार आमची मातृभूमि, मायदेश. थंय आमची भूंय आसता, घर आसता, नामो आसता.'

'आवयूय आसता न्ही?'

'हय आसूंकच जाय तर. म्हणच मायदेश म्हण्टात न्ही.'

खानावळीचीं दारां लागतकीर हांव फुटपाथार परतो येयलो. रामाप्पालो

बोवाळ थंड जातकीर ताका विचारलें, 'ह्या देशांत रावंक जाय तर कसलीं कसलीं कागदपत्रां जाय आसतात?'

हांवें ताका एक हुशार मनीस म्हण समजून प्रश्न विचारलो तें ताका बरें दिसलें जायत. तेणें उमेदीन म्हटलें, 'तूं हांगाचोच म्हण जाणां जावक बापायचे नांव जाय, जल्म दाखलो जाय, उपरांत रेशनकार्ड जाय, वोटींग कार्ड जाय, घर नंबर जाय, नामो जाय, ओळखी जाय.'

'ना तर?'

'ना तर भोंकार खोंट. तूं बेकायदेशीर मनीस.'

हांव थर्त भियेलो. मुखार कितें विचारचें धाडसच म्हाका जावंक ना. ते रातीक म्हाका रातभर झेमय पडली ना. हांव जल्मानय बेकायदेशीर आनी हांगा रावताय बेकायदेशीर. दिसतालें, म्हाका आत्ता पोलीस उखलतले आनी जैलांत व्हरून घालतले.

OOO

# भिजिल्ल्यो फुगोट्यो

खून आनी रेपच्या अपराधांतली अकरा पकड वॉरंटां चुकोवन तो वेंचणुकेक वेंचून आयलो आनी राज्य करूंक लागलो. लोकानीं ताचें पुरसांव काडलें, जयजयकार केलो आनी वेंगभर फुलांचे हार घातले. ताणें सरांटून म्हटलें, हें जैत लोकशायेचें आसा! कितलें सत उलयलो तो! आतां ताचे तकलेक तिबो लावंक फाव! आनी तो अकराय फावट जामीन दितलो जुवीज ताका उखलून तकलेर घेवंक फाव.

फाटीं एकल्याक माडार चडून शिंयाळी काडटाना धल्लो. मेज्जून सात शिंयाळीं काडिल्लीं. लोकांनी धरून खोटायतकीर म्हणूंक लागलो, 'पोटा भुकेक गा, घरात पोरां उपाशी बसल्यांत.' ताका पब्लिकान धाडायलो. पोलीसांनी खोटायलो आनी कोर्टानय. सोमतोच स म्हयन्यांच्या ख्यास्तीर जैलात. त्या शिंयाळी चोरावांगडा लॉकअपांत तेन्ना एकलो सुटबूटवालो आशिल्लो. टाय अळंग करून वारो घेतालो. वांगडाचे कैदी सांगताले, 'हेणें सरकाराचे सात कोटी शाण्णव लाख खायले म्हण. पचना जातकीर आजीत दिवक हांगा हाडला.'

फक्कत पाच तास तो लॉकअपींत आसलो. एक पोलीस येवन सेल्युट मारून ताका मानान घेवन गेलो. सांगलें, 'तुजो जामीन मंजूर जाला.' वयताना ताणें ल्हान, बाबत कैद्यांक व्हडविकेन सांगलें, 'जामीन मागूक वकिलाक एकच फावट उबे करूंक वीस लाख दिले.'

आयकोन भितर कुसतल्या त्या शिंयाळी चोराक घुंवळ आयली. वकीलाक एका आदेसाचो दिसवडो वीस लाख रूपये! आतां आमी ल्हानसान चोरयो करचे सोडून दिवंक जाय. चार बुकां पाठ करून खऱ्याचें खोटे आनी खोट्याचें खरें! ह्या बोटांवेली लुथी त्या बोटार! म्हजो एक केरळीयन इस्ट म्हणटा, 'न्यायालया ही प्रोटेस्टंट मंदिराभशेन आसूंक जाय. नो मध्यस्थ. मध्यस्थ आयले म्हणटकीर भाडखाऊपणां आयले.

पंदरा वर्सांच्या त्या चेडवाक कोर्टांत वकीलान विचारलें, तुजेर बलात्कार करताना तेणें तुका उताणें घातलें काय ओमथे घातले?'

आयकोन वयर बशिल्लो जुवीज ओटापासून पोटामेरेन मुमुरखोच हांसलो. मुखार बशिल्ल्या लोकांतल्यान तर हांसपाचो हुंवार आयलो. चेडवाच्यो मनाकोंबऱ्यो बावन मरून गेल्यो. ते लजले, रडलें, तिरमिरलें. मत मेल्लेवरीं हां हां, ना ना करीत रावलो. वकीलान म्हटलें, हें खोटें लिपयता. उपरांत आवय बापायन म्हटलें, 'बाय म्हगेल्या, हें आनीक नाका. आमी घरा या. जाल्यार वांगडाच जीव दिवंया. ही आनी इपस्टा नाका.

झरझरत तीन वर्सां केस चल्ली. राजकारणी पोलीसांच्या मानगुटेर बसले. साक्षिदार फुटले. पुरावे पोके जाले. चेडवाचें स्मीयर, रक्तान भरिल्लीं वस्त्रां आनी डॉक्टरांचे रिपोर्टस हांचो कचरो जाल्लो. ताणी दिल्लो वकील खंय दर हियरींगाक दिल्लीच्यान विमानान येतालो आनी वयतालो. वकील जाणा आसलो ताणें रेप केला म्हण तरी पैशांच्या आशेन एका हीण गुन्यांवकाराक वाटोवचो इतलो खटाटोप!

शेवटा जुवीजान न्यायनिकाल दिलो. आरोपीन गुन्यांव केला म्हण दुबाव धरून येता पूण सबळ पुरावे नात म्हण आरोपीक निर्दोश सोडून दिला.'

हात् तेच्या, सगळे पुरावे चोरयेक, विकरेक गेल्यात म्हण तुका खबर ना? तुजें सार्वभौमत्व' म्हणटात तें खंयच्या चुलींत गेलें? मनीसपण खंयच्या मसणात गेलें?

एक खतरनाक गूंड सात खून करून, बलात्कारासयत कितलेशेच दरोडे घालून लिपून भोंवतालो. पोलीसांनी जिवार खेळून ताका धरिल्लो. पूण कोर्टान घट पुरावे नात म्हण ताची कांय म्हयन्यांत 'वीस हजारांच्या' जामीनाचेर सोडलो. आठवड्यातल्यान दोन फावट पोलीस ठाण्यार हाजेरी दिवंक जाय म्हण

फर्मायल्ले. पूण खंय गा तो दुसऱ्याच दिसा झूं धावन गेलो.

आयकलां पयर ताणें एका गांवांत एक दरोडो घातलो तातूंत दोग लोक मेले. एक अस्तुरेचेर बलात्कार जालो. जबाबदार कोण?

पोलीस आतां म्हणूंक लागल्यात, असल्या खतरनाक गुन्यांवकारांक धरून कोर्टांत उबे करचे परस एनकावंटर करून मारिल्ले बरे!

OOO

# इस्कोट

मांय आनी सून दोगाय घराभायल्या तेण्यार वोगीवोगी बशिल्ली आनी आपल्या नशिबाक आपल्या भोगणाऱ्याक रडटाली. सूर्य अजून मावळूकय नाशिल्लो पूण सुर्याच्या तोंडार काळे मारिल्लेवरी आताच मुखाल्ल्या आंब्याझाडात, आंगणात काळोख देंवन येयल्लो. मांय आनी सून सामकी एकाच दुःखान पिडिल्ली म्हण एक दुसऱ्या लागी मनान काळजान पाविल्ली. मदीच सून रडूक लागली. मांयन ताच्या केसावेल्यान हात भोंवडायत म्हटले, ''घराब्याक लागिल्लो स्राप तो. तू तरी घोव मारूक येयल्यार रागान मुठी कवळून उबे रावता. तो तुगेलो मांव सोरो पीवन येतालो आनी म्हगेल्या कमरेचेरूच लाथ घालतालो. पळयले ना तुवें चलताना म्हजी कंबर वाकडी जाता आनी दुखता. दादल्यांचो सोरो आनी राग बायलांनीच भोगचो.''

मराठीत एक म्हणणी आसा, 'आधीच मर्कट त्यात प्याला मद्य.' तसेच दोन माकडांनी सोरो पीवन तांच्या जीविताची वाट लायल्ली.

मांयलो घोव राखीव दळात पोलीस आसलो. बेळगाव तो आसताना तीवय थंय पोलीस क्वार्टर्सान कांय वर्सा आसली. अदीमदी तो सोरो पीवन घरा येतालो. पयली तिणें मनात म्हटले, जाव, ड्युटी करून पुरो जावन येता. मनरिजवणेक इल्लो घेयल्यार घेव. पूण ताचे पीवप दिसानदीस वाडत गेले. चड पिल्यार तिका बडयतालो आनी वयल्यान शेजाऱ्यांकय गाळी सवतालो. पीवन घरा येयलो म्हणटकीर तास देडतास घरात भायर मोटो कलकल जातालो.

मागीर तो दिसानय पीवक लागलो. पीवन ड्युटेर वचूक लागलो. थंय हेर पोलीसांवांगडा झगडी करूक लागलो. कमाडिंग आफिसरामेरेन खबर पावली. पयली कमांडिग आफिसर इन्स्पेक्टर आसताना एक व्हड दंगो पालवच्या कामाक ते वांगडा आशिल्ले. तेन्ना तो सोरो पियेनासलो. सांगिल्ले नीट आयकतालो. 'लाठी चार्ज' म्हण आज्ञा दिल्यार वागावरी लोकार झुडोन वयतालो. वळख, आपलेपण आशिल्ले. म्हण ताणे पयले कांय दीस दुर्लक्ष केले. एक दीस कॅपांतले दोगतीग अधिकारी एकेकडेन उबे रावन कसली तरी चर्चा करताले. तांच्या आंगार नीट युनिफॉर्म आशिल्ले. खांद्यार नखेत्रां आशिल्ली. हो सोरो पीवन येयल्लो तो सरसरीत तांचेसरी गेलो. बोवाळत म्हणूक लागलो, "तुमका मस्का पोलिशी करतले कॅपांतच पडून उरतात. हांगाच भोंवलेशे करून ड्युटी करतात. आमका पयस पयस धाडप, चोवीस चोवीस वरां आमी थंय. दीस दीस बायलेचें दर्शन ना. तुमचें बरें. स्टार्स लावन उब्याउबे भोवप. सुण्यांक हामुडिल्लेवरी पोलीस सिपायांक हडत् हडत् करप... सगळे चोर तुमी चोर!"

तातून साळवी म्हण एक अधिकारी आशिल्लो. तो हातातले कॅन घेवन ताच्या आंगार गेलो. ते ताका धोमसून 'चल, होसमार हांगासल्लो' म्हणत धांवडावन घातले. तो बडबडतच पयस गेलो.

ती कागाळ मागीर कमांडिग आफिसरासरी गेली. कितले फावट ताकीद मेळ्ळी पूण ताचे पीवप आनी बोवाळप वाडतच गेले. शेवटाक ताका सक्तीन निवृत्त करून घरा धाडले. तेन्ना तेगेली विशेक वर्सा नोकरी जाल्ली. थोडी पेन्शनय मेळ्ळी. तेन्ना दोगां भुरगी आशिल्ली. व्हडलो चेडो बारा वर्सांचो आनी चेडू सात वर्सांचे आसले.

गावात येतकीर ताणे अच्छेवच केलो. सोताची पेन्शन सोऱ्याक उडयतालो आनी बायलेन खंयूय वचून कश्ट करून हाडिल्लेय मागतालो. दिना जाल्यार धरून बडयतालो. तातूनच तो आठ धा वर्सांनच लिवर सुजून मरून गेलो.

तो मेलो तेन्ना चेडो एकुणीस वर्सांचो आसलो. पयली पयली बापूय सोरो पीवन बोब मारूक लागलो म्हणटकीर तो भियेल्ल्या सोश्यावरी खंयतरी कोनशान बसून आसतालो. ताणे कशी तरी एस्.एस्.सी. केली. बारावीक दोन फावट नापास जातकीर ताणे शिकप सोडले. मागीर तो घरातल्यान पयस पयसच रावक लागलो. आवयन सांगिल्ले कायच आयकनासलो. कपलफुटकी विधवा आवय

कशीतरी संसाराची राट ओडटाली. चेडोय आपल्या सांगण्याभायर गेलो म्हण पळयतकीर ती हवसानयत जाली.

गावात एक सोडा आनी हेर पीवप करचेली फॅक्टरी आसली. तो मालक सोयऱ्यातलोच आसलो. ताका पायें पडून तिणे चेड्याक थंय कामाक लायलो. भायर विकरेक वचचे काम आसले.

तो एक दीस रातचो घरात भितर सल्लो तेन्ना घम्म करून सोऱ्याचो वास येयलो. पळोवन आवय तिरमिरली. काय उलयली ना. हांथरूणार पडून खुळयो घासत तळमळली, रडली. दुसऱ्या दिसा मात ताच्या पायार पडून ताका सोरो पिये नाका म्हण पाराथले. पूण आयकले ना तेणें.

चेड्याचे पीवप वाडतच गेले. काय उलय नासलो, बोवाळनासलो. घरात भायर घुंविल्लेवरी करतालो.

एक मावसेभावान म्हटले, ‘लग्न करून उडय. सुधरतलो तो.’

मदी तिणे कसेय करून धुवेले लग्न केले, तेगेलो बाजारान ल्हान गाडो आशिल्लो. जाय ते तरेचे बारीकसारीक सामान विकतालो तो. मागीर आयकोय येयले तो गाड्यार गुटका, पानमसाला विकता म्हण. आवयन मनात म्हटले, जाव, बरो करून पोट भरून उरल्यार पुरो! आनी कसले वायट व्यसन लागना जाल्यार पुरो रे देवा! बाय प्रेमा कांय सांगिना आमका. सगळे हांसून व्हरता.

मागीर एक गरीबालें चेडू पळोवन तिणे पुतालेय लग्न लावन दिले. पयस खेड्यातले एका शेतकाराले ते चेडू. फाटल्यान दोगा जणी भयण्यो.

लग्न जाले पूण तो सुधरलो ना. लग्न जाल्ल्या पाच वर्सां भितर दोगा भुरगी मात जाली.

सोरो पीतकीर ल्हव ल्हव ताकाय बापायवरी तोंड फुटूंक लागले. बापायवरीच बोब मारूक, गाळी सवक लागलो. पयली बापूय सगळी पेन्शन सोऱ्याक उडयतालो. आता आवयक बापायली पेन्शन मेळटाली. ताचेखातीर तो आवयसरी झगडूक लागलो. पयशे दी म्हण काट्यार बसूक लागलो.

ताका जाल्ल्या भुरग्यात व्हडलो चलो आसलो. केन्ना ती ताचेसरी बारीक पळयताली आनी थर्त भियेताली, चितताली, होवूय फाल्या सोरो पीवक लागना मू देवा!

....आय अंदल्या सांजेर मांय आनी सून काळजातली दु:खा वाटून घेतशी

तेण्यार बशिल्ली. मांय सुनेच्या फाटीवयल्यान हात भोंवडायत म्हण्टाली, ''कशेय मरत जाव रडत हांव जियेले. आता मरण येतले रोखडेच. म्हाका तुजोच हुस्को, फाल्या कसे जातले गो बाय तुजे!''

तेन्ना बागाच्या आकाड्यासरी कोणा अस्तुरेलो रडिल्लो आवाज येयलो. एकटे आंगावेली वस्त्रा, केस फासपल्लेशे बायलचेडू रडत येताले. मांयन बशिल्लेकडच्यान उठून पळयले, ''तेगेली लग्न करून दिल्ली धूव प्रेमा हमहमसून रडत येताली. ते येयले आनी तेणे आवयक वेंग माल्ली. रडतच म्हणूक लागले, ''दनपरा तेणे बडोवन झोड काडलो गे म्हगेलो! आंग आंग दुखता. सद्दा सोरो पीवन येता आनी म्हाका गाळी सवता, मारता. तीन वर्सां जाली तुमका काय एक सांगले ना हांये. आता आनीक सोसूक जायना म्हज्यान! घोवय नाका आनी देवय नाका जाला म्हाका!''

आवय दोळे भायर ओडून काडून घेवनशी थीर नदरेन तेका पळयताली. सूनय थंय लागीच आसली.

ooo



## दोन मुळांचे झाड

महाबळेश्वर सैल

आपल्या अणभवाच्या वास्तव आवाजावांगडाच मनाच्यो भावना, संवेदना घेवन बरयल्ल्यो ह्यो नीतळ मनुश्यकथा. जीवीताचेर पैशाचे आनी भौतीक सुखांचे सावट इतले काळे दाटला; निरागस संवेदनशील मनां मोडीत वचूक लागल्यात. अश्यावेळार ह्यो कथा मनकाळजाक वलसाण हाडूक उपकारतल्यो. मनशाच्या आयुश्याक सलगपणा आसा असे वयल्यावयल्यान दिसले तरी मनुश्य खरे तर तुकड्या तुकड्यांनी जियेता. ह्या तुकड्यांच्यो ह्यो कथा. मनुश्य खिणा खिणान मरणाच्या दिकेन वयता तरी मरणा चुकोवक मांडिल्ली धडपड म्हटल्यार ह्यो कथा. आशेचे धुरकटिल्ले निळे क्षितिज निवळटले म्हण मनश्या रावतात. मळब पानेतले, मना भिजतली ही आस्तय आसा, कथा तांका नवे बळगे दितात. हातुंतली मनशां वेदना भोगनात तर वेदना जियेतात म्हण ती चड मायेस्त जाल्यात. मनिस घडयताना छिन्न्यांची करामत बरीच दिसता हातलो खंयचोच मनिस रितो भणंग ना, भरिल्ल्या कळशावरी आसा, म्हण कथाय भरिल्ल्या कळशावरी जाल्यात.

- श्रीशैल प्रकाशन

लेखक केंद्रीय साहित्य अकादमीन सन्मानीत जाल्यात.